# कथिका

कांय कथा आनी कांय कथिकांचें हें संकलन. तरी ताका 'कथिका' हेंच नांव दिलां.

कथिका हो कथेचोच एक प्रकार. साहित्यांत कथेचीं जीं साबार रुपां आसात, तातुंतलें कथिका हें एक सुरबूस रूप.

सुटसुटीत आकार इतलेंच कथिकेचें लक्षण न्हय. कथिका म्हळ्यार लघुकथा वा लघुतम कथाय न्हय. कथेचो अंश वा बीं आशिल्लो हो एक साहित्य प्रकार.

कथिकेक आरंभ आसपाची गरज नासता आनी तिका अंतय नासता. उल्कापाताच्या देखाव्यासारको, खीणभर नदरेमुखार पर्जळून काळजाक आफुडपाचो तो एक साहित्य प्रकार म्हणूं येत. नव्या युगांत वाचप्याच्या वेळाचेर मर्यादा पडूंक लागल्यात. त्यो कुशीक सारून वाचप्याक वाचूंक प्रवृत्त करपाचें काम असलो साहित्य प्रकार करीत अशें दिसून हांवें हांगा एक प्रयोग केला. तो वाचप्यांक मानवचो ही इत्सा.

मडगांव — **- चंद्रकांत केणी**

संवसार पाडवो, १९१५

२४ मार्च , १९९३



# अनुक्रम





१

# रिकामी फास्की

दोन मजली चाळींत रमेशालें घर. तळमजल्याचेर. माळयेर वचपाचीं सोपणां तागेल्या दारामुखावयल्यान सुरू जातात. देखून घरांत बशिल्लेकडेन रमेशाक ते चाळींत कोण आयलो आनी कोण गेलो हें आपसूक समजता.

सगळीं पात्रां ताजे वळखीचीं आनी संवकळीचीं. खुबशे जाण आपले कुडीच्या दारांत बशिल्ल्या रमेशाक पळोवनय पळोवंक नाशिल्लेभशेन करतात आनी तुरतुरीत माळयेचीं सोपणां चडटात. देंवतना फाटीक वाग लागिल्लेभाशेन आंगणात वचून मुखावयल्या रस्त्यावयले गर्देंत भरसतात.

दुसऱ्या मजल्यावेली सविता खंयचे तरी शाळेंत शिकयता. सकाळची पयली बस धरून ती वता. रमेश त्या वेळार कुडीच्या दाराभायर कदेल घालून पेपर वाचता. सोपणांचेर 'धब्ब-धब्ब' असो आवाज आयलो म्हण्टकच सविता भायर सल्ली म्हणपाचें ताका कळटा. दीसपट्टी नवी साडी. नदरेआड जाता तोमेरेन तिणे वापरिल्ल्या सेंटाचो परमळ वाऱ्यार तरंगत रमेशाच्या नाकामेरेन पावता.

पगार कितलो मेळटा कायं हिका? रमेश पेपरांतली नदर भायर काडिनास्तना आपणाकच प्रस्न विचारता.

ताजे दुसरें मन जाप दिता. चार-पांच साडयो आलटून-पालटून न्हेसली जाल्यार दीसपट्टी नवी साडी जालीना? तशेंच आसतलें.

सविताविशीं ताका चड कांय खबर ना. तिजें रूप ताणे आजून पळोवंक ना. नांव आयकून जाणा. ती दनपारची अवेळार येता तेन्ना रमेश घरांत नासता. सुटयेच्या दिसांनी ती दिसना.

चाळींतल्यो बायलो एकामेकांक वळखतात. पूण तांचेकडेन वासपूस कशी करतलो? सादी खबर विचाल्ली जाल्यार नांव चाळभर जातलें. तरी एक दीस ताणे दुसऱ्या मजल्यार रावतल्या एका भुरग्याक विचाल्लें, "सविता खंय शिकयता?"

हो आनी कसलो प्रस्न अशी नुरा करून तो भुरगो रमेशाकडेन पळयत रावलो. आपलें चुकलें म्हणपाचें रमेश समजलो आनी ओगीच खांकिल्लेभाशेन करून ताणें भुरग्याक वचूंक खुणायलो.

माळयेच्या सोंपणाची रचणूकच अशी, ती चडटल्याचें तोंड दिसता; पूण देंवतल्याचे फकत पांय आनी फाट.

सविताली फाट तो वळखता. फांटीचेर मेकळे सोडून क्लिपान बांदिल्ले केंस आनी वाऱ्यार हुबतलो पदर... आनी तो सेंट.

येवजितां-येवजितां रमेशाक हांसो आयलो. गवाय दिवंक आपयलो जाल्यार आपली फजेत जातली अशें ताका दिसलें. मुखार दोन वा अदीक चलयो उब्यो केल्यो आनी सविता खंयची अशें विचाल्लें जाल्यार आपणाक तांच्या फाटल्यान वचून पळोवचें पडटलें असो विचार तकलेंत आयलो. तो बरोच वेळ तकलेंत घोळत उल्लो.

कॉलेजाचें ताजें निमाणें वर्स. अंदू पास जावंक जाय. मागीर बेकारांचे वळेरेंत एका नांवाची भर घालून नोकरी सोदीत भोवंक जाय. क्लास मेळ्ळो जाल्यार फुडल्यो गजाली. चलयांविशीं येवजीत बसप सोबना.

आंगार झडिल्लो घयरांव चिमटेन धरून काडून उडोवचो तसो सविताचो विचार ताणें तकलेंतल्यान काडलो आनी थारायलें, फाल्यांच्यान सोपणांचेर पांय वाजले तरी नदर वयर करून पळोवप ना.

दुसरेकडेन बसून अभ्यास करतलो म्हळयार जागो ना. फांतोडेर उठून तो भायर बसता आनी पेपर येवन पडलो म्हण्टकच वरभर पेपर वाचीत बसता. फाल्यांच्यान पेपर वाचप ना. नाय जाल्यार त्योच त्योच खबरो परत-परत वाचच्यो पडटात. णव वरांचेर तो घर सोडटा. मागीर कॉलेज, लायब्ररी आनी घरा पावतासर सात जातात. चाळींतलो कुलकुलाट त्या वेळार रंगांत आयिल्लो आसता. उप्रांत अभ्यास करप जमना. दोन खणी चाळींत सात मनशां रावतात. ताका उगडास जाता तेन्नाच्यान तो भायले गॅलरींतच न्हिदता. सकाळीं गवळी दूद घेवन येता तेन्ना तो उठून आपलें हांतरूण कवळटा. मुखावयल्या आंगणात आशिल्ल्या भौशीक नळाचेर वचून तोंड धुता आनी घडयेचें कदेल उक्तें करून अभ्यासाक बसता.

आई मर्दीं एक कप च्या हाडून दिता...

हें सगळें बदलूंक जाय. घर बदलूंक जाय. मनशां आमी. मनशांची जीण जगूंक जाय. त्या कामाक पयशे जाय. त्या खातीर नोकरी जाय आनी बरी नोकरी मेळचेखातीर परिक्षा पास जावंक जाय.

काल रातचीच गजाल. आईन तागेले नोकरीचो विशय काडिल्लो. म्हणिल्लें, "बाबा आतां रिटायर्ड जातलो, रमेशाचेर सगळयांची मदार."

"ताका तागेलो संवसार ना काय कितें? दोन-चार वर्सां सगळयांचो भार तो घेतलो. उप्रांत ताकाय आपलो संवसार उबारचो पडटलो."

रमेश कांय उलयलोना. पूण आपल्या संवसाराचें एक चित्र ताज्या दोळयांमुखार उबें रावलें. सदांच तें रावता...

संवसाराचें चित्र रंगयतना दोळयांमुखार एक रूप नाशिल्ली बायल उबी रावता. आपले जिणेत पळयिल्ल्या बायलांचीं रुपां एका फाटल्यान एक करून तो त्या तोंडाचे रिकामे फास्केंत बसयता. तो ताजो एक आवडटो खेळ. तो खेळ खेळटना वेळ कसो वता हें ताका कळना...

बायल रस्त्यार मेळिल्ली आसूं, सिनेमांनी पळयिल्ली आसूं नाजाल्यार निखटी कल्पनेन रंगयिल्ली आसूं, तिजीं रुपां ते फास्केंत घट्ट बसतालीं. एके तरेन आपली बायल कशी दिसतली, तशें म्हणचेपरसय कशी दिसची हाजी तागेली कल्पना निराकार आकृतींत साकार जाताली.

दर एकल्याची बायल ही सुंदर आसता. आसूंकच जाय. दुसऱ्याक ती दिसना. ताणे घोवाल्या दोळयांनी तिका पळोवंक जाय. पूण रमेशाच्या मुखार एकय तोंडावळो ना.

एक दीस कोणेतरी म्हणिल्लें, "जोडटी बायल मेळ्ळी जाल्यार विवंचना सोंपतली. भावंडांचो आनी आवय-बापायचो भार रमेशाक पेलतलो."

तेन्नासावन रिकामे फास्केंत जोडपी बायलो येवन गेल्यो... कोण डॉक्टर, कोण शिक्षिका, कोण बँकेंतली कारकून... वळेरी सोंपना. दीसपट्टें नवें रूप ते फास्केंत बसून वता.

केन्ना तरी असोच विचार आयलो, सविताक ते फास्केंत बसोवन पळोवपाचो. पूण बसयतलो कसो? तिजो आंगलोट पळयला. तोंड-रूप पळयलेंच ना.

एक नवो ध्यास मनाक लागून उरता. हाताक दकिल्ल्या पणसाच्या दिकावरी. तो पुसतलो म्हळ्यार पुसून वचना. ताका तेलाचो थेंबो जाय... ताका सविताचो तोंडावळो जाय.

अभ्यासाचेर चित्त थिरावतालें. पूण सोपणांचेर पावलां वाजलीं म्हण्टकच कान आनी दोळे तिजेर रोखताले.

निमाणे ताणे थारायलें, आवाज येनाफुडें उठून मुखार वचचेलें आनी कितेंय निमित्त करून सविताक दोळेभर पळोवन घेवचेलें.

निमित्त कसलें करतलो?

सकाळीं रमेश सदांपरस इल्लो बेगीन उठलो. न्हावन-धुवन कपडे घालून तयार जालो. हारशामुखार उबो रावन ताका केंस वळयतना पळोवन आवयन विचार्ल्लें, "आज कॉलेज बेगीन काय कितें रे?"

"ना. मात्सो मित्रागेर वचून येतां. एक पुस्तक हाडूंक जाय." तो उलोवन गेलो.

फटीचीं जाप आपणाक सुचली कशी, हाजें ताकाच अजाप जालें. उप्रांत तो भायर येवन कदेलाचेर बसलो.

मर्दी आवय भायर आयली.

"अजून तूं गेलो ना?"

"मात्सो रावन वतां. तो उठला काय कोण जाणा!" दुसरीय जाप फटीची. पूण आपणाक ती येवजली हाजीच ताका खोस जाली.

आवय उलयली ना. परत भितर गेली.

आयज खुबच प्रतिक्षा करची पडली. ओगीच दुबाव. आज सुटी बी न्हय मू? नाजाल्यार सविताक देंवंक इतलो कळाव कित्याक?

हातांत पेपर. चित्त सोपणाचेर. मिनटां गेलीं... आनी संवकळीचीं पावलां वाजलीं.

पेपर थंयच उडोवन रमेश उठलो. जसो काय आपणाक माळयेर वचपाचें आसा अशा थाटांत सोंपणां चडूंक लागलो. ताजें काळीज धडधडूंक लागलें आनी अवसान घातकी मनान नदर सकयल व्हेली.

'धब्ब... धब्ब' करून सविता देंवताली. ताजे कुशीच्यान गेली. तिज्या आंगाक आफुडिल्लो वारो ताच्या कानसुलांक आफडून गेलो. पूण नदर वयर करपाचो धीर ताका जालोना.

पावलांचो आवाज विरत गेलो तसो एक व्हड सुस्कार सोडून रमेश उबो रावलो आनी फाटले वटेन पळयलें.

त्याच खिणाक निमाणे सोपण देंवन उबी राविल्ले सवितान फाटले वटच्यान नदर केली. रमेशाच्या दोळ्यांचो कॅमेरा क्लीक जालो. एक अस्पश्ट हांसो सविताच्या तोंडार उदेलो... काय तो भास आसलो?



# २

# घर

कॉलेजांतल्यान परत येना आसतना सिध्दीक प्रमिला मेळळें.

दोगांय एकमेकांक केदो वेळ पळयत रावलीं. सिध्दीच पयलीं हांसलें आनी विचाल्लें, 'तूं प्रमिला न्हय गो?'

'सिध्दी!' म्हणून प्रमिलान ताका वेंग माल्ली.

दोगांयलींय घरा शेजराक आसलीं तेन्नासावन तांची वळख. मुळावे शाळेक, सांगातान गेल्लीं. एकाच वर्गांत शिकतालीं. उप्रांत सिध्दील्या बापायन गांव सोडलो. शारांत फ्लॅट घेतलो आनी सिध्दीच्या वांट्याक एक नवी जीण आयली.

मजगतच्या काळांत बारा वर्सां उलगल्लीं. ल्हान भुरगीं आतां वयांत आयिल्लीं. दोगांयच्याय आंगाचेर पंजाबी सूट चडिल्ले. वाडटे पिरायेवांगडा रूपांच न्हय, तर आवडी-निवडी आनी सभाव लेगीत बदलिल्ले. पुण पयलेच भेटेंत दोगांय एकमेकांक वळखल्लीं.

'तुमी अजून त्याच घरांत रावतात?' सिध्दीन प्रमिलाक विचाल्लें.

'हय. तुमी रावतालीं त्या घरांत आतां दुसरे लोक रावंक आयल्यात.' प्रमिलान सांगलें.

सिध्दीक वायट दिसलें. कित्याक कोण जाणा, भुरगेपणांतल्या त्या घराचो उगडास

ताज्या मनांत घट उरिल्लो. शारांतली जीण वेगळे तरेची. घराचो आटाप फ्लॅटा पुरतो. मुखावयल्या फ्लॅटाकडेन लेगीत केन्ना संबंद येना. दोन रूमांचो फ्लॅट. एका रूमांत सिध्दी आनी तागेली व्हडली भयण प्रिया न्हिदतात. दुसऱ्या रुमांत तांगेलो आवय-बापूय.

सोयी खूब आसात, पुण फ्लॅटाक घराचें घरपण येना. देखून जेन्ना-जेन्ना सिध्दी घराचो विचार करतालें, तेन्ना-तेन्ना ताज्या दोळयांमुखार भुरगेपणांतलें घर उबें रावतालें. तें आपलें घर अशें ताका दिसतालें.

आतां त्या घरांत दुसरे लोक रावंक आयले जाल्यार आपलें अशें घर उल्लें ना अशी भावना ताज्या मनांत दाटून आयली. तें खंती जालें.

दोगांय बसीच्या स्टॉपाचे दिशेन चलतालीं. पुण सिध्दी आपल्या विचारांतच शेणिल्लें.

'कितें येवजिता गो तूं? प्रियाताई कशें आसा? लग्न जालें ताजें?' जाण्टे बायलेक सोबत अशे प्रस्न प्रमिलान एकदम विचाल्ले.

सिध्दीक जाप दिवची पडली. 'प्रियाचें लग्न थारलां. घोव अमेरिकेक आसता. फुडल्या डिसेंबरांत येतलो तेन्ना लग्न जावन प्रिया घोवांगेर वतलें... अमेरिकेक वतलें. पासपोर्ट तयार आसा. व्हिसा मेळोवपाची खटपट चल्ल्या.' सिध्दीक आयकून खबर आसलें तें सगळें ताणे प्रमिलाक सांगून उडयलें.

मागीर ताका येवजलें, प्रमिलाच्या घरची खबर ताणे घेतलीच ना. ताणे प्रमिलाचे आवयची वासपूस केली.

तेन्ना प्रमिला ही आवय बापायली एकच धूव आसली. बापायलें गांवांत दुकान आसलें. दुकानाचो उगडास जातकच सिध्दीन बापायची खबर घेतली आनी विचाल्लें, 'अजून तुमचें दुकान चलता न्हय?'

'हय, आनीक एक गजाल तूं नकळ...' प्रमिलान म्हळें, 'म्हाका एक ल्हान भाव आसा. गांवांतच हायस्कुलांत शिकता. सिध्देश ताजें नांव. तुजी याद म्हणून आईन ताका सिध्देश अशें नांव दवल्लां.'

खंय तरी एक सुखाची कळ सिध्दीच्या काळजांत येवन गेली आनी तें हांसलें. ताणें म्हळें, 'तूं केन्नाय आमगेर यो. आई आनी प्रिया तुका पळोवन खुशालभरीत जातलीं.'

'एक दीस येतां. आईकच घेवन येतां. तूंय एक दीस आमगेर यो. तुका सिध्देशाक पळोवंक मेळटलें.'

बस स्टॉपाचेर तांच्यो दिशा बदल्ल्यो. प्रमिलाली बस पयलीं आयली आनी हात हालोवन सिध्दीचो निरोप घेवन तें बसींत चडलें.

बस येईसर सिध्दी भुरगेपणाच्या यादींनी रंगून गेलें...

आंगणात रेंव आसली. रातीकडेन पावस पडून सगळी रेंव ओली जाल्ली. सिध्दी आनी प्रमिला दोगांय रेंवेंत खेळटालीं. खेळटां-खेळटां दोगांनीय घर बांदपाचें थारायलें.

दोगांय घर बांदपांत गुल्ल आसलीं. इतले मजगती प्रमिलाली आवय भायर आयली. भुरग्यांक घर बांदतना पळोवन लक्तुबांयेन विचाल्लें, 'कितें करतात गो तुमी?'

'घर बांदतात.' दोगांनीय एकाच वेळार जाप दिली.

'दोगांखातीर एकच घर...?' हांसून तिणे विचाल्लें आनी ती भितर गेली.

सिध्दीच्या मनांत कितें आयलें कोण जाणा! ताणे बांदिल्लें घर मोडलें आनी प्रमिलाक सांगलें, 'तूं तुजें घर वेगळें बांद. हांव म्हजें वेगळें बांदतां.'

प्रमिला रडत भितर गेलें. सिध्दीय आपल्या घरांत गेलें.

बसीच्या स्टॉपाचेर उबें राविल्लेकडेन तो प्रसंग सिध्दीच्या दोळयांमुखार आयलो आनी तें हांसलें. पुण त्या हांशांत एक दुःख आसलें. भुरगेपणांतल्या खेळांत लेगीत आपलें घर बांदपाचें उरिल्लें म्हणपाची याद त्या हांशाचेर खंतीची सावळी पातळावन गेली.

घरा पावलें. फ्लॅटाच्या दारावयली बॅल वाजयली. आवय भितल्ले वाटेन आसली. तीन खेपे बॅल वाजोवची पडली.

दार उक्तें जालें. सिध्दी वचून आपले कुडींत खाटीचेर बसलें.

फाटोफाट भितर आयिल्ले आवयन विचाल्लें, 'कितें जालां तुजें?'

'कांय ना... आज प्रमिला मेळिल्लें. कोण प्रमिला जाणा तूं? आमचें शेजारी.'

'ताका आमगेर हाडपाचें न्हय तुवें?' आवयन म्हळें.

'एक दीस येतां म्हळां ताणे.' सिध्दीन जाप दिली, 'प्रियाचें लग्न जालें काय म्हणून विचारतालें. आनी जाणा तूं आई, प्रमिलाक एक ल्हान भाव जाला. म्हजी याद म्हणून ताजे नांव सिध्देश दवरलां खंय.'

सिध्दी सांगतालें आनी आवय उगडासाच्या तळयांत पेंवत आयकून घेताली.

'... आई, आमच्या त्या घरांत आतां दुसरें बिराड रावंक आयलां खंय. आमकां घरच ना गे?' अचकीत सिध्दीन प्रस्न विचाल्लो.

' हें न्हय गो आमचें घर!' आवयन म्हळें.

'हे कसलें घर...? हो फ्लॅट!'

'तुका मानवना मगो? मागीर बरें घर आशिल्लो घोव पळोवन तुका लग्न करतां. घोवाचें घर हेंच चलयांचें घर आसता.'

सादेपणान आवय उलोवन गेली. पूण उमेद आनी खंत हांचीं ल्हारां एकाच वेळार सिध्दीच्या काळजांत उदेलीं. तें घर गांवचें; हो फ्लॅट कुळारचो... म्हजें घर... म्हजें घर अजून बांदचें आसा!



# ३

# सपन

‘कित्याक म्हणून कोण जाणा, रातीची म्हाका न्हीद येना.’ मिंगेल सहज उलोवन गेलो.

सगळे हांसले.

हातूंत हांसपासारकें कितें आसा हेंच मिंगेलाक कळ्ळेंना.

दर्याचे वेळेर सांजेच्या वेळार सगळे बसून खबरो करताले. सगळे एका वाड्यावयले. एकेच पिरायेचे. पूण वेगवेगळया धंद्यांतले. काश्टी न्हेसून काम करपी कश्टाळू लोक ते. पूण ह्यावेळार सगळयांच्या आंगार पॅण्टां-शर्टां आसात. सगळयांचीच पिराय चाळीशींतली.

खबरी सांगूंक मिंगेल हुशार. आदल्या दिसा आयिल्लो एक अणभव संवगड्यांक सांगपाखातीर प्रस्तावना करतना ताणे आपणाक रातीची न्हीद येना अशें सांगलें आनी सगळे हांसले.

मिंगेलान रागान सगळयांकडेन पळयलें. तरी ते हांसत रावले. आपणाक ते चाळयतात अशें दिसून मिगेल रागार जालो. ताणें म्हळें, ‘तुमी मस्करी करतात जाल्यार हांव सांगिना.’

‘ना रे मिंगेल, आमी मस्करी करीनात. पूण तुवें जे भाशेन न्हीद येना म्हूण सांगले तें पळोवन आमकां हांसूंक आयलें.’ फिल्सून ताका समजायलो.

‘सारकें सांग ताका.’ पेद्रून म्हळें, ‘हे पिरायेचेर आंकवार आसल्यार रातीकडेन न्हीद येना. तूं आंकवार न्हय रे? देखून आमी हांसले.’

आपल्या वर्माचेर बोट दवल्लां अशें दिसून मिंगेल एकदम खुबळ्ळो आनी उबो रावन ताणें म्हळें, ‘तुमकां मरे, नस्तीं फकाणां येवजतात. उल्लो हांव आंकवार म्हणून कितें जालें? उरफाटो तुमचे परस हांव नशिबान बरो. तुमकां जिवीतभर एकेच बायलेचो सांगात... म्हाका कसलीच आडखळ ना.’

फिल्सून उबो राविल्ल्या मिंगेलाचो हात घट धरलो आनी म्हळें, ‘जाणात रे आमी. पूण तुगेली खबर तरी सांग. अशी बरी खबर मनांत दवरून गेलो जाल्यार तुजें मन तुकाच खातलें...’

‘सांगतां हांव. पूण एक अट...’ मिंगेलान म्हळें, ‘मदीं कोणेंच हांसूंक जायना. ओगीच हांसले म्हण्टकच सांगपी पिसो थारता आनी उमेद मरता.’

सगळयांनी तोंडां गंभीर केलीं आनी तोंड धांपून हांसप चिड्डुपाचो यत्न केलो.

‘तर... कितें सांगतालों हांव?’ आपली कथा सुरू करपाखातीर मिंगेलान प्रस्न केलो.

'तूं सांगतालो रातीकडेन तुका न्हीद येना म्हणून...' कोणे तरी ताका याद दिली.

सगळे परत हांसले. पूण हे खेपे मिंगेल तिडकलोना.

ताणें म्हळें, 'तुमी अशे हांसूंकच उरतले.' आनी आपली कथा तो सांगूंक लागलोः

काल आमच्या घुडांतलो कोंबो फांतोडेर रडलो. भायले वाटेन चान्ने पडिल्लें. हांव रातभर न्हिदूंक नासलों. म्हाका दिसलें, दीस उदेला आसतलो. उठलों. तोंड धुलें आनी आंगार कपडे चडोवन हांव त्या चान्न्यांतच वेळेर गेलों.

बरो मुखार पावतकच हांवें पळयलें, अजून फांतें जावंक ना. पूण वेळेर बोवाळ आसलो. खारवी रांपण ओडटाले. हांव बऱ्या वेळार पाविल्लों. रांपणीक हात घालो जाल्यार म्हज्या वांट्याक थोडें नुस्तें येतलें. तातुंतलें थोडें विकतलों आनी थोडें घरा व्हरतलों अशें येवजून हांव रापणीकडेन गेलों.

राजवाक हात घालो मात, एक खारवी सुणो कसो म्हज्या आंगार आयलो. 'राजवाक हात लावंनाका.' ताणे म्हळें, 'वांटो व्हरूंक सोदता? आयज कांय मेळपाचें ना. विस्वण पडल्यात... विस्वण.'

हांव ताजेर बेजार जालों. पूण करतलो कितें? कुशीक उबो रावलों आनी मागीर वयले वाटेन वचून बसलों.

रांपण लागीं पाविल्ली. वेळ वता तसो चान्नें बावून उजवाड फांकलो आनी वेळेवयले मनीस वळखूंक आयलेना तरी दिसूंक लागले.

नुस्तेकान्नी गर्दी करून आसल्यो. कांय पुंजक्यांनी कुशीक बशिल्ल्यो. हांव वयले वाटेन बसून रावलों. रांपण वयर आयली आनी नुस्त्याच्यो राशी पडल्यो. पाटीं भरूभरून नुस्तेंकान्नी नुस्तें विकत्यो घेताल्यो. अजून कावळे उठूंक नासले. पूण खुबशीं सुणीं थंय जमिल्लीं. इतलीं सुणीं खंयच्यान आयिल्लीं देवाक खबर!

हांव पयस बसलां. मनांत येवजितां, परत रांपणीकडेन गेलों जाल्यार घडये एकाद्रो विस्वण हाताक लागत. पूण परत त्या खारव्यालो धेंगसो घेवपाची तयारी नासली. हांव थंयच बसून रावलों.

एक बायल रांपणीकडच्यान वयर येता. माथ्यार एक पाटें आनी खाक्यांत एक पाटुलो. पाट्याक धल्ला त्या हातांत एक विस्वण. भुसभुशीत रेंवेत पावलां उखलतना ती लकता. म्हजे दिकेनच वयर सरता.

काळखांत ती वळखूंक येना. पूण सांवळी कशी फुडें सरतना ती म्हाका दिसता. तिका वजीं जड लागतात. भरीक भुसभुशीत रेंव जाल्ल्यान चलतना तिजीं पावलां जड जातात. वांकडीं पडटात.

म्हजेसरीं पावतां - पावतां तिजो तोल गेलो आनी ती पडली.

हांव बशिल्लेकडेन आसा. तिका पळयतां. रांपणीकडेन बोवाळ चालू आसा. ती पडली हें कोणाक खबर ना. दोनय पाटल्यांतलें नुस्तें रेंवेत शिंपडलें. म्हाका दिसलें उठचें आनी तिच्या आदाराक वचचें. पूण हो संवसार बिर्मतीचो. बऱ्याक गेल्यार नस्तो आळ येत म्हणपाची भिरांत. हांव बसून रावलों.

ती बायल उठून उबी रावता. हातांनी आंगावयली रेंव फाफुडटा. न्हेसणाच्या पदरान तोंड पुसता आनी म्हाका म्हण्टा, 'तूं भेड्डो काय कुड्डो रे?'

आवाजान हांव वळखलों. लुसी! लुसी तुमी जाणात, तारवटी मिरसांग! दिसूंक सोबीत. पूण जिबेक लागल्यार हुलपता...

हांव उठून उबो रावलों. 'कितें जालें लुसी?' हांवें विचारलें.

काळखांत दोळे तटास करून लुसीन म्हजेकडेन पळयलें. वळख घेतली आनी अजापून म्हळें, 'मिंगेल तूं? ह्या वेळार हांगा बसून कोणाची वाट चोयता? कोणे येता म्हळां काय कितें रे?'

हांवें म्हळें, 'तुजेभाशेन आमचें कुंड्यार शिजना. आमकां कोण आपयना आनी लागीं उबो करिना.'

'तें आसूं. मात्सो म्हाका आदार कर मरे. सुवार्थान हांवें विस्वण मोलायले. गांवांत पावले जाल्यारच पयशे मेळपाचे.'

हांव उठलों आनी रेंवेंत शिंपडिल्ले विस्वण पुंजायले. परत पाट्यांत भल्ले आनी व्हडलें पाटें म्हज्या माथ्यार घेवन लुसीक म्हळें, 'तूं तो धाकलो पाटलो धर.'

'जड आसा तो. आनी तुजेकडेन चुंबळ लेगीत ना.' लुसीन म्हळें.

म्हाका फकाणां येवजलीं. हांवें म्हळें, 'तुजो पाटलो जड कसो आसतलो, लुसी? तो तुज्या माथ्यार आसल्यार म्हजें काळीज चिड्डतलें आनी म्हज्या माथ्यार आसल्यार तो फुलावरी ल्हव जातलो.'

'उलोवंक बरो शिकला मरे तूं मिंगेल!' अशें म्हणून लुसीन फुडें पावलां उखल्लीं. हांव फाटल्यान चलूंक लागलों.

रेंवेची वेळ हुपून आमी भाटांत पावलीं तेन्ना अचकीत काळोख जालो. चंद्रीम अस्ताक गेल्लो, पूण सूर्य उदेवंक नासलो.

'एकदम काळोख जालो मगो.' हांवें लुसीक म्हळें.

'तूं शिंतिदान पावलां उखल. आपटुशीत.' लुसीन सांगलें.

'हांव जाणा गो. तुका म्हजे परस तुगेल्या विस्वणाची चड माया....' हांवें म्हळें.

'अशें कित्याक म्हण्टा तूं मिंगेल?' ताणे आपलो मेकळो हात म्हजे फाटीर दवरीत म्हळें.

कितें जाले म्हणून सांगू तुमकां? सगल्या आंगातल्यान जोगूल देंवलें.

गांवचे शिमेर पावसर आमी जायत्यो खबरी केल्यो. लुसीचो सांगात आनी काळजाक कातकुतल्यो करपी खबरो! माथ्यावयलें पाटें खऱ्यांनीच ल्हव जालें. सामको काळोख म्हळयार... मुखावयलो मनीस दिसनासलो. माथ्यार पाटें नाशिल्लें जाल्यार हांव कितें करतलों आसलों तें म्हज्यान सांगूं जायना.

'आनी तुवें कितेंय केलें जाल्यार लुसी ओगी रावपाचें काय कितें?' कोणे तरी म्हळें.

तुमकां सांगल्यार फट दिसतलें; पूण लुसीचें एक वेगळेंच रूप हांवें देखलें. म्हज्या

उपकाराचो भार ताच्या मनांत आसलो म्हणून काय कितें ते हांव नकळ, पूण तें सामकें म्हाका तेंकून चलतालें. फाटीवयल्यान आपलो हात भोंवडायतालें. आनी मोगांत पडचें तशें उलयतालें...

हांवें विचाल्लें, 'सगळें नुस्ते घेवन तूं बसीन शारांत वतलें?'

'पळयतां. मदीं ट्रक बी मेळ्ळयार आदींच वतलें.' लुसीन जाप दिली.

आमी गांवांत पावलीं तेन्ना कावळे रडूंक लागिल्ले. म्हज्या माथ्यावयलें पाटें लुसीन देंवोवन घेतलें. रस्त्याचे कुशीक उबें रावन ताणे म्हाका विचाल्लें, 'मिंगेल, एक विस्वण व्हरता?'

'नाका. हांव विस्वण व्हरून कितें करूं? कोण रांदतलो?' हांवें म्हळें.

'जाणा मरे मिंगेल, म्हाका तुजी काकुळट दिसता. तूं असो एकलो कितले दीस रावतलो? कसली जीण रे तुजी! दीसभर इतलें काम करता. कोणापासत? तुका कसलें सुख?'

लुसीचो तो प्रस्न आयकून हांव लजेलों. म्हाका दिसलें, तें म्हाका कितें तरी सुचयता.

ताणे आपले किरवंटीच्यो नोटी काडल्यो आनी वीस रुपयांची एक नोट म्हज्या मुखार धल्ली.

'हें कितें?' हांवें ताका विचाल्लें.

'तुंका आनी कितें दिवं? तुवें म्हजेर उपकार केले.'

'उपकाराची भास उलय नाका, लुसी. तुवें म्हाका सांगात दिलो. ते तुजे थोडे उपकार?'

एक ट्रक आयलो. लुसीन थांबयलो. ल्हान व्हड पाटले ट्रकांत हांवेंच चडयले. लुसी मुखार बसलें. ट्रक सुटच्या वेळार ताणें म्हाका सांगलें, 'आयचे भाशेन फाल्यां फांतोडेर यो वेळेर. हांव तुजी वाट पळयतां.'

मिंगेलान खबर सांगून सोंपयली तेन्ना सगळेच अविस्वासान ताजेकडेन पळोवंक लागले.

'रातीची न्हीद पडना म्हण्टालो न्हय रे तूं मिंगेल?' फिल्सून खंवचटपणान विचारलें, 'मागीर जागो आसतनाच लुसीचीं सपनां तुका पडटात काय कितें रे?'

सगळे हांसले. हे खेपे खळखळून हांसले.

तिडकून मिंगेल उठलो...

'सपनां म्हणात तुमी... एक दीस खरें कितें तें तुमकां कळटकच शेळेतले...'

पांय आपटीत तो गेलो.



# ४

# पिटकोळेचें फूल

रस्त्यावयल्यान चलतां-चलतां विवेक परत एक खेपे थांबलो. दनपारच्या वताचो रखरख. डांबरी रस्तो वतान तापिल्लो आनी विवेकाच्या पायांत रबरी जोतें आसतनाय तापेचो धग ताज्या तळव्यांक लागतालो.

उजवे कुशीक पयस एक आंब्याचो रूख आसा. ताजी दाट सावळी रुखाच्या मुळांत पातळळ्या. ते सावळेंत चार गोरवां सुखावयल्यांत आनी तांचे फाटीर बशिल्ले कावळे गोरवांच्या आंगावयल्यो हुलको सोदूंक गुल्ल आसात.

खरें म्हळयार थोडो वेळ रुखातळा वचून शितळ सावळेंत उबो रावचें अशें ताका दिशिल्लें. पूण तेखातीर तो थांबूक नासलो.

दावे वटेच्यान एक झोंप मातलां. कितल्याशाच तरांचीं झाडां आनी वाली एकामेकांत घुस्पून रस्त्याचे कुशीक आसात. येतल्या वतल्या मोटारींनी हुबयिल्लो धुल्ल आनी धुंवर त्या झोपांतल्या झाडांच्या पानांचेर दाटला. पूण झाडां रसरशीत आसात. त्या झाडांच्या मदेंकात खंय तरी एक पिटकोळेचें झाड आसा. ताजी एक खांदी झोपांतल्यान वाट काडीत भायर आयल्या आनी ते खांदयेच्या तोंकाचेर एक विलोदी घोंस आसा. फुलांचो आनी कळयांचो. रगताच्या रंगाचो घोंस.

विवेकाक तें अप्रूप दिसलें. तें अप्रूप पळोवंकच तो थांबलो. वयले वटेन एक भौशीक नळ आसा. ताजें उदक व्हांवता. देंवती देंवतना तें वझऱ्यावरी खळखळटा. झोंप रस्त्याचे कुशीक आशिल्ले खळयेचे धडेर उबें. मुळांत ल्हानशें फोंडकूल. त्या फोंडकुलांत तें उदक थारता आनी उपरांत गळसणून खळयेंत देंवता. कुशीकच एक साकव. त्या साकवाच्या कानांत उदकाचो पाट भितर सरता आनी उपरांत खंय वता देवाक खबर!

ल्हान झोंपांची आनी किरकोळ झाडांची जियेवपाची आसक्ती पळोवन विवेक विस्मीत जालो. रस्त्याच्या दोशीं पावसांत वाडिल्लें तण येन्नासर सुकून करपून गेलां. तुंब्याचीं, तायखिळयाचीं ल्हान-ल्हान झाडां सांगाडे जावन उबीं आसात. पूण ह्या रखरखामदीं किरकोळ झोंपां रसरशीत जीण जगतात.

ताणे बरीकसाणेन पळयलें. मुळांत आसा एक बोरीचें झाड, जें सुमार मीटरभर वाडलां. त्या झाडाच्या नाड्याचेर हेर रूखांनी आनी वालींनी आपलो संवसार थाटला. तांचेमदीं आसा एक खुजलेची वाल आनी ज्याचे मूळ दिसना पूण कोंब्याच्या शेंकऱ्यावरी वयर सरिल्लो फुलांचो घोंस तितलो नदरेन भरता अशें पिटकोळेचें झाड.

पिटकोळेचें झाड पळयतकच विवेकाचें चित्त प्रसन्न जाता. ल्हानपणातसावन अशें जायत आयलां. पिटकोळेचीं फुलां-फळां म्हळयार विलोदाची अप्रुपां. कांय कडेन

हळडुवीं फुलां फुलतात. तीय सुंदर आसलीं तरी विवेका पळेयनात. पुण तांबडी फुलां पळयनाफुडें तो पिशांतरावरी जाता. माडावरी उडयो मारीत भुरगेंपण ताज्या मुखार नाचूंक लागता.

ल्हानपणांत तो पांख्यांफाटल्यान धांवतना पिटकोळेचीं फळां आनी फुलां पुंजायतालो. आयतार वा बुधवार आसल्यार पांच पाकळयांचें फूल सोदतालो. कोणेतरी ताका सांगिल्लें कि आयताराक आनी बुधवाराक पांच पाकळयांचें पिटकोळेचें फूल मेळ्ळें जाल्यार भाग्य फळफळटा. बुध्द वाडली तशी ह्या समजांत अर्थ ना म्हणपाचें ताका कळूंक लागलें. तरी अजूनय पिटकोळेचें फूल दिसलें जाल्यार तो वार खंयचो तें येवजिता आनी आयतार वा बुधवार आसलो जाल्यार पांच पाकळयांचें फूल सोदूंक वरभर वगडायता.

तशें ताका भुरगेपणांत पांच पाकळयांचें पिटकोळेचें फूल जायते खेपे मेळ्ळां. फूल मेळटकच खोशयेच्या उमाळयाभरशीं उडयो मारीत ताणे तें फूल व्हरून घरांतले देवाचे मुर्तीक ओंपलां... पूण अजून ताजें भाग्य फळफळूंक ना.

भुरगेपणांतले दीस सोंपून जुवानपणांतले दीस सुरू जाले. सुमना सांगातान तो हायस्कुलांत वतालो. दोगांय एकाच गांवचीं. शाळा तीन मैलांचे वाटेर. चली भुरगें एकलें कशें वतलें? सुमनाक विवेकाचो सांगात आनी धीर. दोगोंल्याय घरच्यांनी हे वेवस्थेक मान्यताय दिल्ली. ताका लागून दोगांकय हुस्क्यामेकळी मेकळीक मेळटाली.

मोगाची एक मोनी कळी दोगांच्याय काळजांत त्या अदमासाक फुल्ली. काळजाक तान लागिल्ले सारकी ती अवस्था. सुमन सदां मेळटालें. वतना येतना एका एका वराचो सांगात आनी एकांत आसतालो. पूण रातीकडेन मनांत येवजून दवरिल्लीं उतरां सुमनामुखार केन्ना तोंडातल्यान भायर सर्ल्लीं नात. उदेत्या सुर्याच्या किर्णांवांगडा वातावरणांतलें धुकें विरून वचचें तशें सुमनाचें मुखामळ पळयनाफुडें तो उतरां विसरतालो... खऱ्यांनीच तो मोनो जातालो. सुमन उलयतालें आनी तो पळयत रावतालो...

सुमन गिरेस्त घरची चली. हायस्कुलांत वतना विवेकाच्या आंगार मोटवी खाकी पँट आनी तसलोच शर्ट. सुमन उंची उंची कपडे घालतालें. गळयांत कानांत हातांत भांगर आसतालें. ताका दिसचें आपणाक जरी सुमनाची ओड दिसली तरी ताज्यो आपल्यो वाटो वेगळयो.

एक दीस ताणे कवितेंत वाचले, 'चार दोळे एक जातात... तेन्ना मोगाची कळी परमळटा.'

कितें तरी समजता आनी कितेंतरी समजना असो विचारांचो आनी प्रतिमांचो आपालिपाचो खेळ त्या दिसांनी तो खेळ्ळो. आपल्या मनांत एक कळी आसा... मोगाची मोनी कळी... ती कशी परमळावचेली?

एक दीस तो सुमनाले नदरेक नदर दिता. आनी दोळयांक दोळे भिडले तशे सुमनाले दोळे बंद जातात. तें तकली सकल करता... लजेन तांबडें जाता...

'तूं असो म्हाका पळयत रावं नाका... म्हाका भंय दिसता.' तें म्हणटा.

तो काचाबूल जाता. पूण जाप दिना.

शाळेचे निमाणे दीस दोगांकय अस्वस्थ करतात.

एक दीस तें म्हणटा, 'फुडल्या वर्सा हांव मामागेर वतलें. कॉलेजाक... तूं कितें करतलो?'

तो सुस्कार सोडटा. तो जाणा, मॅट्रीके उपरांत ताजें शिक्षण बंद जातलें. कसली तरी एक नोकरी तो करतलो. खंयचेय खाणीचेर मास्तर जातलो ना जाल्यार दुकानांत काम करतलो. त्या काळार दुसरे नोकरेचें सपन चडशे तरणाटे पळयना आसले.

निमाण्या दिसाचो ताका अजून उगडास आसा. बुधवारची सांजवेळ. सूर्य अस्तंतेक देंवला. दोगांय शाळेंतल्यान घरा परत येतात. वाटेंत रस्त्याचे कुशीक पिटकोळेचीं झाडां फुल्ल्यांत. तो एक घोंस खुडटा. त्या घोंसांत पांच पाकळयांचें एक फूल. अचळय तें फूल काडून तो सुमनाच्या हातांत दिता. म्हणटा, 'आज बुधवार आनी हें पांच पाकळयांचें पिटकोळेचें फूल. आमचें भाग्य फळफळटलें पळय तूं...'

सुमन निखटें हांसता.

विवेकाक दिसता, काळजांतलो मोनो कळो आतां फुल्ला... परमळ्ळा.

भाग्य फळफळ्ळें सुमनाचें. तो रानांतले खाणीचेर मास्तर जालो. धुल्लान भरिल्ले तापांचे जिणेंत ताजीं सगळीं सपनां करपलीं... सुमन खंय पावलें ताका खबर ना. डॉक्टर जावन अमेरिकेक गेलां अशें ताणें आयकल्लें.

आयज जिणेची सांजवेळ घेरून आयल्या. सुखाचो दीस अजून ताणे पळोवंक ना. बसीचे भाडें वाटावचेखातीर दनपारच्या वतांत तो चलता...

अचकीत ताका कितें येवजलें कोण जाणा. विवेक झोंपासरीं गेलो. पिटकोळेच्या फुलांचो घोस ताणे अचळय खुडलो आनी बारीक नदरेन निरखिलो.

अजापाची गजाल! मदींच एक पांच पाकळयांचें फूल. खोशयेचो चंवर आंगार फुल्लो. तें फूल काडूंक ताणे बोटाचे चिमटेंत देंठ धल्लो. ल्हवू तें खुडूंक लागलो. देंठापसून फूल खुडटना पांचय पाकळयो विस्कटून सकयल पडल्यो.



## ५

# सोनचांफो

सोनचाफ्याचें एक माणकुलें फूल. फिक्कट हळडुवो रंग. काळया केंसांत तिणे तें माळिल्लें.

रस्त्यान ती फुडें चलता आनी तिज्या फाटल्यान तो.

निकतीच पावसाची दडक झडून गेल्या आनी निवळ जाल्ल्या मळबांतल्यान सुर्याचीं किर्णां धतरेचेर पातळूंक लागल्यांत. मुखार वतले चलयेच्या माथ्यार भांगरा रंगाचीं केर्णां पडिल्ल्यान तिजे मेकळे केंस आनी त्या केंसांमदीं लिगान खोयिल्लें सोनचांफें खेणाखिणाक आपले रंग बदलता. केन्ना ताजेर भांगराची ओप चडटा, जाल्यार केन्ना ते मोगरेवरी धवें फुल्ल दिसता.

मुखार वतले चलयेच्या आंगार शिफॉनची हळडुवी साडी आसा. त्या सोनचांफ्याच्या रंगाकडेन मेळ बसत असो साडयेचो रंग. तसलोच ब्लावज. उखलिल्ल्या पावलासरशीं तिच्या आंगाची हालचाल जाता. नर्तकीच्या तालासारकी. तिजें तोंड ताका दिसना. पूण ती सुंदर आसुंये अशी ताजी कल्पना.

ताका सदांच एक प्रस्न पडटा. जेन्ना आमी एकाद्रें सुंदर फूल पळयतात, झाड पळयतात वा सूर्यास्त-सुर्योदयाचो देखावो पळयतात, इतलेंच न्हय तर एकाद्रें हांसतें भुरगें आमकां दिश्टी पडटा, तेन्ना आमचे दोळे सुखावतात आनी त्या सुखाचो आनंद भोगचेखातीर आमी मेकळया मनान खीण दोन खीण तांचेर नदर थिरायतात.

पूण रस्त्यार एकाद्री सुंदर बायल दिसली आनी तिजें सौंदर्य तोखेवंक वा ओखेवंक एकाद्रो दादलो अविचळ नदरेन तिका पळयत रावलो जाल्यार दुसरे लोक तर ताका दूशण दितातच, पूण खासा ती बायल लेगीत त्राशीक नुरा करून मारके म्हशीभाशेन ताका पळयता. असल्या वेळार पळयतल्याक लज जाता.

जेन्ना एकाद्रो मनीस - दादलो आसूं बायल - साज-श्रृंगार करता तेन्ना तो कोणाखातीर आसता? जर दुसऱ्यांनी आपणाक पळोवचें अशें ताका वा तिका दिसनाशिल्लें जाल्यार श्रृंगाराचीं तरेकवार साधनां वापरून तो हारशामुखार वरांची वरां वगडावचो नासलो. तातूंतय बायलो जेन्ना भायर सरतात तेन्ना आपलो रंग, आपलें रूप उजळ जावन नदरेंत भरचें हाजी जतनाय घेतात. अशें आसुनय परकी दादल्यान जर तिजेकडेन पळयलें जाल्यार ती फणफणटा. दुसरे दादले लेगीत ताका दूशण दितात. पूण तीच बायल तिज्या रूपाक वा भेसाक दुसरी बायल तोखेली जाल्यार सुखावता.

कुरुपांतल्या कुरूप मनशांत लेगीत सौंदर्याचो एक अंश आसता आनी तो अंश जाका होलमता ताका तो मनीस आवडूंक लागता. जो मनीस आवडलो वा जें रूप

आवडलें तें दुसऱ्यांनी पळयलें जाल्यार तांचें चुकलें कितें? जांकां दुसऱ्याची नदर सोंसना ताणी बुरखो कित्याक घालचो न्हय?

हे विचार दुसऱ्याक कसो सांगतलो? पूण जेन्ना जेन्ना तो सुंदर बायलेक पळयता तेन्ना तेन्ना ताज्या वांट्याक लज कित्याक येवची? आपणे चोरी करूंक ना. सभ्यतेची मर्यादा हुपूंक ना. आनी खरें म्हळयार आपले नदरेंत सौंदर्याचे लक्तुबाये बगर दुसरें कांय ना. तरी एके बायलेचो आंगलोट, तिचें रूप, तिचो भेस तोखेवंक गेल्यार समाज दूशण कित्याक दिता?

आजय हो प्रस्न ताचे तकलेंत घोळटालो. पूण तो हुस्क्या मेकळो चलतालो. धा-वीस फुटांच्या अंतराचेर फुडें ती चलताली. रस्त्यार येरादार आसली. फुडें ती. फाटल्यान तो. हय, तिचे चालीकडेन मेळ दवरचे खातीर ताणे आपली चाल मंद केल्ली.

चलतां चलतां तिजे साडयेच्या पोंताक रस्त्यावयली कांट्याची बडी लागली. ती थांबली आनी फाटल्यान पळयना आसतना उजवो पांय वयर काडून ती बडी हातांत येता काय म्हणपाचो तिणे अदमास घेतलो. ल्हानच बडी. कांटो साडयेंत रोंबिल्लो.

ताका दिसलें दोन पावलां घसघशीत उखलचीं आनी तिगेले साडयेक रोंबिल्ली कांट्याची बडी काडून उडोवची. पूण आपलो हेतू शुध्द म्हणपाचें लोकांक सोडाच, तिका तरी दिसत काय? विचार मनांत आयलो आनी तो ओगी रावलो.

ते चलयेची कुचमण पळयात. रस्त्याचेर उबी रावन साडी वयर काडून कांट्याची बडी कशी काडटली? ती मात्शी कुशीक उबी रावली. तितले मजगतीं तो तिजेसरीं पावलो.

तिज्या तोंडाकडेन पळयतलो जाल्यार ताका एक निमित्त जाय आसलें. ताणे तिका विचारलें, "कितें जालें?"

हांशिल्ले भाशेन तोंड करुन तिणे म्हळें, "कांय ना."

तो मनांत निर्शेलो. हो नसतो संकोच ही चली कित्याक करता, अशें ताका दिसलें. तिणें सांगिल्लें जाल्यार तो ती कांट्याची बडी काडून उडयतलो आसलो.

इतलें येवजितासर ताणे तिका पळोवन घेतली. ताजी थोडी भोव निराशाच जाली. फाट पळोवन ताणे तिज्या रुपाची जी कल्पना केल्ली तशी ती नासली. किरकोळ रुपाची ती बायल. फक्त फाटलो आंगलोट तितलोच ओडलायणो.

"तुजे साडयेक कांट्याची बडी रोंबल्या." ताणे म्हळें.

ती हांसली.

"जाणा हांव." तिणें म्हळें, "म्हजो हात पावना."

"हांव काडूं?" ताणे विचारलें.

ती उलयली ना. पूण थंयच घुंवली आनी ताजे वटेच्यान फाट करून उबी रावली. अचकळय हातांनी ताणे ती बडी काडली. एकदम निर्विकार मनान.

"थँक्स." ताज्या तोंडाकडेन पळयना आसतना तिणे म्हळें आनी पदर सारको

केल्लेभाशेन करून ती चलूंक लागली.

उपकाराचीं उतरां भावना वगडावन बसल्यांत अशें ताका दिसलें.

हातांत कांट्याची बडी घेवन तो खीणभर तिच्या फाटमोऱ्या देहाची लय तोखेत रावलो. ल्हवू ल्हवू ती पयस पावली. तो थंयच उरलो.

अचकीत ताजी नदर रस्त्याचेर गेली. सोनचांफ्याचें फूल लिगासयत सकयल पडिल्लें.

ताणे हातांतली कांट्याची बडी कुशीक उडयली आनी तें फूल उखल्लें.

केंसांत माळिल्लें आनी रस्त्यार पडिल्लें, इतलेंच न्हय तर लिगाचे कात्रींत चिड्डुल्लें तें फूल अजून ताजें आसलें. हातांत घेनाफुडें मंद वास नाकांत सल्लो आनी सगल्या मस्तकाक एक शीतळ शिरशिरो आयलो. ताणे दोळे धांपून घेतले. खंयची तरी चिड्डून उरिल्ली वासना ताज्या मनाक कातकुतल्यो करूंक लागली.

अचकीत ताका कितें येवजलें कोण जाणा, तो तें फूल घेवन घसघशीत पावलां उखलूंक लागलो. तिका गांठची आनी तें फूल तिका दिवचें अशें ताका दिसलें. तें तिज्याच केंसांत सोबतालें. त्या फुलाचें तो कितें करतलो?

घडये मोटे आवडीन तिणे तें फूल माळिल्लें आसतलें... घडये तिगेल्या प्रियकरान तिका तें दिल्लें आसतलें... घरा पावतकच माथ्यांत फूल ना हें पळोवन ती निर्शेतली.

बायल निर्शेता तेन्ना बाविल्ल्या फुलासारकी दिसता. तशें जावंक फावना. ताणे अदीक नेटान पावलां उखल्लीं. पूण ती दिसली ना.

परत ताणे फुलाकडेन पळयलें. ताजी सोबा, ताजो रंग, ताजो गंध तोखेत एक सुस्कारो सोडलो.



## ६

# मोनें शिल्प

काश्ट शिल्पाच्या प्रदर्शनांत एके बायलेचें शिल्प आसा. सिसवी लाकडाचें पुर्णाकृती शिल्प. शिल्पकाराचें कसब शिल्पाच्या आंगा आंगांतल्यान उकतें जाता. ते बायलेचें तरणेपण, तिचो आंगलोट, तिचे दोळे, तोंडावयले भाव आनी झिळमिळीत वस्त्रां. एकाद्रे सुंदर बायलेक मुखार दवरून फोटो घेतिल्लो जाल्यारय इतली सजीव प्रतिमा तयार जावपाची न्हय.

'एक मॉडेल मेळ्ळें आनी हें शिल्प हांव घडोवंक पावलों.' शिल्पकारान म्हाका सांगलें, 'कलाकारांक एकाद्रे कृतींत कृतार्थता अणभवंक मेळटा तसलें हें शिल्प!'

'एक कलाकार ह्या नात्यान हातूंत कांयच उणे ना अशें तुका दिसता?' हांवें ताका विचाल्लें.

'देवाचे निर्मणेंत जंय त्रुटी उरता थंय मनशाची कितें कथा?' शिल्पकारान जाप दिली आनी फुडें म्हळें, 'म्हाका विचारशीत जाल्यार हांव इतलेंच म्हणन, म्हज्या शिल्पांत एकूच उणाव आसा. ही बायल उलयना.'

कितल्याशाच वर्सां आदलो हो प्रसंग. एक ल्हानशी घडणूक घडली आनी म्हज्या दोळयांमुखार तो अख्खो प्रसंग उबो रावलो.

एका लग्नाक गेल्लों. थंय हांवें एक चली पळयली.

ते चलयेचें नांव हांव नकळ. पूण एका लग्नाच्या हॉलांत हांवें तिका पयले खेपे पळयली. सादो भेस. कसलोच देखाव ना. तरी बायलांचे ते गर्देत सगल्यांचें लक्ष ती ओडून घेताली. दादल्यांची गजाल सोडातच, बायलो लेगीत परत परत मानो घुंवडावन तिजेकडेन पळयताल्यो. उमाशेचे काळखे रातीं मळबांत नखेत्रांची गर्दी आसता त्या वेळार एकाद्रें नखेत्र नदरेंत भरचें तशी त्या हॉलांत तिजी गत जाल्ली.

'कोण ती?' म्हज्या शेजराक बशिल्ल्या एका जाण्टेल्यान म्हाका विचाल्लें.

'कोणाविशीं विचारता तूं?' हांवें परतो प्रस्न केलो.

'ती पळय, नखेत्रांमदल्या चंद्राभाशेन नदरेंत भरता ती चली. कोण ती?'

'हांव वळखना.' हांवें जाप दिली.

लग्न सोंपसर तो जाण्टेलो चुळबुळत रावलो. खरें म्हळयार म्हज्याय मनांत तो प्रस्न आसलो. पूण विचारतलो कसो? हांव ओगी राविल्लों.

हॉलांतल्यान भायर सरता आसतना तो जाण्टेलो परत मेळळो. ताणे म्हळें, 'इतली सुंदर चली हांवें आदीं केन्नाच पळोवंक ना. अप्सरांची वर्णनां हांवें आयकल्यांत. पूण म्हाका दिसता त्यो लेगीत हिजेमुखार फिक्यो पडटल्यो.'

'ती कोण तें तुका कळ्ळें?' हांवें विचारलें.

'हय, कळ्ळें इतलेंच न्हय, ताजे फुडलेंय कळ्ळें. ती मोनी!' ताणे जाप दिली.

'म्हळयार कितें? तिका उलोवंक येना म्हणटा तूं?'

'हय बाबा, हय. तिका उलोवंक येना आनी आयकूंकय येना.' ताणे सांगलें.

'देवान तिजेर हो अन्याय केला.' हांवें म्हळें.

'देवाली इत्सा देवाक खबर...' ताणे सुस्कार सोडून म्हळें, 'पूण हांवें तिका पळेनाफुडें म्हज्या चल्याखातीर मागणी घालची केल्ली.'

तो गेलो आनी हांव म्हजे वाटेन चलूंक लागलों.

मनांत ते सुंदर मोने चलयेविशीं काकुळट भरिल्ली उल्ली. आयज जग इतलें फुडें पावलां कि तिका वाचा दिवप कठीण न्हय अशें म्हाका दिसतालें.

एक सुंदर फूल. ताजें-टवटवीत. रंग खूबच ओडलायणो. पूण त्या फुलाची एक खंत. ताका वास ना.

एक सुंदर सवणें, ल्हान, सोबीत पाखां. माणकुली रंगीत चोंच. गाढ निळे

चकचकीत दोळे. पूण त्या सवण्याक आवाज ना.

एक सुंदर तरणाटी चली. नाकयां-दोळयां सोबीत. आंगलोट कोरांतिल्ल्या शिल्पासारको. आंगावयलें न्हेसण दिश्ट लागपासारकें. हांसताली तेन्ना तोंडभर मोगरेच्यो कळयो फुलताल्यो. पूण तिका उलोवंक येना. ती मोनी!.

वास म्हळयार फुलांची भास, जसो आवाज जावन आसा सवण्याची वाणी. भास ज्याका नासता तांची दशा मोन्यांची आसता.

रानफुलाची कथा आनी व्यथा अशी सांगतात कि तें आपले सोबेचेर आपूणच भाळिल्लें आसता. रानांतल्या झाडांचेर फांतोडेच्या दवान न्हावन घेवन सकाळच्या कंवळया किर्णांत आपलें उक्तें आंग सुकोवंक बशिल्लेकडेन आपल्या मोग्याची वाट पळयता.

दनपारचो वताचो ताप वाडटा तरी तिचो मोगी येना. कुशीचें पान सांगता, 'यो, तुजेर हांव सांवळेची सत्री धरतां. पिश्याभाशेन तापूं नाका. ह्या रानांत खंयचो मोगी येतलो?'

पूण फूल पानाचें म्हणणे कानामनार घेना. सगलीं दनपार तें वतांत तापून बावलें आनी सांजवेळां सूर्य अस्ताक वचपा वेळार गलीतगात्र जावन देंठापासून हुमकळूंक लागलें. तेच रातीकडेन तें गळून पडलें.

पान खूब खंती जालें. तें जाणा, अशो कितल्यो कळयो आयल्यो, फुल्ल्यो आनी झडल्यो. ह्या रानांत कोण पावता?

रानफुलाची व्यथा ती हीच. रंग आसा, रूप आसा; पूण नांव ना, वास ना. ताजो मोगी ताजेमेरेन केन्नाच पावना. तें देवाच्या आंगार चडना. सुंदरेच्या माथ्यांत बसना. इतलेंच न्हय तर भोंवतणी धिरयो घालतल्या साबार पाख्यांमदलो एकय पाखो ताजेसरीं येना. कित्याक तर, ताका वास ना, आनी वास ना देखून म्होंवय ना.

त्या उपरांत ती चली म्हाका केन्नाच दिसली ना. खंयच्याय लग्नाक गेलों जाल्यार अचकीत तिचो उगडास येतालो. आनी म्हजी नदर बायलांच्या रांगांमदीं तिका सोदताली. पूण ती दिश्टी पडली ना.

कोण ती? तिजें नांव कितें? ती जल्माचीच मोनी आनी भेड्डी काय अपघातान तशी जाल्या? हे आनी असले प्रस्न मदीं मदीं तकलेंत येताले. पूण तांची जाप कोण दितलो?

खूब म्हयन्यांउपरांत एक दीस ती चली म्हाका दिसली. पणजे फेरीबोटीकडेन हांवें तिका पळयली. हांव फेरीबोटींतल्यान देवतालों आनी ती फेरीबोटींत चडूंक वताली. हातांत एक पर्स आनी गळयांत मंगळसूत्र. तोंडार एक समादानाचो हांसो.

ती म्हऱ्यांतल्यान फुडें गेली तेन्ना म्हाका लग्नाच्या हॉलांतले ते चलयेचो उगडास जालो. ती तीच आसूंक जाय. काय हांवें वळखुपांत गोंदळ केल्लो?

तिचें नांव खबर ना. आयकून इतलेंच खबर आसा कि देवान देहाची सोबा दितना इल्लेंय कंजूसपण केलें ना, पूण तिका भेड्डी आनी मोनी केली. ते चलयेचें

लग्न जालां, ती सुखी आसा हो विचारच कितलो सुखदिणो आसलो! देखून फेरीबोटींत चडिल्ली ती कोण हे विशींचो दुबाव मनांत घोळयत बसचे परस ती तीच लग्नाच्या हॉलांत पळयिल्ली मोनी चली अशें मानप म्हज्या मनाक आवडलें.

जिणेची एक कृतार्थताय आसता. फूल जशें कोणाच्याय हातांत पावचें पडटा तशेंच चलयेचें आसता. रंग आसलो, रूप आसलें, आंगलोट आसलो, कुळशील, सभाव आनी हेर सगळे सगळे गूण आसले तरी जो मेरेन तिच्या कपलाचेर सौभाग्याचो कुकमातिळो नासता, तो मेरेन तिजी जीण अळणी उरता. देखूनच काय लग्न जाल्ल्यो चलयो गळयांत मंगळसूत्र घालतात?

त्या दिसा तिजी खबर कोणाकय सांगची अशें म्हाका मनापासून दिसलें. एक उदास जीण कृतार्थ जाल्ली. एका रान फुलाक ताजो उध्दार करपी मोगी मेळिल्लो. पूण हें तिसऱ्याक कशें सांगपाचें? सांगलें तरी कशें कळटलें? एके सुंदर, मोने चलयेक घोव मेळ्ळो. तो कसलो तें म्हाका खबर ना. तोय मोनो? काय थोटो-पांगळो? कुड्डो-भेड्डो? कांय एक हांव नकळ. इतलेंच न्हय ते चलयेचें नांव लेगीत म्हाका खबर ना. अगत्य इतलेंच कि हांवें तिका एका लग्नाक गेल्लेकडेन पळयिल्ली आनी थंय तिका मागणी घालूंक तयार जाल्लो एक मनीस म्हाका भेटिल्लो.

कांय अणभव मनांतच दवरपाचे आसतात आनी ल्हवू ल्हवू विसरून वचपाचे आसतात. हांवय ते चलयेक असोच विसरून गेलों.

तरीकय केन्नाय पणजे सावन बेतीं वा बेतींच्यान पणजे येतना, फेरीबोटींत चडटना म्हजी नदर ते नांव नाशिल्ले मोने चलयेवो सोद घेता.

अचकीत एक दीस हांवे ते चलयेक एका ल्हान भुरग्याक हाताक धरून बसींत चडटना पळयली. उटंगाराचो पावस पडटालो आनी आपूण भिजून तिणे सत्री भुरग्याच्या माथ्यार धरिल्ली. खीण, दोन खीण ती म्हाका दिशिल्ली आसुंये. पूण ती उलयताली. आपल्या भुरग्याक म्हणटाली, 'सडसडीत चड. ना जाल्यार भिजतलो.'

भुरगो बसींत चडलो आनी फाटल्यान तीय चडली. बसीच्या जनेलांतल्यान ती दिश्टी पडटा काय म्हणून खीणभर हांव कुशीक उबो रावलों. पूण बसींतले गर्देत ती लिपून उल्ली आनी बस सुटली.

ती मोनी चली ही नासतली? काय ते मोनेक आतां वाचा फुटिल्ली?



# ७

# जगम

पोरसाचे कुशीक जगमीचें एक व्हडलें झाड. झाडाचे भोंवतणी कांट्यांची वंय. वंयेक वणखून उब्या आशिल्ल्या त्या झाडाच्यो खांदयो चारय दिकांनी पातळ्ळयात.

पावसाळो निकतोच सोंपला. जगमीचेर कुचकुचीत जगमां लागल्यांत. कांय पाचवीं, कांय तामसार. जीं पिकून तयार जाल्यांत ती तामसार काळीं.

एक भुरगो सकयल उबो रावन जगमीचेर गुंडे मारता. तागेलो तीर चुकता आनी केन्ना हरवीं जगमां झडटात जाल्यार केन्ना पानांक आफडून गुंडो वंयेचे पलतडीन आशिल्ल्या दुर्गाच्या भितर पडटा.

भुरग्याली नदर चार तांबड्या जगमांचेर थिरावल्या. गुंड्या फाटल्यान गुंडे तो शेंवटिता. ते खंय पडटात ताजें ताका भान ना.

एक गुंडो खूब पयस गेलो आनी घराच्या व्हारांदांत जनेलाचेर पडून हारसो फुटलो. भुरग्याक तें कळ्ळें लेगीत ना. तो जगमां पाडीत आसा.

तागेली मोटवी चेड्डी कमरावयल्यान गळूंक लागल्या. ते चेड्डेच्या दोनय बोल्सांनी ताणे हरवीं- जून जगमां भरल्यांत. दाव्या हातान चेड्डी वयर ओडीत उजव्या हातान तो गुंडो शेंवटिता आनी गुंडो शेंवटितना नेट काडटा तेन्ना ताज्या नाकांतल्यान सैंत व्हांवंक लागता.

आंगार वयर हातकापें खोमीस. सैंत ओंठार पावलें म्हण्टकच खोमीस वयर काडून तो तें पुसता आनी परत गुंडे शेंवटिता.

जनेलाचो हारसो फुटलो तेन्ना कोणे गुंडो मारलो तें पळोवंक एक जाण्टेली बायल भायले वाटेन आयली. तिणे जगमां पाडटल्या त्या भुरग्याक पळयलो. एके वटेच्यान ताजो राग आयिल्लो आसतनाय त्या माणकुल्या भुरग्याची तिका लक्तुबाय दिसली. एकाग्र चित्तान तो जगमां पाडटा. केन्ना गळटी चेड्डी सांवरता जाल्यार केन्ना नाक पुसता. पूण नदर मात झाडावयल्या जगमांचेर थिरावन उरल्या.

आनीक एक गुंडो घराचे दिशेन पावलो तेन्ना ती बायल शिटकावली. चड वेळ ताजी लक्तुबाय करीत बसलीं जाल्यार दुसरो हारसो फुट्टलो अशें येवजून तिणे ताका हटकिलो.

बायलेच्या आवाजासरशीं भुरग्यान नदर घुंवडायली. आपल्या सामकार घरची घरकान्न उबी आसा हें पळोवन तो काचाबूल जालो आनी हातांत उखलिल्लो गुंडो जमनीर उडोवन पळूंक लागलो.

तो पळटा तें पळयतनाय ते बायलेक ताजी लक्तुबाय दिसली. पुण अचकीत ताजी चेड्डी गळून पायांत घुस्पली आनी तो उमथो पडलो.

ती बायल धांवत ताजेसरीं गेली. ताजीं दोनय धोंपरां फुटिल्लीं आनी नाक झरकटिल्लें. घरकान्नीन ताज्या हाताक धरिना फुडें तो रडूंक लागलो. दुखीक न्हय, भाटकान्नीच्या भयान. रडटां रडटां तो कडकडूंक लागलो तेन्ना ते बायलेचेर भियेवपाचो प्रसंग आयलो.

'तूं भियेवं नाका.' तिणे ताका सांगलें, 'हांव तुका कांय करिना.'

आपल्या हातांनी तिणे ताज्या आंगावयली माती झाडली आनी म्हळें, 'चल, तुजी चेड्डी सारकी कर. तुका रगत आयलां. हांव वखद लायतां.'

भुरग्याचो कंप थांबलो. तो चेड्डी वयर करता तितली ती गळटा. दोनय बोल्सांनी भरिल्ल्या जगमांचो भार ते चेड्डेक पेलना.

ते बायलेन भुरग्याक आपल्या घरांत हाडलो. जंय जंय खरचटिल्लें थंय उदकान पुसून आयोडीन लायलें. आयोडिनाच्या हुलपासरशीं तो भुरगो किळांच मारतालो आनी ती ताका म्हण्टाली, 'हुलपता? बरें दिसतलें आं. माल्शें सोंस.'

आयोडीन लावन जातकच त्या भुरग्याक कितें दिसलें कोण जाणा. चोराभाशेन मान सकल घालून ताणे आपल्या दोनय बोल्सांतलीं जगमां काडून जमनीर दवरलीं.

'हीं हांगा कित्याक दवरलीं?' ते बायलेन विचारलें.

'हांवें चोरिल्लीं. म्हाका गुन्यांव भोगस.' ताणे मान वयर करिनासतना जाप दिली.

'तुका जगमां जाय मरे,' तिणे ताज्या फाटीवयल्यान हात भोंवडावन विचारलें, 'हांव तुका काडून दिवंक लायतां. हे धोडे खावं नाका.'

भुरग्याचो आपणाचेरच विस्वास बसलो ना. तो भांबावन गेल्ले सारको तिका पळयत रावलो.

तिणे ताजी वासपूस केली. तो खंय रावता, तागेल्या घराकडेन कोण कोण आसा हें सगळें विचारून घेतलें आनी म्हळें, 'तूं फाल्यां यो. तुका हांव जगमां काडून दवरतां.'

जगमांचें आकर्षण आसलेंच. पूण तिचे तावडेंतल्यान बरे भाशेन सुटप हें ताचे नदरेन चड भाग्याचें आसलें. तिणे वच म्हणिना फुडें माकडाभाशेन उडी मारून तो गेलो.

तिका दिशिल्लें, आपणे सांगलां ते भाशेन तो दुसऱ्या दिसा जगमां व्हरूंक येतलो. तिणे मानायाक आपोवन मुद्दाम ताजेखातीर ल्हान पाटलो भरून पिकीं जगमां काडून दवरलीं. पूण तो आयलो ना.

सांजवेळ मेरेन ती ताजी वाट पळयत बसली. पूण तो भुरगो आयलोच ना.

ल्हानशा गांवांत ताजें घर सोदून काडप तिका कठीण नासलें. दुसऱ्या दिसा सकाळीं ती आपूण जावन भुरग्याल्या घराकडेन गेली आनी तिणे ताजी वासपूस केली.

आपल्या भुरग्याचीं नावाडगीपणां जाणा जाल्ले आवयन काकुळटेक येवन म्हळें, 'कितें केलें ताणें? ताका गुन्यांव भोगस.'

'कांय करूंक ना ताणे.' तिणे जाप दिली.

ताजेखातीर हाडिल्ली जगमांची पोटली तिजेकडेन दिली.

'हांव तुका उतर दितां.' आवयन तिका सांगलें, 'परत तो असली आगळीक करचो ना.'

'कसली आगळीक म्हण्टा गे तूं?' तिणे म्हळें, 'एदोसो भुरगो! कसली आगळीक करतलो? ताका पळोवन म्हाका म्हज्या भुरगेपणाचो उगडास आयलो. देखून हांवें ताका हीं जगमां हाडल्यांत.'

भुरग्याची आवय अजापान ते बायलेकडेन पळयत रावली. साठीच्या घरांतली ती बायल. माथ्यावयलो केंसान केंस पिकला आनी तोंडार एके तरेची खंत उदेल्या.

ती कितें सांगता हें भुरग्याचे आवयक समजलें ना. तिणे म्हळें, 'कशेंय आसूं, अबुद्द आसले तरी भुरग्यांक आडांगीपणां सोबनात.'

'तशें म्हणूं नाका बाय.' भाटकान्नीन म्हळें, 'आडांगीपण नाशिल्लें भुरगेपण कसलें?'

इतलें उलोवन तिणे दोळे पुसले.

भुरग्याले आवयक चर्र जालें.

'तुज्या दोळ्यांत दुकां?' अजापून तिणे भाटकान्नीक विचारलें.

'काळजाच्या पेखिल्ल्या चवनावयली खवळी उसवली.' अशें म्हणून तिणे हुडको भरलो.

आतां भाटकान्नीक समजावपाचो प्रसंग भुरग्याले आवयचेर आयलो.

'कितें घडलें गे अशें?' तिणे विचारलें.

'म्हज्या घोवान मोठे आवडीन ती जगम रोयिल्ली. तें झाड म्हळयार आमच्या मोगाचे प्रतीक. जिविताची गोडसाण मोगांत आसता आनी मोगाची गोडसाण जून जगमावरी तो अरळ जावपांत आसता... पूण फुटकें नशीब म्हजें. आमचो मोग अरळ जावचे आदींच तो गेलो. म्हज्या वांट्याक आयलो तो हरव्या जगमाचो दीख.'

दोळे पुसून भाटकान्न उठली. ती कितें उलयली हाजो भुरग्याचे आवयक बोध जावचे आदींच भाटकान्न नदरेआड पाविल्ली.

सांजवेळीं शाळेंतल्यान भुरगो परतलो. आवयन जगमां ताका दिलीं आनी म्हळें, 'भाटकान्न घेवन आयिल्ली.'

खोशयेन भुरग्यान उडी मारली आनी दोनय तळव्यांमदीं एक जगम धरून घुंवडायत तो तोंडान म्हणूंक लागलो, 'चानये, चानये, मोव कर... हुंदरा, हुंदरा, गोड कर!'



८

# उदास सांवळी

शशी आयलो आनी कांय एक उलयनासतना कदेलाचेर बसलो. उजवो हात कपलाचेर धरून ताणे दोळे धांपून घेतले.

शशीली ती नुरा पळयना फुडें म्हाका दिसलें आयज ताजें कितें तरी गडबडलां. हरशीं एकाद्री कोटी करीत घरांत भितर सरपी शशी सगळें वातावरण प्रसन्न करून सोडटालो. बसचे आदीं आपली फर्माइश सांगतालो. कॉफी हें ताजें आवडटें पेय. पूण निखटी कॉफी ताका रुचना. ताका कॉफयेसांगातान भजीं आनी चटणी जाय आसता. हॉटेलांत दिवची तशा थाटांत तो ऑर्डर दितालो आनी म्हाका म्हजें काम थांबोवन आपल्या सुरबूस गजालींनी घुस्पावन घेतालो.

पूण आयज शशी आयलो तो खिन्नतायेची मूर्त जावनच. ताका पळयतकच म्हाका विरहान आकूळ पिकूळ जाल्ल्या नायकान माचयेर प्रवेश करचो तसलें दृश्य येवजलें.

'तुजें घडलां कितें?' हांवें हांसून ताका विचारलें, 'भायर पळय पावस पडटा. वातावरण शितळ आसा. कॉफी आनी भजीं खावपासारकें हे वातावरण.'

'ना, ना. कॉफी नाका. आनी भजींय नाकात.' दोनय हात चोळून शशीन कदेलाचे फाटीचेर आपली मान दवरली आनी नळ्यांचेर नदर थिरावन म्हळें, 'खरें म्हळयार म्हाका सिगरेट जाय. पूण तुगेर खंय मेळटली?'

हांव जाणा आसलों कि भोंवडेर गेल्लो शशी त्याच दिसा सकाळचो परत आयला. म्हाका दिसलें, प्रवासाचो शीण आनी घडये जागरण जाल्ल्यान तो असो मंद आसुंये. हांवें विचारलें, 'तूं केन्ना परत आयलो तर? अजून तुजो शीण देवंक ना.'

'तसो हांव सकाळीं पावलों आनी शीण निखालच ना. न्हावन आनी न्हीद काडून प्रवासाचो धुल्ल आनी शीण हांवें काडून उडयला. पूण मनाचेर मात एके तरेची ग्लानी आयल्या.'

शशी हो जाण्टो संवसारी मनीस. एके कंपनींत अधिकाऱ्याच्या हुद्याचेर काम करता. कंपनीच्या कामाखातीर ताका देशभर भोंवचें पडटा. तो एक रसिक मनीस. वाचन आनी संगीत हे ताजे छंद. संगीतामदीं शास्त्रीय संगितापरसय ताका गझल चड मानवता.

'प्रवासांत दिसभरयाचें काम सोंपतकच रितो वेळ खावंक येता तेन्ना हांव एकाद्रें पुस्तक हातांत घेवन ना जाल्यार वॉकमनाचेर गझलीची कॅसेट लावन भोंवतणच्या संवसारांतलो अचळय कुशीक सरतां आनी आनंदाचे वेगळे धुंदींत वेळ कसो वता तें कळचना.' शशीन केन्नाय अशें म्हाका सांगचें.

भोंवडेर सावन आयलो म्हण्टकच शशी एकाद्री नवी कॅसेट ना जाल्यार एकाद्रें नवें

पुस्तक घेवन येतालो आनी आपले शिफारसीसयत तें पुस्तक वाचपाचो वा ती गझल आयकुपाचो आग्रो धरतालो.

पूण आयज शशी वेगळोच दिसलो. तागेलें कितें तरी गडबडलां, इतलो अदमास म्हाका आयलो. हांवें हातांतलें काम कुशीक दवरून ताजे कडल्यान खरी खबर समजून घेवपाखातीर संवाद सुरू केलो.

'हे खेपे सगळें भुरगेपण आपली उदास सांवळी म्हजे उमेदीचेर पातळावन गेलें.' एक सुस्कारो सोडून शशीन सांगलें.

शशीची आनी म्हजी इश्टागत इतली दाट कि ज्यो गजाली तो बायलेक सांगूंक धजना त्यो तो म्हाका सांगता. आनी बायलेक सांगिल्ली गजाल म्हाका लिपयना. पूण आयज शशी कुवाड्यांची भास उलयतालो. कवितेच्या प्रतिकांतल्यान उलोवपाची ताजी संवय म्हाका नवी नासली. पूण आयज ताज्या तोंडांतल्यान सुटिल्लीं उतरां घुस्मट्टालीं.

हांव जाणा, शशीचें भुरगेपण गोंयांतच गेलां. पूण कॉलेजचें शिक्षण घेवंक तो कांय वर्सां पुण्याक राविल्लो. तो ज्या भुरगेपणाची गजाल करतालो ती घडये जुवानपणांतली गजाल आसुंये. देखून हांवें ताका विचारलें, 'ही उदास सांवळी तुका पुण्यांत भेटली मरे?'

दाव्या हाताचीं नाखटां किड्डीत शशीन तकली हालोवन हय म्हळें.

'तशें पुण्यांत म्हाका काम नासलें. पूण वाटेंत पुणें लागलें आनी सुटयेचो दीस आसलो. देखून एक दीस थंय रावलों.'

पुण्यांत कॉलेजांतले दीस सारिल्ल्या शशील्यो खुबशो यादी जाग्यो जाल्यो जाल्यार अजाप ना.

'कोण मेळ्ळो तुका, जाणे तुजें मन उदास केलें?' हांवें ताका विचारलें.

'खरें सांगतलो जाल्यार म्हाका कोण मेळ्ळोना.' शशीन जाप दिली.

'तेखातीर तूं उदास जालो?'

'ना. कोण मेळपाची अपेक्षाय नासली. हांव हॉटेलांत रावलों आनी रिक्षा घेवन पर्वतीचेर गेलों. थंय एके कुशीक एक चिंचेचें झाड आसा. त्या झाडाचे सावळेंत हांवें म्हज्या जिवितांतले कांय म्होवाळ खीण सारल्यात. तांची गोडी पिकिल्ल्या चिंचेबोटा इतलीच आंबट - गोड आसा... गिमाचो रखरख. पुण्याची हवा आतां बदलूंक लागल्या. चिंचेच्या झाडामुळांत बसलों आनी एक गुंडो मारून एक अमुरपिकें चिंचेबोट पाडलें. तें तोंडांत घालें आनी तेन्नासावन मन उदास जालें.'

शशीन आपली याद सांगली.

परिक्षेचे दीस लागीं पावले म्हण्टकच तो त्याच झाडामुळांत वचून अभ्यासाक बसतालो. बोवाळापसून पयस आसतकच अभ्यासाचेर चित्त थीर जातालें.

एक दीस तो पावलो तेन्ना थंय कांय चलयो आयिल्ल्यो. त्यो चिंचेबोटां काडटाल्यो आनी खाताल्यो. तांतलीच एक चली निमाणे फांदयेचेर लांबतलें तें एक चिंचेबोट काडचे खातीर उडयो मारतना पडली.

आपली फजेत लिपोवचेखातीर ती व्हडाव्हडान हांसूंक लागली. चलयो थंय आसतना अभ्यासाचेर लक्ष लागपाचेंच न्हय.सकयल तांची रिक्षा उबी आसा. त्यो परत वतल्यो आनी आपूण अभ्यास करतलों अशें शशीन येवजिल्लें.

'ए, तें चिंचेबोट काडून दिता?' पडिल्लेकडेन बसकण मारून बशिल्ले ते चलयेन शशीक विचारलें.

हेर दोनय चलयो हांसल्यो.

ती आपणाक सांगता हें शशीक कळ्ळेंच ना. ते धीट चलयेक कितें येवजलें कोण जाणा! ती उठून शशीसरीं आयली आनी ताज्या कपलाक हात लावन म्हळें, 'तुजो हात पावतलो. चिंचेबोट काडून दिता?'

खंयचोच तरणाटो असल्या वेळार फाटीं सरचो नासलो. शशीय सल्लो ना. ताणे उडयो मारल्यो. बोटाचें तोंक चिंचेबोटाक लागतालें, पूण तें मुठींत येनासलें.

शशी खर्शेलो. चिंचेबोट आपणाक चाळयता अशें ताका दिसलें.

तीनय चलयो ताका थोमणे मारताल्यो.

'अशें करूंया...' ते चलयेन परत म्हळें, 'तूं म्हाका उखलून धर. हांव चिंचेबोट काडटां.'

ती कितें सांगता हें आपणाक सारकें समजल्लें नासुये असो दुबाव येवन शशी तटास नदरेन तिजेकडेन पळयत रावलो.

ती चली हरशींच धीट. तातूंतय ती पिकनिकेच्या मुडांत आसली. सरळ शशीसरी गेली आनी ताका सांगलें, 'धर. म्हाका उखल.'

शशीन दुसऱ्या दोन चलयांकडेन पळयलें. त्यो किटकिट्टाल्यो.

'उखल मरे. असो बावळटासारको पळयत कितें रावला?' चलयेन पर्थून सांगलें.

तिज्या कमराभोंवतणी आपले दोनय हात धरून शशीन तिका उखल्ली. तिणें सात-आठ चिंचेबोटां बुड्डून काडलीं.

'आतां देंवय.' तिणे म्हळें.

शशील्या हातांची वेंग ढील जाली. पूण हात वेगळावले नात. ती सकल देंवली आनी खीण - दोन खीण ताजे वेंगेंत उल्ली.

'हे कितें? सोड म्हाका!' लटको राग तोंडार उक्तायत लजेन तांबडी गूंज जाल्ली ती चली कुशीक सरली आनी चोरयां एक नदर शशीचेर भोंवडायत तिणे आपल्या दांतांनी चिंचेबोटाचे दोन चिंचारे तोंडांत घाले. उरिल्लें अर्द शशीमुखार धरून म्हळें, 'हें घे. थँक्स!'

तीनय चलयो किटकिटून हांसूंक लागल्यो.

एके अनवळखी चलयेच्या स्पर्शान आनी घडिल्ल्या सगल्या प्रकारान शशी भारावन गेल्लो. हिप्नॉटाईज जाल्ले भाशेन तिजे नदरेक नदर दीत ताणे तें अर्दें चिंचेबोट आपल्या हातांत घेतलें. ते चलयेच्या दोनय इश्टीणींनी टाळयो मारल्यो.

दुसऱ्याच खिणाक तीनय चलयो धांवत रिक्शासरीं गेल्यो. रिक्शा सुरू जातां जातां

ते धीट चलयेन आपलो उजवो हात आपल्याच ओंठांनी चुमून शशीक दाखयलो.

'तो एक वेगळो अणभव आसलो. जिर्णेंत पयलेच खेपे हांवें तो सुखदिणो अणभव घेतिल्लो. रिक्शा नदरेआड जाली तरी हांव ते दिकेन पळयत रावुलें.'

त्या उपरांत शशीन कितलेशेच दीस ते चिंचेच्या झाडातळा बशिल्लेकडेन तिजी वाट पळयली. ती आयली ना आनी दिसलीय ना. एकांतांत अभ्यासाचें निमित्त करून शशी चिंचेमुळांत येतालो. पूण अभ्यासावयलें चित्त उडून त्या दिसाचो प्रसंग दिसपट्टो ताज्या दोळ्यांमुखार उबो रावतालो आनी त्या प्रसंगाचें सपन पळयत शशी रमतालो.

'इतल्या वर्सां उपरांत हांव परत पुण्यांत पावलों... जुळूंक नाशिल्ल्या मोगाची याद विसरायेच्या तळांत पडून आशिल्ली. ती जागी जाली. ते यादीची सांवळी अजून मनाचेर दाटिल्ली आसा.'

आनी नकळटां शशीन एके गझलीची ओळ आळयली, 'काश! ये भी हो कि मुझमे तू नजर आने लगे...'



# ९

# नातें

आज तो परत दारांत आयिल्लो. भायर रावनच ताणे उलो माल्लो, "मोहन!... मोहन आसा घरांत?"

तागेलो आवाज ती वळखली. रांदचे कुडींत आसली तशीच भायर आयली. पुण मुखार वचूंक धजली ना. दाराचे कुशीक उबी रावली आनी मंद आवाजांत म्हळें, "घरांत ना... येतलो आतां. बसात."

इतलेंच उलयतासर तिजें काळीज धडधडूंक लागलें. तो भीतर येतलो म्हणून ती पावलांचो आवाज आयकुपाखातीर कान दिवन उबी रावली. खीण भरयांत जाप आयली, "आसूं. येतां."

"कोण आयिल्लो म्हणून सांगूं?"

प्रस्न तिज्या ओंठार आयलो. पुण तो गिळ्ळो.

ताजें नांव तिका खबर आसलें. पुण आपणाक तें खबर आसा म्हणपाचें तो नकळ हें ती जाणा आसली. ताज्या तोंडसून ताजेंच नांव आयकून घेवपांत गोडी कसली?

ताजी फाट फिरली तशी ती दारामुखार आयली. मान सकयल घालून तो

चलतालो. भुरग्यान धांवचें तशी ती भीतर आयली आनी जनेलाकडेन वचून उबी रावली. मुखावयल्या रस्त्यार तो दिसतलो तेन्ना ती ताका दोळे भरून पळयतली आसली.

छाती धडधडटाली आनी लजेचो चंवर आंगभर फुलिल्लो. आपली ही आवतिकाय पळोवन तिजें तिकाच अजाप जालें. पुण सदां अशेंच घडटा. फाटले खेपे आयिल्लो आनी असोच परतल्लो.

जनेलांत रावन तिणे ताका दोळेभर पळोवन घेतिल्लो. आजय तिणे ताका दोळेभर पळोवन घेतलो. माथ्यावयले वाडिल्ले केंस दोळयांर येताले. दाव्या हातान तो ते फाटीं काडटालो. ताजें तें रूप तिका सोबीत दिसलें.

येवजितां येवजितां ती केदो वेळ थंय रावली देवाक खबर. तो नदरेआड जालो तरी ती येवजीत थंय उबी आसली. देहान ती घरांत आसली, पुण मनान ती ताज्या सांगातान पाविल्ली.

जनेलाचे भायले वटच्यान आंब्याचे ताळयेचेर कावळो येवन बसलो. तो रडलो तशी ती भानार आयली.

कावळो रडटकच सोयरो येता अशें म्हणटात. कोण येत काय? तिणे येवजिलें, जो येवचो अशें दिसतालें तो दारांत येवन परतल्लो आनी दुसरो सोयरो आज तरी तिका नाका आसलो. आयज पर्थून एक फावट ती ताज्यो यादी काडीत बसूंक सोदताली.

हें आपणाक सोबना असो एक विचार तिच्या मनाक आफडून गेलो आनी ती कांचवेली. घरांत दुसरो मनीस ना. घोव सकाळींच भायर सरून गेला तो बद्द सांजचो येतलो म्हणपाचें ती जाणा. तरी आपणाक कोण पळयना मूं अशें येवजून तिणे भोंवतणी नदर फिरायली आनी जड पावलां उखलून परत रांदचे कुडींत गेली.

तो येतकच अशेंच घडटा. ह्या आदीं अशेंच घडिल्लें. रात्रीचेर शितावें आदन दवल्लें आनी जोळोव सारपाचें निमित्त्य करून तिणे थंयच बसकण माल्ली...

ती येवजूंक लागली. दर्याचीं ल्हारां धांवन धांवन येवचीं तशे पोरन्या यादींचे उमाळे तिका फुटले.

सगळेंच बदलिल्लें. घडये देवाची तशी इत्सा आसली. नाजाल्यार वेगळेंच जावपाचें.

तिजें ताजेकडेन थारिल्लें लग्न मोडिल्लें. गुन्यांव कोणाचोच ना. पुण काळजाचे गर्भकुडींत घोव म्हणून ताजीच मूर्त तिणे पयलीं पुजिल्ली. आयज मोहनाची बायल जाल्ली आसली तरी जेन्ना जेन्ना तो दिसता तेन्ना तेन्ना सगळें येवजता. जीव गोळाक लागता, आंगाक सुस्त येता. काम बंद दवरून हांतुणाचेर वचून लोळचें आनी पोरन्या यादींच्या पांगरुणांत भीतर सरून पडूंक नाशिल्लीं सपनां पळोवचीं अशें तिका दिसूंक लागता.

तिका घट याद आसा, गांवभर ताजी तोखणाय जाताली. सर्वेश ताजें नांव. एक बरो भुरगो म्हणून ताजी नामना. शिकूंक हुशार आनी दिसूंकय सुंदर. दीस खूब

ेगळे आसले. चलयांक आजचेवरी मेकळीक नासताली. तिज्या आंगार साडी चडूंक ासली तरी घोवाची कल्पना करता आसतना तिज्या दोळयांमुखार सदां तोच उबो ावतालो. लग्न म्हळयार कितें हाजो पुरतो समज ते कंवळे पिरायेचेर तिका नासलो. ारी येवजितां येवजितां तिज्या मनाक कातकुतल्यो जाताल्यो.

एक दीस जेन्ना आवयन तिका सांगले कि तिगेली सोयरीक सर्वेशाक व्हेल्या, तेन्ना लज, भय आनी उमेद एकाच वेळार तिचें मन आनी आंग वेंगावन बसलीं. तिका अजून तो खीण याद जाता... कोणेतरी अचळय मोराचें पांख तिज्या आंगावयल्यान मोंवडायिल्लें... ल्हंवेन ल्हंवेंक चंवर फुटिल्लो! हारशामुखार वचून पळयलें तेन्ना आपले ोले जांबावरी तांबडे कशे जाले हाजें कुवाडें तिका पडिल्लें. एके तरेची अनोळखी भेरांत... एक कांच कांट्यावरी काळजाक रोंबिल्लो. पुण त्यो कळा कितल्यो सुखदिण्यो आसल्यो!

त्याच दिसा सांजची खबर आयली, सोयरीक जुळ्ळया. न्हवऱ्याल्या घरची परिस्थिती व्हडलीशी गिरेस्तकायेची न्हय. खंयच्या तरी सरकारी ऑफिसांत ताका निकतीच चाकरी मेळ्ळया. पुण इतलो बरो भुरगो आपलो जांवय जातलो ही कल्पना तिगेल्या बापायक सुखायताली आनी त्या सुखदिण्या उमाळया भरशींच ताणे तिका ही सुवार्ता सांगिल्ली.

"देवतेच्या आंगार आसात तितल्याय सगळया अलंकारांनी हांव तुका सजयतलों आनी गांवांत ह्या आदीं केन्नाच जालें ना इतल्या दबाज्यान लग्न करतलों." ताणे म्हणिल्लें.

"चलयेक पळोवंक केन्ना येतले तर?" आवयचो मदींच प्रस्न.

"ना. ताणी सांगलां, चलयेक आमी पळयल्या. आमकां ती पसंत आसा." बापायली जाप.

त्यावेळार आवयच्या तोंडाचेर जो खोशयेचो हांसो फुलिल्लो तो पळोवन ती इतली भुरकुटिल्ली कि आपल्याच पोशांनी आपलें तोंड धांपून भीतर धांवन गेल्ली.

घरांत लग्नाची तयार चलताली आनी तिज्या मनांत मोगरेच्यो कळयो परमळटाल्यो.

अवचकीत एक दीस खबर आयली. तागेलो बापूय हांतुणाचेर पडला. ताका गुण पडसर म्हुर्त थारावंक मेळना.

लग्नाची ताकीत कसली? ताका बेगीन गुण पडल्यार पुरो. तिका दिसतालें आपणे तागेर वचचें. तागेल्या बापायची सेवा करची. पुण कोणाक सांगतली?

उपरांत एक दीस खबर आयली. ताजो बापूय अंतरलो. ते निर्शेणेचे अवस्थेंत लेगीत उमेद बावंक नासली. वायट इतलेंच दिसलें, ह्या दुख्खा वेळार आपूण ताज्या लागसार आसूंक जाय आसलें. खंय तरी एक खंत अशीय उल्ली कि मांवाकडच्यान लक्तुकाय करून घेवपाचें भाग्य आपणाक मेळ्ळें ना.

दीस कासवाचे गतीन फुडें गेले. आतां तिगेल्या बापायक म्हुर्ताची ताकीत आसली.

तो ताका मेळूंक गेल्लो. घडिल्लें विपरीतच. तागेले आवयच्या मनांत एक दुबाव रिगिल्लो. तिगेले सोयरीकेकडेन ती आपल्या घोवाच्या मर्णाचो संबंद जोडटाली. आवयन फाटलो फुडलो विचार केलो ना. सोयरीक मोडली.

ताका किर्ते दिसलें, देव जाणा! पुण देवाची पूजा करतना अचकीत निरांजनाची वात वाडोवची तशी तिची आवतीकाय जाली.

तिचे आवयक आनी बापायकय वायट दिसलें. बापायन तर ती गजाल इतली मनाक लावन घेतली कि खिणाचीय उसरपत करिनासतना तिका सोयरीको सोदूंक लागलो.

ती पुरती भांबावन गेल्ली. सतरवितर जाल्लेवरी. तिची भावना भेरेल्ली. जेन्ना मोहनाकडली सोयरीक जुळिल्ल्याची खबर तिच्या कानार गेली तेन्ना ती सुखावली ना वा निर्शेलीय ना. ते विशीं येवजुपाचें काम आपलें न्हय अशे भावनेन ती निर्विकार रावली.

बापायन म्हळें, "ब्रह्मदेवान मारिल्ल्यो गांठी कोण तोडटलो?"

मोहन तसो बऱ्या घरचो, गुणी भुरगो. घर व्हडलें आनी घरचो थाटय व्हडलो. शारांत तो खूब जोडटा...

लग्न जावन ती मोहनागेर येईसर सर्वेशाक पुराय विसरून गेली. रातीकडेन पळयिल्लें एक सपन सकाळीं उठना फुडें विसरचें... तशी.

पुण एक दीस सर्वेशच तिगेल्या दारांत आयलो. भायर रावन ताणे मोहनाक उलो माल्लो. मोहन घरांत नासलो. ती न्हावन आंगार न्हेसण काडटाली. साडयेच्यो मिरयो हातांत धरून भायले वाटेन येवन पळय जाल्यार, दारांत सर्वेश उबो!

ते अवस्थेंतय आपूण एक सपन पळयना मूं असो तिका दुबाव आयलो. दाराआड लिपतना मिरयो सुटल्यो आनी ती ताकतिकेन भीतर धांवली.

न्हेसण सारकें करून भायर येईसर सर्वेश परत गेल्लो. जनेलाकडेन वचून तिणे ताका दोळेभर पळोवन घेतिल्लो.

त्या उपरांत तो दोन - तीन खेपे तरी आयलो आसतलो. एकूय वेळ घरांत भीतर सल्लो ना. ताणे घरांत येवचें, मोहनान ताका जेवणाक आपोवचो अशें तिका खूब दिसतालें. पुण उलयतली कशी?

रात्रीवयलें आदन सळसळ्ळें. तशी ती उठली.

त्या दिसा सांजवेळां मोहन घरा आयलो तेन्ना तिणे म्हळें, "कोणतरी सोदूंक आयिल्लो."

"कोण?" मोहनान विचाल्लें.

नांव जिबेर आयलें. पुण उच्चारपाचें धाडस जालें ना. तिणे म्हळें, "हांव वळखना."

"सर्वेश आसतलो." मोहनान म्हळें

ती कांय उलयली ना.

कित्याक आयिल्लो हो प्रस्न मोहनाक विचारचो अशें तिका दिशिल्लें. पुण तिका विचारचो पडलोना. मोहनानच सांगलें, "रिणां काडून हे लोक लग्नाचे सुवाळे कित्याक मनोवंक सोदतात देव जाणा!"

"लग्न? लग्न कोणाचें?" नकळटना तिज्या तोंडसून प्रस्न भायर सल्लो.

"ताजेंच. आनीक कोणाचें?"

तिज्या काळजांत एक कळ आयली. सर्वेशाचें लग्न? कोणाकडेन?

कांय उलयनासतना ती भीतर गेली.

जेवता आसतना मोहनान सर्वेशाचो विशय परत काडलो आनी म्हळें, "एक हजार रुपया तो मागता. ते तो ह्या जल्मांत परत करूंक पावत अशें दिसना. ताका ना म्हणूंकय जीवार येता. कितें करचें ते समजना."

ती कांय उलयली ना. घोवाच्या मनांत दुबाव रिगूं नये म्हणून तिणे विशयच बदल्लो.

ते रातीकडेन ती तळमळ्ळी, कळवळ्ळी. तिका दिसलें सर्वेश घरांत आयिल्लो आनी आपणाक आपली गरज सांगिल्ली जाल्यार आपूणच ताका पैशे दितलीं आसलीं.

लग्नाच्या वेळार तिका आवयन एक पेटूल दिल्लें. अडचल्ल्या वेळार खर्चाखातीर तातूंत तिणे पैशे घाल्ले. कितले ते तिणे केन्नाच मेजले नात...ल्हानपणांत तिका बापायन एक भांगराची सरपळी केल्ली. तीय त्या पेटलांतच आसा. सर्वेशान तिका आपली गरज सांगिल्ली जाल्यार ती सरपळी आनी ते पैशे ती ताका दितली आसली. मनांत आयलें, घोवाक तशें सांगचें. पुण येवजितां येवजितां तिचो विचार बदल्लो. आपल्या संवसारांत दुबावाची कीड रिगवप समा जावचें ना अशें दिसून ती ओगी रावली. पुण काळजाचे तळमळे थांबले नात.

दुसऱ्या दिसा परत भायल्यान उलो आयलो, "मोहन घरांत आसा?"

ती आवाज वळखली. धांवत कुडींत गेली. ट्रंकात आशिल्लें पेटूल भायर काडलें आनी तें एका लेंसांत रितें करून लेंसाची पोटली घेवन ती भायर आयली.

"भीतर येयात." तिणे म्हळें.

"मोहन आसा तर घरांत?" परत ताजो प्रस्न.

"ना. पुण तुमी भीतर येयात." तिणे म्हळें.

काळीज धडधडटालें... आंगाक कापरें सुटिल्लें. तरी एके तरेचें अवसान तिका चडिल्लें.

"आसूं. मागीर येतां.' अशें म्हणून सर्वेश परतूंक लागलो.

तशी ती फुडें सल्ली आनी म्हळें, "हें पळयात..."

ताणे नदर वयर करून पळयलें. सामकार ती उबी. दोन जिवांचे चार दोळे पयलेच खेपे एक जाले. दोन खीण मोने.

तोच आदीं भानार आयलो आनी ताणे विचाल्लें, "कितें?"

ती उलयली ना. लेंसाची पोटली ताज्यामुखार धल्ली. तो अनमनलो. हात फुड केलो ना.

"हें तुमचे खातीर." नदर सकयल करून तिणे म्हळें, "पुण उपकार करून ही खबर कोणाक सांगूं नाकात."

ताणे लेंसाची पोटली हातांत घेतली तसो तिका हुडको फुटलो. ती धांवत भीतर गेली.

जनेलाकडेन रावन तिणे ताका वतना पळयलो. लेंसाची पोटली ताणे छातयेकडेन घट धरिल्ली.



## १०

# दूदसागर

गाडी बोगद्यांतल्यान भायर सल्ली आणि दूदसागर दिसूंक लागलो. काळ्या पाशाणावयल्यान झडटली दूदाची धार मर्दी भायर सरिल्ल्या तळपाचेर तीनकडेन वांटून वचून आपली सोबीतकाय वाडयता. गाडी घुंवत घुंवत दूदसागराच्या वेगळ्या वेगळ्या आंगाचें दर्शन घडयत फुडें वताली...

जनेलांत बसून सैमाचो तें अप्रूप संगीत, तो नाच पळयतां आसतना काळजाच्या करणांत कुशीक पडिल्ली एक याद नव्यान अणभवूंक लागलों.

"न्हंयचीय एक कृतार्थता आसता. दोंगराच्या माथ्यावयल्यान खोल सकल उडी घेतना ती दर्याच्या मोगान कुड्डी जाल्ली आसता." तिचीं हीं उतरां अजून म्हज्या मनांत ताजीं आसात.

कितलीं वर्सां जालीं आसत ते गजालीक! पुण याद करूंक बसतकच कालच घडची तशी नदरेमुखार उबी रावली...

आमी तेन्ना कॉलेजांत शिकताले. पिकनिकेखातीर दूदसागराचेर आयिल्ले. चले आनी चलयो. सांगातान आमचे चार प्रोफेसर. तांचेमदलीच ती. आमची लेक्चरर. अलका. मुळांत तिचें नांव अलकनंदा. पुण तें फकत सर्टीफिकेटाचेर उरिल्लें. सगळे तिका अलकाच म्हणटाले.

पयल्या वर्गांत एम. ए. पास जातकच नव्यानच ती कॉलेजांत लेक्चरर म्हणून शिकोवंक लागिल्ली. वर्गापुरती ती लेक्चरर आशिल्ली. कॉलेजांतल्या शिकतल्या भुरग्यांक ती आपल्यामदलीच एक दिसताली. तशीच ती वागताली. चडसो वेळ भुरग्यांमदीं सारताली.

अलका एक हुशार चली. आसत पंचविसेक वर्सांची. काळीसांवळी, बारीक शिडशिडीत. मात्शी लांब. देखून ती सुंदर नासतनाय चार चलयांमदीं उठून दिसताली.

अलकाचें वेगळेपण म्हळयार तिजो मेकळो सभाव. सगळयांमदीं ती भरसताली आनी मेकळेपणान उलयताली. तिज्या एका एका उतरांत अर्थ आसतालो, कवितेचें म्होंवाळपण आसतालें. म्हाका तिजें उलोवप सदांच भाळयतालें. ती उलोवंक लागली म्हणटकच आयकत रावचें अशें दिसतालें.

तिजें दुसरें खाशेलेपण म्हळयार ती आपल्या मनाक संकोच आफडूंक दिना आसली. अनवळखी परकी मनशाक लेगीत पयल्याच उतरान संकोचा मेकळो करताली.

त्या दिसा गाडी बोगद्यांत सल्ली आनी जनेलाकडेन बशिल्ली अलका भायर नदर करून काळखाचो थाव घेवंक लागली. तिज्या एका हातांत लेंस आसलो. अचकीत तो सुटलो आनी सकयल पडलो.

गाडी बोगद्यांतल्यान भायर आयली तशें तिणे म्हळें, "बोगद्यांतल्या काळखांत देंवचार सोदता आसतना हांव इतलें भान विसल्लें कि म्हजो लेंस केन्ना सकयल पडलो तें म्हाका कळळेंच ना. तरी बरें, जनेलाक ग्रील्स आसलीं. नाजाल्यार हांव लेगीत सकयल पडपाचें."

आमी सगळे हांसले.

गाडी बोगद्यांतल्यान भायर आयली आनी दूदसागर स्टेशनाचेर थांबली. देंवपाच्या बोवाळांत आमी त्या लेंसाची खबर विसल्ले.

गाडी फुडें गेली आनी आमी ल्हान ल्हान पंगडांनी शिंपडून पडले. वेगळया वेगळया वाटांनी वचून आमी दूदसागर पळयताले. अलकाच्या पंगडांत हांव आसलों. घडये अलका आसा म्हणून हांव त्या पंगडांत राविल्लों आसूंये.

रुळाचे कुशीन चलत चलत चडशे पंगड धोग्याचे दिशेन वताले. पुण अलका सकयल दरींत देंवली आनी ताज्यावांगडा आमीय देंवक लागले. देंवता देंवता म्हजो पांय निसल्लो. तशी हाताक आयिल्ली झाडाची खांदी धरून हांवें म्हाका सावरून घेतलो. म्हजे मुखार अलका आसलीं. म्हजो तोल सुटून ताज्या आंगार लकलों. तें निसरपाची. पुण ताणे म्हज्या हाताक घट धल्लें.

सगळें अचकीत आनी येवजीनासतना घडिल्लें. पुण ते अवस्थेंत दोन खीण आमच्यो नदरो मेळयो. अलकान नदर सकल केली आनी हात सोडलो.

कांयच घडूंक नाशिल्लेवरी तें फुडें गेली आनी ताज्या फाटल्यान आमी तीग - चार जाण. आमचेमदीं आनीक एक चली आसलें.

सकयल एक जांभळीचें झाड. त्या झाडाक फाट तेंकोवन अलका वणखून उबें रावलें. पयसुली दुदाची धार नदरेंत भरताली. थंय धोग्याचो आवाजय निवळ आयकूंक येतालो.

कित्याक कोण जाणा, अलका कितें तरी सुचयता अशें म्हाका त्या वेळार

दिशिल्लें.

कोण तरी जांभळीच्या झाडाचेर चडलो आनी ताणे पिकीं जांभळां झडयलीं. हेरांन तीं पुंजायलीं. पुण अलका दूदसागराची सोबा दोळयांनी पियेतना देहभान विसरिल्लें.

हांवें पोसोभर जांभळां पुंजायलीआनी अलकामुखार धल्लीं.

तें ह्या गावांत नासलें. हांव ताका पळयतालों. वाऱ्यान साडयेचो पदर फडफडटालो आनी दूदसागर पळोवपांत तल्लीन जाल्ल्या अलकाक देहभान नासलें.

मनांत आयलें, कॅमेरा घेवचो आनी एक फोटो काडचो. हांवें हेरांकडेन पळयलें. कोणाकडेनच कॅमेरा नासलो.

हांवें ल्हवूच उलो माल्लो, "अलका."

सपनांतल्यान जागें जाल्लेभाशेन अलकान "कितें?" म्हणून विचाल्लें. पुण अजून ताजी नदर दूदसागराचेर थिराविल्ली. तें ह्या संवसारांत नासलेंच.

"न्हंयचीय एक कृतार्थता आसता. दोंगरामाथ्यावयल्यान खोल सकयल उडी घेतना ती दर्याच्या मोगान कुड्डी जाल्ली आसता." स्वगत कशें अलका उलयलें.

"कॅमेरा आशिल्लो जाल्यार फोटो काडटलों आशिल्लों." हांवें म्हळें.

तशें अलका भानार आयलें. बेगीबेगीन तिणे पदर सारको केलो आनी लजेन तांबडें जालें.

हांवे जांभळां तिज्यामुखार धल्लीं.

"नाका. खा तूं." अलकान म्हळें.

"तूं खायना जाल्यार हांवय खायना." हांवें म्हळें, "सगळीं भायर उडयतां."

"पिशेपणां करूं नाका रे." अलकान म्हळें, "हाड दी. हांव खातां. म्हाका जांभळां आवडनात, पुण तूं दिता म्हणून खातां."

अलका कितें सुचयतालें काय? हांव सुखावलों.

अलकान जांभळां खालीं आनी आपली जांभळीच जीभ भायर काडून म्हळें, "जालें तुजें समाधान?"

म्हाका जाप सुचली ना. पुण हांव लजेलों.

"चल, या आमी. ते आमकां सोदतले." म्हणून अलका वयर रेल्वे रूळांचे दिकेन चडूंक लागलें. बाकीचे भुरगेय आमचे फाटल्यान येवंक लागले. दोन धेंपां मुखार घालून हांव फुडें गेलें आनी अलकाक म्हळें, "सांबाळून पांय घाल आं. निसरशीत."

म्हणटसर अलकाचो पांय निसल्लो. हांवें ताका हात दिलो. हाताच्या आदारान तें म्हज्या फाटल्यान वयर आयलें. तरी हात म्हज्याच हातांत आसलो. आमचे दोळे एकामेकांचेर थिराविल्ले.

"सोड मरे हात. आतां वयर पावलीं." अलकान म्हळें.

कांचवेवन हांवें हात सोडलो.

अचकीत म्हाका कितें येवजलें कोण जाणा! हांवे म्हळें, "तुमी हांगाच ... हांव बोगद्यांत वचून तुजो लेंस सोदून हाडटां."

अलका म्हाका पळयत रावलें. पुण कांय उलयलें ना. हेर सगळे हांसले.

एकल्यान म्हळें, "लेंस शेणल्यार शेणूं... पुण तूं मात शेणूं नाका."

हांव बोगद्याचे दिशेन दोन पावलां फुडें गेलां मात, तितले भीतर अलकान म्हळें, "राव, हांवय येतां."

बोगद्याच्या तोंडामेरेन आमी मोन्यानीं चलून गेलीं.

बोगद्यांत भीतर सरतना हांवें अलकाक म्हळें, "तूं हांगाच राव. हांव वचून येतां."

"हांव भियेतलें अशें तुका दिसता?" अलकान विचाल्लें.

"भीतर काळोख आसा..."

"काळखाची रे कसली भिरांत?... त्याभायर तुजो सांगात आसा..."

सुर्वेक उजवाड आसलो. मुखार गुपाट काळोख... मर्णाचे घोलींत भीतर सरिल्ल्याचो म्हाका भास जालो.

आतां अलका म्हाका तेंकून चलतालें. मदींच ताणे म्हज्या हाताक धल्लें...

"आमचेकडेन टॉर्च ना... काळखांत लेंस कसो दिश्टी पडटलो?" हांवें म्हळें.

"हें तुका आदींच कशें येवजलें ना?" म्हाका खेटत अलकान विचाल्लें.

इतले म्हणसर इंजिनाची शिटी आयकूंक आयली. मुखावयल्यान गुडस् येताली. इंजिनाच्या दिव्याच्या उजवाडांत हांवें सकल पडिल्लो लेंस पळयलो आनी धांवत वचून तो उखल्लो.

अलका चार पावलां फाटीं उल्लें...

गाडी वेगान येताली... धांवत हांव अलकासरी गेलों. आमकां तेंकून गाडी वचूंक लागली... अलकान म्हाका घट्ट वेंग माल्ली... म्हजी खेंवय आंवळत गेली...

गाडयेचो गडगडाट विरत गेलो... आमी परतीचे वाटेक लागलीं... काळखांतल्यान उजवाडाकडेन पावलां उखलूंक लागलीं.

पुण वेंग ढील जाली ना...

उजवाडाची पसय आंगार पावली तसो हांव थांबलों. आमचे उश्ण श्वास एकमेकांत भरसताले... हांवें ल्हवूच म्हळें, "अलका!"

अलकान फकत हुंकार दिलो आनी म्हज्या तोंडाकडेन पळोवन दोळे धांपून घेतले...

म्हाका दिसलें, ताजें अर्द - उकते गुलाबी ओंठ म्हाका आमंत्रण दितात...

त्याच खिणाक अलका भानार आयले. ताणे आपलो हात म्हज्या ओंठार धल्लो आनी अंदल्ल्या सुरांत म्हळें, "प्लीज... नाका... म्हाका हें सोबना."

म्हजी वेंग सदळ जाली... तशें अलकी कुशीक सल्लें.. ताणे न्हेसण सारकें केलें आनी म्हळें, "एक तर तूं म्हजो विद्यार्थी... आनी दुसरें, म्हजें लग्न थाल्लां."

एक नातें... जुळटां जुळटां तुटलें. पुण आमच्या काळजाचे ठोके घोग्याच्या आवाजांत जिते उल्ले.



# ११

# व्रत

सांजवेळचो तो घरांत भीतर सरता त्याच वेळार ती भायर सरून वता. सामकी तो येवपाचीच वाट पळयत उबी आसता. पूण तितल्याच खातीर एकाद्र्या दिसा उसरां घरा येवचें अशें ताका केन्नाच दिसलें ना.

धा वर्सांचे लग्नाचे जिणेंत ताणे तिका एकूय खेपे परतो प्रस्न विचारूंक ना. तितलें धाडस ताका केन्नाच जालें ना. ती भायर सरून खंय वता हें तो नकळ. केन्ना केन्नाय ती परत येवंक दोन दोन वरां लायता जाल्यार केन्ना वराभीतर परत येता.

फाटले तीन म्हयने अशेंच चलत आयलां. एकूय दीस तिणे आपूण खंय वता हें ताका सांगलें ना आनी ताणेय विचाल्लें ना.

आयज तो सदच्या परस अर्दवर आदींच घरा परतल्लो. तरी ती न्हेसून तयार आसली. तो दारांतल्यान भीतर सल्लो आनी सालांतल्या सोफाचेर बसलो. ती सालांत आयली.

आयज ताणे तिका सारकी पळोवन घेतली. फिकट जांभळया रंगाची रसमी साडी आनी गाढ जांभळया रंगाचो ब्लावज. तिज्या गोऱ्या आंगार तो रंग उठून दिसलो. कपलाक मदींच मोठो वाटकुळो तिळो. दोळयांत घाल्या काजळाच्यो रेगो दोनय कानसुलांचेर चिके लांबयिल्ल्यो. हरशीं तिचे दोळे मोटे. मनांतल्या मनांत तिगेल्या दोळयांची सर तो बेबकेच्या दोळयांकडेन करतालो. तोंडान केन्ना उलयलो ना. पूण आयज काजळाचे करामतीन त्या दोळयांक सोबा आयिल्ली. केसांचो आंबाडो आनी ताजेर बांदिल्ली जायांची हळी.

रातदीस तो तिका पळयता. धा वर्सां तीं सांगातान रावतात. आयज ती दिसली तितली सुंदर आदीं केन्नाच दिसूंक नासली.

केदोवेळ तो तिजेकडेन पळयत राविल्लो देव जाणा! तिजी मात ताजेर नदर नासली. हातांतली पर्स सात खेपे उक्ती करून तिणे तपासली. उपरांत दुसऱ्या हातां आशिल्ली प्लॅस्टीकची पोती तपासली. ती तपासता आसताना तिणे पोतयेंतल्यो वस्तू भायर काडून टिपॉयचेर दवल्ल्यो. पानांत गुठलायिल्ली एक पुडी. घडये जायांची आसूये. गुलाबी लिपस्टीकची एक काडी. ऑक्लाची एक पिशवी. चाळीशी लार्ज पाविल्याची गवाय दिवपी तें चाळीसपत्र. तिगेले आवडीन ताणे भांगरासारकी चकचकीत फ्रेम घेतिल्ली. पूण तें वापरूंक तिका लज दिसताली.

"ऑक्ल वापरतकच जाण्टेपणाची सया मारता." तिणे एक दीस आपूण जावन ताका सांगिल्लें.

वाचपाचो प्रसंग आयल्यार तितल्यापुरतें ती ऑक्ल वापरता हें तो जाणा आसलो.

पोतयेंत आनीकय कांय वस्तू आसल्यो. तांचेमदीं जिन्तानचे एक पाकीट. निमाणेकडेन तिणे एक पांचवो खण भायर काडलो. तो फांफडून ताजी परत सारकी घडी केली. तो ल्हानशे प्लॅस्टीकचे पोतयेंत घालो आनी उपरांत तें सगळें सामान पर्थून व्हडले पोतयेंत भरून ती वचूंक तयार जाली.

दोनय हातांनी आंबाडो सारको केल्ले भाशेन केलो. साडयेचो पदर झाडून परत सारको आंवळून घेतलो आनी हात न्हेसणावयल्यान भोंवडावन एका हातांत पर्स, दुसऱ्या हातांत पोती घेवन ती वचूंक गेली. वतां वतां तिणे ताका म्हळें, “येतां आं.”

तिजे फाटीकडेन तो पळयत रावलो. फाटल्या धा वर्सांत तिका आंग सुटलां. मोटसाण आतां नदरेंत भरता.

ताजें लग्न थारतकच एक दीस तागेले भयणीन ताका म्हणिल्लें, “तूं रंग पळोवन तिजेकडेन लग्न जाता काय कितें रे? तिका रूप ना, आंगलोट ना. सामकी अनवाळयांची बडी!”

भयणीचो तो थोमणो आतां ताका याद जालो. आयज भयण हांगा आसती जाल्यार कितें म्हणटली आसली काय? त्यावेळार ताणे भयणीक सांगिल्लें, “तूं म्हज्या दोळयांनी तिजेकडेन पळय. मागीर तुका सगळें समजतलें.”

ती गेली. वतना सगळें घर घेवन गेली. ती घरांत नासता तेन्ना घराचें घरपण उरना. आयदानांचो आवाज येना. जमनीर पावलां घांशीत चलपाची तिका संवंय. तोय आवाज येना. तिका आनीक एक खोड आसा. ती हात हालयत चलता आनी चलतना आपल्या न्हेसणाचो वारो दोशी पातळायता. ती नासता तेन्ना घरांत दिवे पेटनात, नळाचो आवाज येना. सुपांत तांदूळ घेवन कोण आसडीना... खंय तरी कोयर जाला म्हणून घरांत सान्न भोंवना.

आतां वर... दोन वरां कांयच घडचें ना. तो बसून रावतलो.

असल्या वेळार ताका एक कप हुनहुनीत च्या जाय आसता. ताणे येवजिलें, आज आपल्या हातान च्या करून पिवूया. तो उठलो आनी गॅसासरीं गेलो. फस्क मेळ्ळें ना. चारकडेन सोदलें. रांदचे कुडींतले आरमारींत स्टीलाचे नवें करंड आयल्यात. ताजी नदर तांचेर गेली. तीन रिकामेच आसले. चवथ्यांत साकर. चिमटीभर साकर ताणे तोंडांत उडयली आनी आपले हात झाडून घेतले.

रांदचे कुडींतल्यान भायर सरतना ताका ओगीच येवजलें, फाटल्या वर्सा ताणे एक सफारी सूट शिवन घेतिल्लो. पयलेच खेपे तो घालून एका लग्नाक गेल्लो. परत येवन पळय जाल्यार सफारीच्या पोटार कसले तरी खत पडिल्लें. केन्ना तरी तें खत काडून घेवपाचें आसलें. तो सफारी ताणे वापरूंकच नासलो. तो स्टीलाची आयदनां विकतल्याकडेन पावूंक नाशिल्लो मूं?

अशे ताजे कपडे ह्याआदींय ना जाताले. एखाद्र्या दिसा ताणे ते सोदले जाल्यार ती ताका आयदनां दाखयताली.

मनांत आयलें, कपड्याची आरमार उकती करून तो सफारी सूट आसल्यार पळोवया. दुसऱ्याच खिणाक उबगण घेरून आयली. तो आयदनांकाराक दिल्लो आसत जाल्यार आरमारींत आसचो ना आनी आरमारीत आसलो जाल्यारय तो खताविल्लो सफारी तो काय वापरचो ना. मागीर सोदून कितें फायदो?

तसोच परत सालांत आयलो आनी दिवो पेटोवन हातांत एक पुस्तक घेवन सोफाचेर बसलो.

ताजो सभावच असो जाल्लो. सत्याक तोंड दिवंक तो धजना आसलो. सफारी-विशीं जितली उत्सुकताय तितलीच बायलेविशी ताका लक्तुबाय आसली.

खंय वता? कित्याक वता? पूण विचारून कितें फायदो? रागार जाली जाल्यार वातावरण इबाडटलें. कळून तरी कितें करचें पडलां! तिका आडावप ताज्यान जावचें ना."तुज्या सांगातान हांव येवूं?" अशें विचारपाचो धीर जावचो ना. देखून तो कांयच विचारी नासलो.

पूण तिणे पांचवो खण आनी जायो खंय व्हेल्यात? होंट भरूंक? कोणाची?

ताका कांयच समजना जालें. आज होंट भरूंक गेली म्हणटलो जाल्यार हेर दिसांनी खंय वताली?

येवजितां येवजितां ताका झांपड लागली आनी तो बशिल्लेकडेनच न्हिदलो. हातांतलें पुस्तक गळून सकयल पडलें.

ताका जाग आयली ती आयदनांच्या आवाजान. ती आयिल्ली.

ल्हवू उठून तो रांदचे कुडींत गेलो. ती गॅसाचेर आदन दवरताली.

"तूं केन्ना आयलें?" ताणे विचाल्लें.

"येतां थंय आसां. पूण तूं दार उकतेंच दवरून न्हिदलो कसो?"

"वाचतां वाचतां झांपड लागली..."

ती कांय उलयली ना.

तो परत येवन सालांत बसलो. तशी ती साडयेच्या पदराक हात पुशीत, ताजेसरीं येवन बसली.

आतां कसली तरी मागणी येतली अशें ताका दिसलें. कसलीय नवी वस्त घेवचेली आसत, कुळारा वा भयणीगेर वचपाचें आसत जाल्यार ती अशी ताजेसरी येवन बसता आनी मागीर ल्हवू ताका आपल्या मनांतलें सांगता.

अशें घडटकच तो सुखावता. घोवाचो मान आपणाक मेळूंक लागला अशें ताका दिसता.तिणे सरळ आपल्या मनांतलें सांगिल्लें जाल्यार तो नाका म्हणचो नासलो. ती अशी म्हऱ्यांत आयली म्हणटकच तो पुराय विरगळटालो.

ताका आदल्या दिसांची याद जाली. स्पर्शाचे ते खेळ आनी कंवळे पिरायेवयले चाळे हालींच्या वर्सांनी बंदच जाल्यात. एके तरेची बंदिस्त जीण तांच्या वांट्याक आयल्या. यंत्रावरी तीं जगतात. भावना बावून गेल्यात. आयज अचकीत ते आदले दीस परत आयले..., मिर्गाच्या पयल्या पावसासरशीं तण किल्लून वर येवचें तशे.

तो तिका हातावयल्या फोडासारकी सांबाळटालो. ताज्या मनांत खंय तरी अशी एक भावना आदींसावन रुजिल्ली कि ती खूबच सोबीत. आपणाक सोबना वा फावना इतली सुंदर. ती आपलेपरस बुध्दीन शिटूक. तिगेलो घोव म्हणून घेवन मिरोवपांत ताका एक धन्यताय भोगताली.

दोन खीण मोने गेले. ती कांय उलयली ना. अजापान ताणे तिज्या तोंडाकडेन पळयलें.

तोंडार एक मुमुरखो हांसो फुलोवन ती एके तनरेंत शेणून गेल्ली. तिका भानार हाडचें ताज्या जिवार आयलें. तो तिगेली सोबितकाय ओखेत तिका पळयत रावलो. नदरेक नदर दिना आसतना सुस्ताविल्ल्या नाजूक आवाजान तिणे विचाल्लें, "हांव खंय गेल्लें जाणा तूं?"

ताका प्रस्नाचें अजाप जालें. तरी ताणे म्हळें, "कशें कळटलें? सांग मगो."

"चातुर्मासाचें व्रत आयज हांवें उजयलें." तिणे लजेत सांगलें.

व्रत? ताका प्रस्न पडलो. हें आनी कसलें व्रत? कित्याखातीर? पूण विचारपाचें धाडस जालें ना.

तो कांय उलयना हें पळोवन तिणेच म्हळें, "कोणाखातीर व्रत हें जाणा तूं?"

तो उलयलो ना.

आतां ती लजून तांबडी जाली. ल्हवू ताजे कुशींत रिगली. आपूण सपनांत बी ना मूं, असो ताका दुबाव आयलो. लग्नाआदल्यो गांठीभेटी येवजल्यो. ते गुलाबी दीस कुपांवरी नदरेमुखार आयले. तिच्या स्पर्शाचे उबेन आंग चंवरलें. ताणे दोळे धांपून घेतले.

तिणे तागेलो हात आपल्या हातांत घेतलो आनी तो अळंग सांसपीत ती हांसली.

"सांग मगो, कोणाखातीर व्रत?" ताणे विचाल्लें.

"हांव सांगिना." गाल फुगोवन तिणे म्हळें, "तुका इल्लीय लक्तुबाय ना. तीन म्हयने हांव दीसपट्टें भायर वतां... एक दीस तुवें वासपूस केली ना. आयज तुज्या सामकार खण हातांत घेतलो तरी तूं कांयच उलयलो ना."

"हें पळय," ताणे म्हळें, "तूं करता तें म्हाका जालें, हें तूं नकळ? हांवें कितेंय विचारिल्लें जाल्यार तुजेर अविस्वास उक्तायिल्ल्या सारकें जावचें नासलें?"

तागेली जाप तिका मानवली तरी लटको राग तोंडार हाडून तिणे म्हळें, "तुगेलें सदां अशेंच... हांवे तुजेखातीर व्रत केलें आनी तुका मात ताजें कांय ना."

"म्हजेखातीर? म्हाका कितें जालां तर?" अजापून ताणे विचाल्लें.

"जालां म्हणून न्हय. जावचें म्हणून." ती हांसली.

तो गोंदळ्ळो. तिणे ताजे कुशींत बोटां फिरावून ताका कातकुतल्यो केल्यो.

"लोक आपणाक कांय जावं नये म्हणून व्रतां करतात आनी तूं मात म्हाका कितें जावचें म्हणून व्रत केलें म्हणटा... म्हाका कितें जावचें अशें तुका दिसता?"

"भुरगें...!" अशें म्हणून तिणे दोनय हातांनी आपले तोंड धांपून घेतलें.

केदोवेळ मेरेन तो तिका पळयत रावलो आनी ल्हवू ल्हवू साळकाच्यो पाकळयो फुलच्यो तसो ताजे तकलेंत उजवाड पडलो. ताणे तिका लागीं ओडूंक हात मुखार काडले. त्याआदींच ती उठून भीतर धांवली.



## १२

# शेणिल्ले खीण

फांतोडेर पारजाताचीं फुलां झडलीं. झाडाच्या मुळांत धव्या, केसरी रंगाचें जाजम पातळायिल्लेवरी दिसतालें. जनेलांतल्यान ताका तें दिश्टी पडटालें.

आतां जनेलांतल्यान दिसता तितलोच वाठार ताज्या वांट्याक येता. पलतडचें शेकानशेक लांब मळ आतां मात्शें ल्हान जालां. कोणे तरी सांगिल्लें, त्या मळाचे एके कुशीक बांदतात तें एक हॉस्टेल. चलयांखातीर.

घराच्यो वण्टी वयर चडत रावल्यो तशें ताजें विश्व ल्हान जायत रावलें. त्याआदीं मळाचे पलतडीन आशिल्ल्या मार्गावयल्यान धांवतल्यो बसी आनी मोटारी दिसताल्यो. घर वयर चडटा ते जनेलांतल्यान तो दीसपट्टें पळयतालो. आंगणात रोयिल्लो रोपो नदरेसामकार वयर सरता तो पळयतल्याच्या दोळयांत लक्तुबाय आसता ती लक्तुबाय ताका त्या घराच्या निर्जीव वण्टीविशीं हालींच्या दिसांनी दिसूंक लागिल्ली.

मळावयल्यान एक पायवाट वता. नागीण कशी घुंवत घुंवत ती वता. मळावयलें तण ल्हान आशिल्लें तेन्ना ती सादी पायवाट लेगीत सोबीत दिसताली. केन्ना वळवळट्या एंवाळयासारकी जाल्यार केन्ना व्हांवत्या उदकाच्या झोतासारकी. केन्ना पाचव्या शालवावयल्या भांगराचे सरपळेसारकी, जाल्यार केन्ना कंबरावयल्या रुप्याच्या काणासारकी.

पूण पावसा उपरांत तण वाडलां आनी ती वाट आतां लिपल्या. आतां तणामदल्यान वतलो एकाद्रो मनीस दिसता. पूण वाट दिसना. ते वाटेन फांतोडेर आनी सांजवेळां बायलो देवळांत वतात. उंडे, दूद घेवन वचपी सायकली तेच वाटेन धांवतात कोणय संवकळीचो मनीस जनेलाकडेन पावलो जाल्यार तेच वाटेर उबो रावन ताका उलोय मारता.

ताका मोटें अजाप दिसतालें. तो जनेलाकडेन आसता तेन्नाची गजाल वेगळी. पूण कुडींत भीतर-आसतना लेगीत ताज्या कानार उलो पडटालो आनी आपूण ताका दिश्टी कसो पडलों तेंच ताका कळना आसलें.

जनेला लागसारच ताजी खाट. अर्धांगाचो झटको येत सावन तो एके तरेन हे

बंदखणींत पडला. केन्ना तरी तो वाचता वा आयकता. ताज्याकय चड पिरायेचे लोक लेगीत पॅरलिसीसींतल्यान उठल्यात. चलूंक, भोवंक लागल्यात. पूण ताजी भलायकी सुदाल्ली ना.

तशी ताजी पिराय चड न्हय. अजून पन्नास जावंक नात. फाटल्या एप्रिलांत पंचेचाळीस पूर्ण जालीं आनी शेचाळीसावें वर्स ताका लागलें. जल्माक दीसय बरो सांपडिल्लो. एक एप्रिल. संवसारांतल्या पिशांचो दीस!

बशिल्लेकेडन ताणे गणीत केलें. दिशा आतां चाळीस वर्सांची जातली. तिजो वाडदीस येवंक अजून सत्तेचाळीस दीस उल्ल्यात.

दिशा कुडींत आयली आनी टिपॉयचेर च्याचें कप दवरून म्हळें, "हांव न्हावंक वतां. आनीक कितें जाय?"

तो तिका पळयतालो. पूण ती कुशीच्या हारशांत पळोवन आपले केंस सोडयताली. पॅरालिसीसचो अटॅक येत सावन तिजें आनी आपले मदलें पिरायेचें अंतर वाडलां अशें ताका दिसलें. खाटीर बशिल्लेकडेच्यान हारशांत ताका आपलें पडबिंब दिसतालें आनी दिशाचेंय. वाडिल्ल्या खाडावयल्यान ताणे हात भोंवडायलो. तो साठींतलो दिसूंक लागिल्लो आनी सोंपतें वर्स दिशाले पिरायेंतल्यान दीस उणायत वताले. ती तिशींतली दिसताली.

तिगेलें काम खूब वाडलां. फांतोडेर उठून ती कामाक लागता. घरचीं सगळीं कामां करून धांवत ऑफीसांत वता. धा वरां आदीं तिका पावचेलें आसता. त्या आदीं तागेली सगळी सेवा करून आनी जेवण ताटांत वाडून टिपॉयचेर हाडून दवरपाचें आसता. तसो हातांत रॉत घेवन तो एक एक पावल उखलता. पूण दिशाचो धीर नासत जाल्यार पांयांत कांपरें सुट्टा. तो आडखळटा आनी पडटा. दिशाच ताका न्हाणयता, ताजे कपडे बदलता. एके तरेन पांगळो जाल्ल्याक तीच ताका सांबाळटा... पोसता...

हालीं हालीं तेविशीं ताका आदलेवरी वायट दिसना. लज आनी संवेदना संवकळीन मरता म्हणटात तें फट न्हय. सुर्वेक ताका जे त्रास जातात ते हालीं जायनात.

च्याचें कप ताणे उखल्लें. दिशा घरभर भोंवताली. खिणांत रांदचें कुडींत, खिणांत तागेले कुडींत. मागीर ती न्हावंक गेली. बाथरुमांतल्यान शावराचो आवाज. आंगाक तुवालो गुठलावन ती कुडींत आयली. हारशासामकार उबी रावन ताकतिकेन साडी न्हेसली. ताका उगडास जालो. एक दीस अशीच ती न्हावन आयिल्ली आनी तो तिका पळयत राविल्लो. ताजेर तिजी नदर वतकच तिणे ताका कुडींतलो भायर वचूंक सांगिल्लें. इतली ती ताका लजेताली. पूण आतां तिकाय संवय जाल्ली. तो थंय आसा म्हणपाचें भान लेगीत ती दवरिनासली.

च्याचें कप परत टिपॉयचेर दवरतना तागेली नदर दिशाचेर थिराविल्ली. कप टिपॉयचे कडेर उल्लें आनी जमनीर पडून फुटलें.

दिशान नदर घुंवडावन पळयलें. तोंडावयली तिडक लिपली ना. पूण ती कांय

उलयली ना. थंडसाणेन साडी न्हेसली, केंस वळयले. तोंडावयल्यान पावडराचो पफ् भोंवडायलो. हारशाचेर दवरिल्ली एक तिकली काडून आपल्या कपलाक दकयली. मागीर जमनीर उकडयां बसून फुटिल्ल्यो कंवच्यो पुंजायल्यो.

"म्हजें काम तरी वाडोवं नाका." तिणे म्हळें.

भालो कसो तीं उतरां ताज्या काळजाक रोंबलीं. ती जें उलोवंक नासली तेंय तो समजल्लो.

"चूक जाली." ताणे म्हळें.

दिशा कांय उलयली ना. ओल्या आंगशान जमीन पुसली आनी कंवच्यो घेवन भायर गेली.

ताणे जनेलांतल्यान नदर भायर व्हेली. वत पडिल्लें. भांगराच्या रंगाचें.

आतां ताज्यान कांयच करूंक नज आसलें. स्वगत भाशण करचें तसो तो आपले कडेनच उलयत बसलो.

दिशा परत भीतर आयली तेन्ना ती पुराय न्हेशिल्ली. न्हावन आयिल्ली तेन्ना ओली उकती फाट नदरेंत भरिल्ली... आतां ती परत हारशासामकार वचून उबी रावली आनी आपलो देह पर्थून सजगवंक लागली.

मनांत नसायेचें एक ल्हार देवलें. दिशा कितली भाग्याची! ती भोंवता, चार लोकांक मेळटा. तितले पुरतें घरचें दुख्ख विसरूंक मेळटा. ना जाल्यार म्हजी आवतिकाय पळय. मांसाचो गुळो कसो हांव हांगा पडून आसां!

दिशा आयली आनी खाटेर बसून पोंदची चप्पल काडली. ती पायांत चडोवन उबी रावली आनी हारशांत निमाणी नदर भोंवडावन भीतर गेली. एक वाडिल्लें ताट टिपॉयचेर हाडून दवल्लें. परत भीतर गेली. सेंटाचो परमळ ताका आयलो.

"तुका आरमारीची चावी जाय, काय व्हरूं?" दिशान विचाल्लें.

"म्हाका चावी कित्याक ?" ताणे प्रस्न करूनच जाप दिली.

"वावराडी येतली. तिका कपडे सारके धुवंक सांग. म्हजे कपडे बाथरूमांत आसात... येतां हांव" इतले म्हणून दिशान भायले दिकेन पावल उखल्लें.

"बरें करून... येवंक कळाव जातलो?"

"ना. येतना मात्शें बाजारांत वतलें तितलें... तुका कितें हाडूंक जाय?"

"ना. कांय नाका. मात्सो पेपर दी आनी वच."

पेपर खाटेर उडोवन दिशा गेली. दाराचें लॉक बंद जाल्ल्याचो आवाज आयलो. ते नागमोडी वाटेन घसघशीत पावलां उखलून चलतना ताणे तिका पळयली. मागीर नदरेआड जाली. धांवत वचून बस धरतली.

घर रिकामें जालें. ताका तें खावंक आयलें. वावराडी दनपरां येतली. तोमेरेन तो पेपर वाचतलो. जेवन घेतलो आनी उपरांत जनेलाकडेन रावन भायर पळयत रावतलो.

चार वर्सां अशींच गेलीं. ह्या चार वर्सांमदीं संवसारांत खूबशें घडलां आसतलें.

रस्त्याचेर एक नवी बिल्डींग जाल्या आनी तातूंत नवीं दुकानां आयल्यांत अशें दिशान ताका सांगिल्लें. पोरनीं घरां मोडून नव्यो बिल्डिंगो जळामळाक येवंक लागल्यात. एक नवें हॉटेल आयलां. थंय एक स्विमींग पूल बांदला.

संवसार खूब बदल्ला. पेपरांत तो तेंच वाचता. आतां टि. वी. आयला खंय. एक टि. वी. घेतिल्लो जाल्यार ताजो वेळ वचपाचो. पूण टि. वी. खातीर पैशे खंयच्यान हाडपाचे? बायलेचे जोडीचेर पोट भरतल्याक टि. वी मागपाचो हक पावना.

दिशाक बस मेळ्ळी आसतली. ताका उगडास जालो. लग्न जातकच ताणे तिका नोकरी सोडूंक सागिल्लें. तिणे हट धरलो आनी ती नोकरी उल्ली. दिशाक नोकरी नाशिल्ली जाल्यार आयज कितें जावपाचें?

ताणे नदर भीतर घेतली. हारशाचेर ती थिरावली. हारशांत तागेलें पडबिंब. तागेलें एकल्यालें. ताणे केंसांवयल्यान हात भोंवडायलो आनी ताका रातीचें सपन येवजलें.

दिशा सांगातान तो खंय तरी भायल्या गांवांत गेल्लो. थंड हवेच्या गांवांत. निळे दोंगर आनी दाट धुकें. अस्तंतेक देंवतलो सूर्य तांबडो गुंज जाल्लो... तो दिशा वांगडा हनीमुनाक गेला. दिशा आपले केंस मेकळे सोडून ते वाऱ्याच्या झोतावांगडा खेळयता. ताणे दिशाक लागीं आपोवन कानांत कितें तरी सांगलें आनी लजेवन मान फिरायतना तिणे ताका धुकळ्ळो... तेन्नाच जाग आयली. पूण सपनाचें म्हौंव आतां उगडासाचे जिबेर आयिल्लें.

दिशा ऑफिसांत गेल्या. पूण कुडींत सेंटाचो परमळ उल्ला... ताणे नदर फिरायली. परत पेपर उखल्लो आनी वाचनासतना सकयल दवल्लो.

सपनांतल्या दोंगराचेर पाचवें तण आसलें. निळो धुंवर आसलो... दिशाल्या आंगाचो परमळ आसलो...

ड्रेसींग टेंबलावयले एके एके वस्तूक तिगेल्या हाताचो वास, हुमेचो परमळ येतालो.

तितले म्हणसर ताजी नदर तुवाल्याचेर गेली. न्हावन जातकच त्याच तुवाल्यान तिणे आंग पुशिल्लें ... आपल्या आंगाभोंवतणी तो गुठलायिल्लो.

ताणे रॉताक हात घालो आनी बशिल्ले कडच्यानच तो तुवालो लागीं ओडलो. ओणव घालून हातांत घेतलो. अजून तो दमसार आसा. ताणे तो नाकाकडेन व्हेलो आनी एक शीतळसाण अणभवली. दिशाले हुमेच्या परमळाची!



१३

# फिलोमेना

आयज सकाळच्यान घरामुखावयले पाळणीतल्यान इगर्जेत वतल्या लोकांच्यो रांगो लागल्यात. वयले वाटेन दुर्गाच्या भितर उबी रावन फिलोमेना दोळे भरून लोकांक पळयता. नवी ताल्ल वस्त्रां आंगार चडोवन दादले तशो बायलो आनी भुरगीं मोटे उमेदीन इगर्जेचे दिकेन वतात.

गांवचें फेस्त आनी आयताराचो दीस. पयल्या मिसाक पावपाची सगल्यांक ताकीत.

दुर्गाचे कुशीक एक पारजताचें झाड आसा. त्या झाडापोंदा उबी रावन दुर्गाचेर वणखली जाल्यार फिलोमेनाक पाळणीतलो लोक दिसता. आतांच्या भुरग्यांक ती वळखना. पूण जाण्टे खुबशे वळखीचे. गांव सामको ल्हान न्हय. पूण जिणेचीं सुमार ५० वर्सां तिणे ह्या गांवातच सारल्यांत. चडशा लोकांक केन्ना ना केन्ना तरी पळयिल्ले आसल्यार अजाप ना. पूण फाटलीं ४-५ वर्सां ती भायर सरूंक ना. आयताराची मिसाक लेगीत वचूंक ना.

इगर्जेची घांट वाजली आनी दुर्गा वयली ती फाटीं सरली. आंगातले काबायेक पोटाकडेन दुर्गाचो धवो रंग लागलो. तो हातांनी झाडलो आनी कपलाक बोट तेकोवन काळजार खुरसाची कुरू करून तिणे देवाचें नांव घेतलें.

‘सायबा भोगोस!’ मनांतल्या मनांत तिणें म्हळें, ‘आतां हे फुडलें फेस्त येवचे आदीं म्हाका व्हर.’

पोरसांतल्यान ती घरांत आयली. मोडकळेक आयिल्लें व्हडलें घर. वांशे बरगेल्यात आऩी खुबशे नळे फुटल्यात. शिंवल्यार कितलीं वर्सां जालीं आसत देवाक खबर! कावळे नळयार बसले जाल्यार केन्ना - केन्नाय तांच्या तोडांतले किडे सकल पडटात आनी मा़त्सो वारो आयलो जाल्यार वांश्यांची भूस घयरांवा वांगडा सकल झडटा. घरांतल्यान सान्न भोंवडायता आसतना दिसपट्टो पोश्यांनी कोयर तिका भायर उडोवचो पडटा.

घर तरी ल्हान? मुखावयल्या व्हारांदाक भायल्यानच तोखेवचो. भितर सगळो धुल्ल आनी घयरांव भरला. मावल्यो आनी पाली हांचो खेळ राजरोस चलता. भितरले वाटेन दोशीं दोन सालां. धुवेच्या काजारा वेळार तीं उक्तीं केल्लीं. त्या उपरांत त्या सालांचें दार उक्तें जावंक ना. वारो लेगीत भितर सरिल्लो नासत.

भितरले वाटेन एक आंगण. चार चौक्यांचें. आंगणात मदीं एक चिकूचें झाड खुबच मातलां. फळां लागतात तितलींय पांखे खावन उडयतात. उरलीं जाल्यारय काडपी कोण ना. दोन चौक्यांचे कुशीक दोन दोन चार कुडी. त्योय तशोच बंद आसतात. तिसरे चौकेचे एके कुशीक रांदची कूड आनी दुसरे कुशीक एक दार, जें

मागीलदारा वता.

फिलोमेना काजार जावन ह्या घरांत व्हंकल म्हणून आयली तेन्ना घर मनशांनी भरिल्लें आसतालें. फाटल्या-फुडल्यान चाकर भोंवताले. तिज्या तोंडातल्यान भायर सरिल्लें उतर वयले वयर जिखताले. लोकांच्या मोगान घुस्मटून वचपाचो एक वेगळो अणभव आसता. फिलोमेनान तो घेतिल्लो.

मायेस्त सासूमांय आनी तीन नणंदो, ज्यो भाटां परक्यांक वचचीं न्हय म्हणून आपल्यो उमेदी मारून जल्मभर आंकवारच राविल्ल्यो. एक देर पाद्री जाल्लो आनी तिगेलो घोव भाटकार.

भाटकार हें नांव त्या काळार मानाचें आसलें. भाटकारान काम करचेलें नासता. शिकप लेगीत घेवचेलें नासता. पूण तिजो घोव आंतोन लिसेवाचीं सात वर्सां शिक्षण घेवन घरा बेकारच बशिल्लो. तागेली आवय भाटां सांबाळटाली.

एक दीस सासूमांयन फिलोमेनाक सांगिल्लें, "भाटांच्यो शिमो लेगीत आंतोनीक खबर नात. तूं तरी पळोवन घे. ना जाल्यार म्हज्या फाटल्यान भाटां आनी शेतां लोक खावन वतलो."

सासूमांयलीं उतरां तिका रुचनासलीं. दीस म्होंवे आसले. सकाळ केन्ना जाता ती कळनासली. वरां मिणटावरी सरतालीं. आयज येवजिल्यार हांसूंक येता आनी पिशेपणांय दिसतात. आयज मिणटाचे साठ सेकंद काळजाचे कितलेशेच ठोके वाजोवन वतात. तेन्ना अशें कित्याक जायनासलें? आंतोनीच्या दोळयांत दोळे घालून आपलें रूप नियाळटना एक वेगळीच घुंवळ अणभवंक मेळटाली.

तिका घट याद आसा. पोरसांतल्या एका एका झाडान, दर्या वेळेवयल्या एका एका माडान तांगेलीं पिशेपणां आयकल्यांत, पळयल्यांत. आयज त्यो सुवातो पळयल्यो जाल्यार तीं झाडां आनी ते माड आपणाक चाळयतात असो तिका भास जाता आनी ती कांचवेता.

तिगेल्या म्होंव्या संवसाराक कोणाची तरी दिश्ट लागिल्ली. तो फेस्ताचो दीस. तिका दीस गेल्ले. आनी ती घराच राविल्ली. आंतोन एकलोच फेस्ताक गेलो. रातीकडेन तांगेल्या सालांत डान्स आसलो.

फिलोमेनाक नाचपाची खूब उमेद. पूण त्या दिसा तिका बसून रावचें पडलें. आंतोन रातभर नाचलो. वेगळया वेगळया बायलां वांगडा. तातूंत आंकवार चलयो आसल्यो, काजारी बायलो आसल्यो. सोऱ्याचे घुंवळींत संगिताची उचांबळाय भरसताली आनी नाचपी ताळ-तंत्र सोडून वागताले... काय फिलोमेनाक तसो दुबाव येतालो?

आपल्या घोवाच्या गोपांत दुसरी बायल पळोवन खंयचे बायलेक नसाय जावची ना? तरीकय कांय बायलो अती करतात. तिका तें दिसतालें. एक खेपे तर ती रागान तांबडी जाली. उठून वचचें आनी आपल्या घोवाच्या आंगाक घश्टतले ते बायलेच्या केंसांक धरून सालाभायर काडची अशें तिका दिसलें. रागासरशीं ती उबी लेगीत रावली. पूण तो मेरेन सभ्यतायेचो लगाम रागाचेर पडलो आनी ती

सालांतल्यान भायर सरून आपले कुडींत वचून न्हिदली.

तिका जाग आयली तेन्ना सगळेकडेन थंडाय आसली. वाजप थांबिल्लें. लोक आपापल्या घरा गेल्ले.

ती तशीच उठून सालांत आयली. जिवितांतलो पयलो शॉक तिका तो देखाव पळोवन बसलो. आंतोन आनी ती बायल... जी घश्टून नाचताली... सालांत जमनीरच न्हिदिल्लीं. तांकां वस्त्राचें भान नासलें.

पांय आपटीत ती कुडींत परतली. पूण दोळ्याक दोळो लागलो ना.

आयज लेगीत ते गजालीचो उगडास काडटकच तिजें काळीज धडधडटा आनी आपल्या संवसाराक चूड पेटयिल्ले ते निर्लज्ज बायलेक खोंटावची अशें दिसता.

पूण ती आयज खंय आसा? ती सोंपली. तिजो घोव... लग्नाचें बंधन म्हणून घोव म्हणचेलो... त्या दिसाच्यान तिजें-ताजें नातें घोव-बायलेचें उल्लें ना... आंतोनय मेलो. सासूमांय, नणंदो, देर सगळे सगळे मरून गेले. धूव काजार जावन अमेरिकेक गेली. घरांत उरली ती एकली. पिशी कशी ह्या व्हडल्या घरांत रावता. मरण येना म्हणून जियेता.

सगळो गांव फेस्ताक वता. पूण ती वचना. त्या दिसा तिणे देवाक दुशण दिवन केन्नाच इगर्जेंत पांय दवरची ना असो सोपूत घेतिल्लो.

कितलीं वर्सां वलांडलीं! पूण अजून ती तिडक वचना. त्यो यादी सोंपनात.

इगर्जेची घांट वाजता आनी संताप सोंसूक नज जावन फिलोमेना बांयचेर वचून आंगावयले काबायेसयत कळशे ओडून आंगार रकयता.



## १४

# समिधा

अचकीत पावस आयलो आनी धांवत वचून ती लागशिल्ल्या वडा रुखापोंदा उबी रावली.

चारय दिकांनी पातळिल्ल्यो वडाच्यो खांदयो तिका सत्रेवरी दिसल्यो. ती थंय पावली आनी मुळांत गोठेल्लें एक सुणें ल्हवू उठून शेंपडी सकयल घालून फाटले वाटेन वचून बसलें.

पावस अचकीत आयिल्लो. तिगेल्या हातांत दोन पोतयो. वर्सासणाची चवथ लागीं पावल्या. चार नग करूंकच जाय. चलयेगेर वजें नासलें तरी खाण धाडून दिवंक जाय. आतांसावन ती तयारेक लागल्या आनी आयज बाजारांत वचून सामानय घेवन

आयल्या.

घरांत करपी दुसरो कोणच ना. पयशांची व्हडलीशी अडचण नासली तरी आदाराक आपलो असो मनीस जाय आसता. मांय आतां जाण्टी जाल्या आनी तिचो सगळो वेळ हांतुणाचेर पडिल्ल्या मांवाची सेवा करपांत खर्चता. घोळून आयिल्लें हाड आशिल्ल्यान ती काम करता. नाय जाल्यार तिका आतां पंच्यात्तर वर्सां जाल्लीं आसतलीं. पूण आपलो जीव घोळयता.

चलयेचें पोरूंच लग्न जालें आनी एके व्हड जापसालदारकेंतल्यान ती मेकळी जाल्ली.

पावसाचो नेट वाडलो. वळून आयिल्ल्या हातांक विसव दिवचे खातीर तिणे वडाच्या फांदयांच्या खुट्यांक पोतयो लायल्यो. दोनय हातांचे तळवे तांबडे जाल्ले आनी पोतयांच्या फितांचे वळ तांचेर उदेल्ले.

एकामेकांचेर हात चोळून तिणे वळ पुसून उडोवपाचो यत्न केलो. तिका एके गजालीचें अजाप दिसलें... उटंगाराची दडक आयल्या, पूण वडापोंदा उदकाचो थेंब येना!

अशें येवजितासर खंयच्या तरी पानाचेर जमिल्ल्या थेंबाची एक धार तिज्या माथ्यार गळ्ळी आनी ती गळसणून कपलावयल्यान नाकाच्या शेंड्याचेर देंवन तिज्या ओंठाचेर पावली. घामेल्ल्या कपलावयल्यान आयिल्ल्यान त्या थेंबात भरसल्ले खारसाणेची रूच तिणे जिबेनच घेतली आनी कपलावयलो कुकुम भिजला आसूये अशें येवजून दाव्या हाताचें एक बोट ल्हवू कुकमावयल्यान भोंवडायलें. मागीर साडयेचो पदर सारको करतना पदरांत घुस्पल्लो मणी मेकळो केलो. खीणभर मुखार ओडून दोळयांनी पळोवन घेतलो. आनी उपरांत तो पदराचेर भायले वाटेन सोडून एक सुस्कार दिलो.

आयज सुट्येचो दीस देखून तिका उसरपत मेळिल्ली. फांतोडेर उठचें, घरचीं कामां ताकतिकेन करून मांय आनी मांवाखातीर दनपारचें जेवण अर्द पालयिल्ले रांदनीचेर दवरचें आनी उपरांत एक थंड शॉवर आंगावयल्यान घेवन आपलो जेवणाचो डबो घेवन शाळेंत वचचें, हो तिचो दिसपट्टो क्रम जावन बसला. सगळीं कामां आतां इतलीं आंगवळणी पडल्यांत कि तिका येवजुचें पडना. यंत्रावरी तीं जावन वतात.

तिका उगडास जालो... तिगेलें लग्न थारतकच घोवान तिका सांगिल्लें, 'आमचे घरची सून नोकरी करिना. तुका सोडची पडटली.'

त्या वेळार तिणे निखटें 'आं' म्हणिल्लें. पूण नोकरी सोडपाची कल्पना तिज्या मनाक पेलपासारकी नासली. नोकरी मेळोवचेखातीर आपणे कितले सायास केले हें तिकाच खबर. तिका नोकरी मेळ्ळी देखुनूच तिज्या फाटल्या भावाचें शिक्षण पुराय जावंक पाविल्लें आनी घरांत दोन वेळची रांदन पेटूंक लागिल्ली.

दुसरे खेपे घोवान तिका विचारिल्लें, 'नोकरी केन्ना सोडटलें तूं?'

'सोडूंक कितें कळाव जाय?' तिणे जाप दिली, 'लग्न जायनाफुडें सोडटां.'

लग्ना उपरांत तिणे रजा घेतली. हक्काची आनी अर्ध्या पगाराची. रजेच्या दिसांनीच तिका दीस गेले तेन्ना तर घोवान नोकरी सोडच असो हट धरलो.

'बाळंटेराची रजा मेळटली आनी तो मेरेन शाळेचें वर्स सोंपत येतलें.' तिणे म्हणिल्लें.

'म्हणटासर नवें वर्स सुरू जातलें. ते कांय ना. तूं नोकरी सोडच.' ताणे चिके निबर आवाजान तिका फर्मायलें.

नोकरी हो तिका दुदाचो घोंट जाल्लो. इतली बरी नोकरी एकदम कशी सोडटली? पूण तिजें दुसरें मन म्हणटालें, घोवाचें छत्र माथ्यांर आसतना म्हाका नोकरेची खऱ्यांनीच गरज ना.

विचारासरशीं तिणे वयर पळयलें. पावसाचो नेट उणो जाल्लो. मदीं एकाद्रो थेंब गळ्ळो तरी वडाच्या पानांनी तिजे छत्र धरिल्लें.

उमेदीचे दीस चान्न्यासारके शितळ सुखदिणे आसले. अप्रुपाचीं ल्हारां तिजें सगळें आंग भिजोवन उडयतालीं आनी कातकुतल्यो करपी वारे सुखदिण्या शिरशिऱ्या वांगडा तें सुकयताले. बाळंत जावचे आदींच तिणे थारायलें, आतां नोकरी सोडपाची.

मांयन मात एक दीस तिका शिटकायिल्ली, 'चलो म्हजो, देखून तुजेपरस हांव ताका चड वळखतां. आयज तो तुका नोकरी सोडूंक सांगता. पूण ताज्या भरवंशाचेर नोकरी सोडल्यार फाल्यां तूं उबंत पडूंये.'

तिका ओगीच दुबाव आयलो, घरांत पयशे येतात ते बंद जावचे न्हय देखून मांय तशें उलयता. आवय पुताक चड वळखता आसूं, पूण वर्सभरयाच्या उपाट मोगान घुस्मटून गेल्ली बायल घोवाक वळखलीच ना अशें कशें जावं येता? तो घराण्याचे मर्यादिखातीर न्हय, आपल्या सुखाखातीर आपणाक नोकरी सोडूंक सांगता अशें तिजें मन तिका सांगतालें.

आनी मागीर तिज्या सुखाक दिश्ट लागली. तो अवेळार भायर उरूंक लागलो. केन्ना दिसाचे दीस, केन्ना सप्तकांचीं सप्तकां. भरिल्ल्या दिसांची बायल घरांत अडून पडिल्ली. ते सुखदिणे अवस्थेचेर दुबावाची काजळी दाटूंक लागिल्ली. बाळंत जावन आठ दीस उलगले तरी तो आपले धुवेक पळोवंक लेगीत आयलो ना! तिज्या मनांत पाल चुकचुकली...

मांयक आपल्या पुताचे गूण खबर आशिल्ले दिसता. तिणे केन्नाय दोळयांत दुकां हाडून ताज्या मुखार पदर पातळावचो. पूण तितले पुरतें गोड उलोवन ताणे वेळ मारून व्हरचो.

मागीर तो घर सोडूनच गेलो. खंय गेलो कोणाक खबर ना. लोकांचे जिबेक हाड नासता. कोणेय कितेंय म्हळें म्हणटकच तिज्या काळजाक घाय जावचे. अणभवान तिणे पळयलें, आपले नाणे खोटें. ल्हवू ल्हवू घायांची निबर भेरेल्लीं खिणां जालीं. संवेदनाच मेली.

भाव तिका कुळारा आपोवंक आयलो. तिणे मांयक विचाल्लें.

'तुका हांव कशी आडावं? पूण तूं फकत घोवाची बायल न्हय, आमची सूनय. आमचें कितें चुकलां आसत जाल्यार पोल्यार थापट मार. पूण आमची रिती जीण उध्वस्त करून वचूं नाका.'

निश्चयाची एक गांठ त्या दिसा तिणे आपल्या मनाक मारली. येवजिलें, कांय लोकांच्या वांट्याक होमखणांतले समिधेची जीण येता. यज्ञ चलूंक जाय देखून समिधेक जळूंक जाय...

पावस थांबलो आनी मोव वताचीं किर्णां रूपें जावन झाडाच्या पानांचेर चकचकलीं. पावसाचे थोडे थेंबे तिज्या पोल्यार झडिल्ले... काय दोळयांतलीं दुकां गळिल्लीं?

साडयेच्या पदरांन तिणे दोळे आनी पोले पुसून घेतले. एक खिन्न हांसो हांसली. वडाचे खुंटयेक लायिल्ल्यो पोतयो परत हातांत घेतल्यो आनी जड पावलां घराचे दिके न उखल्लीं. ❊



# १५

# सपन भंग

प्लॅटफॉर्मावयल्यान गाडी सुटली तेन्ना ती भायले वाटेन एका कोनशाक उबी आसली. कितलेशेच लोक प्लॅटफॉर्माचेर बोवाळटाले. कोण गाडयेंत चडटाले, कोण देंवताले. ते गर्देंत तिगेली नदर एक रूप सोदताली. पूण तें तिका दिसलें ना. प्लॅटफॉर्मावयल्या लोकांक रूपच ना अशें तिका दिसले बगर रावलें ना.

ते गाडयेन तो शारांत वचपाचो आसा इतलें तिका खबर आसलें. घरच्यान तो भायर सरून गेला. गाडी सुटचे आदीं ताका दोळेभर पळोवन घेवचो अशें तिणे येवजिल्लें.

तो वतलो हें कळत सावन तिणे एक वेगळीच अस्वस्थताय अणभविल्ली. दर्याचीं ल्हारां एकाचेर एक आपटून उसळचीं तसली एक उंचाबळाय तिच्या काळजांत उप्राशिल्ली. भितर कितें तरी खतखत्तालें. कोणाकडेन तरी आपलें मन ल्हव करचें अशें दिसतालें. पूण कशें उलयतली? कोणाकडेन उलयतली? आनी कितें सांगतली? आपणांक जें भोगता तें कितें म्हणपाचें तीच नकळ आसली. मागीर उतरांनी कशें सांगतली?

दावो हात कपलाकडेन धरून दोळ्यांचेर येतालीं तीं उजवाडाचीं किर्णां तिणे आडायलीं आनी आपले नदरेच्या आवाठांत येतालें तितलें प्लॅटफॉर्म परत नियाळळें.

गार्डान पिल्लूक मारून पांचवो बावटो हालयलो. इंजिनाची शिटी वाजली. डब्यांच्या दारांनी लोकांनी गर्दी केली. धांपेत खरशेत जाणट्या मनशान पावलां उखलचीं तशी गाडी हाल्ली. एक एक डबो तिचे नदरे मुखावेल्यान फुडें वचत रावलो. दर एका डब्यांतल्यान चार पांच हात आपल्या मायेच्या मनशांचो निरोप घेताले. हात उलयनात, पूण मनाची भावना कितले सोंपेपणी उक्तायतात, अशें तिका दिसलें. तिणेय आपलो उजवो हात उखलून हालयलो.

एक एक डबो फुडें वतालो. इतल्या डब्यांमदलो तागेलो डबो खंयचो? निरोप घेतल्या साबार हातांमदलो तागेलो हात खंयचो?

ते गोंदळिल्ले अवस्थेंत लेगीत तिगेल्या भोळया मनाक दिसलें, ह्या साबार हातांमदलो एक हात तागेलो. निरोप घेवंक ताणे भायर काडिल्लो. तिका पळोवनच तो हात हाल्लो आसतलो. विचारासरशीं वयर केल्लो हात तिणे आनीकय नेटान हालयलो. नदरेआड सरकतल्या डब्यांतल्या हातांमदलो खंयचो हात आपलो निरोप घेता हें कशें कळप? निमाणो डबो नदरेआड जाईसर ती हात हालयत रावली. खंयच्याय तरी एका हातान आपल्या सादाक जाप दिल्या अशें तिणें आपणाकच सांगलें.

समाधानाचो कंप काळजाक आफुडलो आनी तिगेले दोळे अचकीत भरून आयले. काळजाची मोनी भास दोळयांक कशी समजता हें एक कुवाडेंच! बेगि-बेगीन तिणे दोळे पुसले आनी आपणाक कोण पळयना मू अशें येवजून भोंवतणी नदर भोंवडायली.

कित्याक रडटा अशें कोणे विचारलें जाल्यार कितें जाप दितली? रडपाक लेगीत अधिकार आसचो पडटा. हातांनी दोळे पुसता तितले ते परत भरून येताले. तिणे साडयेच्या पदरान ते पुसले. परत भरून आयले आनी दोन हून थेंबे गळसणून पोल्यार गळ्ळे.

अशे अवस्थेंत घरा कशी परततली? तिणे येवजिलें, पयसुल्ले वाटेन वचचें. तितलो चड वेळ लागतलो. वाऱ्यान दोळे सुकतले. मन घट जातलें.

वाटेचे कुशीक भौशीक नळाचेर एक बायल उदक भरताली. तिका दिसलें थंड उदकान तोंड धुवन घेतलें जाल्यार दुकांचे दाग पुसून वतले आनी खंती तोंड परत टवटवीत जातलें. ती नळासरीं गेली. सुतासारकी उदकाची बारीक धार नळांतल्यान गळटाली. नळापोंदा ते बायलेन दवरिल्लो व्हडलो कळसो. तो भरच ना.

"तोंड धुतलें मगो?" ते बायलेन तिका विचारलें.

अचकीत पदर दोळयांकडेन गेलो आनी तकली हालोवन तिणे हय म्हळें.

'मात्शें राव आं.' ते बायलेन म्हळें, "इतलो कळसो भरून घेतां मागीर तूं तोंड धूय."

ती कांय उलयली ना.

'ताकीत आसतकच सदांच नळाक धाड मारता.' आपणाकडेन उलोवचें तशें ते

बायलेन म्हळें आनी तिजे कडेन नदर करून विचारलें, "बाय, तूं रडटा कित्याक?"

प्रस्न आयकना फुडें भानार आयिल्ले भाशेन तिणे आंग काडलें. तिचे नदरेक नदर दिवपाचें धाडस जालेंना. नदर सकयल घालून तिणे जाप दिली, "ना. हांव कित्याक रडटलें?"

पूण कांपऱ्या आवाजान घात केलो आनी ताळयांतल्यान भायर सरिल्ल्या उतरां फाटल्यान येदोवेळ दामून दवरिल्लो हुडकोय सुटलो.

बायलेचें दुख्ख बायल वळखता. पुरतो भरूंक नाशिल्लो कळसो ते बायलेन कुशीक काडलो आनी तिका तोंड धुवन घेवंक सांगलें.

तोंडाचेर शीतळ उदक मारून घेतकच तिका मात्शें बरें दिसलें. थोडी थाकाय लेगीत आयली.

कमराक खोयिल्लो लेंस ती सोदूंक लागली. पूण थंय लेंस नासलो. केन्ना खंय पडलो देव जाणा! साडयेचो पदर फुडले वाटेन घेवन ती आपलें तोंड पुसता आसताना ते बायलेन विचारलें, 'स्टेशनार गेल्लें?'

मान हालोवन तिणे हय म्हळें.

"घरकार येवचो आसलो?"

गणसा बैलासारकी मान हालोवन तिणे ना म्हळें.

"मागीर? घरकार भायर गेला दिसता?"

तिका जाप सुचली ना. ना कशें म्हणपाचें? आनी हय तरी कशें म्हण्टली? गाडयेन तो गेल्लो. पूण तो तिगेलो कोण? आपल्या काळजाच्या देवाऱ्यांत ताका बसोवन तिणे ताजी पुजा केल्ली. पूण मनांतली भावना केन्नाच उक्तावंक नासली. उतरांची गजाल सोड, नदरेक नदर लेगीत केन्ना मेळूंक नासली. हें सगळें एके अनोळखी बायलेक कशें सांगपाचें? पूण काळजांतलो घुस्मटमार ल्हव करचे खातीर कोणाक तरी सांगचें अशे तिका दिसतालें.

ती बायल शाणी आसली. म्हऱ्यांत आयली आनी आपलो हात तिचे फाटीर दवरलो. खूब वर्सांनी मायेचो स्पर्श तिणे अणभवलो. मायेच्या स्पर्शासरशीं संयमाचो बांद फुटलो आनी काळजांतल्या घुस्मटमाराक वाट मेकळी जाली. मान फिरोवन ती ते अनवळखी बायलेचे कुशींत रिगली आनी रडूंक लागली. रडपाचो ओग सोंपून सोंपना. पूण मायेची ऊब धीरदिणी दिसली.

तिका धीर दीत ते बायलेन म्हळें, "जिणेत संयोग आसता तसोच वियोगय आसता. सीतेक लेगीत तो चुकलो ना... तो कोणाक चुकना... तुजें कितें जालें?"

कशें सांगतली? ती एका घरांत कामाक आसा. त्या घरचो एक तरणो भुरगो सुटी घेवन घरा आयिल्लो. तो आयज परत शारांत गेला. म्हयनोभर तिणे तागेली सेवा चाकरी केल्ली. आतां तो गेलो म्हणून ती खंती जाल्ली.

"ताणे तुका फटयलें?" ते बायलेन विचारलें.

"ना. तशें म्हणूं नाका. तो बरो मनीस. देवमनीस म्हळयार जाता." मेकळेपणान

ती पयलें वाक्य उलयली:

'अजून तूं भुरगें आसा. तुजे परस उणेंच धा पावसाळे हांवें चड पळयल्यात. दादल्याची जात ही मुळांत फटिंगाची जात आसता. गोड गोड उलोवन फुसलायतले, घाळ खिणाक फटयतले आनी उपरांत आपल्या कर्माचीं बियां रुजोवन तोंड घेवन वतले... तुजें तशें जालां?'

'ना बाये ना.' रडत रडत तिणे आपलो हात ते बायलेच्या तोंडाचेर धरलो. 'एका उतरान तो म्हजे कडेन केन्ना उलयलो ना. तकली वयर करून म्हाका पळयलें ना. हांवच पिशें. मनांतल्या मनांत ताका पुजलो आनी आयज तो गेलो...'

परत एक व्हड हुडको.

ते अनवळखी चलयेक कशें समजावचें हें ते बायलेक कळना जालें. कथा आयकली आनी तिज्याच काळजा वयल्या पेकिल्ल्या घायाची खवळी निखळ्ळी.

तिका थंयच सोडली आनी ती बायल आपले भरून आयिल्ले दोळे खरखरीत बोटांनी पुशीत हुडक्या हुडक्यांनी रडूंक लागली.

ते बायलेक रडटा तें पळोवन चली पुराय गोंदळून गेली. मात्शी कांचवेली आनी इल्ली दुबावली. आपलें दुख्ख हिका कित्याक झोंबचें हें तिका कळना जालें.

कांयच सुचना जावन दोन खीण ती जाण्टी बायल रडटा तें विस्मीत जावन पळयत रावली. मागीर म्हळें 'म्हजें दुख्ख हांव रडटां? तुवें बाये इतलें मनाक लावन कित्याक घेतलें?'

रडटले चलयेक समजायतां समजायतां रडूंक लागिल्ली बायल आनीकय व्हडान रडली. रडटां रडटां म्हणूंक लागली, 'तुजें सपन भंगलें... पूण म्हजी जीण पुराय हुमटून पडल्या.'

अजाण चलयेक बोध जालो ना. तिणे परत विचारलें, 'म्हाका कांय समजलें ना. कितें जालें?'

'कर्म म्हजें!'

रडप चालूच आसलें.

'हांव तुका सांगता: मन कोणाकय दी. पूण देह दुसऱ्याचे सुवादीन करूं नाका... एक फावट तो दुसऱ्याचो जालो म्हणटकच मागीर आपलो उरना आनी दुसरो गेलो तरी ताजी सांवळी फाट सोडिना.'



१६

# जें घडलें ना...

सुरेशान सकाळीं उठतकच आपल्या घराचे गच्चेर वचून व्यायाम करपाची एक नवी संवय लावन घेतल्या. उकत्या जाग्यार सूर्योदयाआदी उजवाडाची जी मंद पसय आसता ती ताका भाळयता.

केन्ना केन्नाय धुकें पडटा तेन्ना तर सुरेशाली उमेद वाडटा. धुक्यांत उबे राविल्ले देवदार ताणे हिमालयांत पळयिल्ले आनी मनांतल्या मनांत तांची तुळा ध्यानस्थ ऋषींकडेन केल्ली. अंतराळांत संचार केल्ल्याचो आनंद धुक्यांत वावुरतना ताका मेळटालो. धुकें पडटा त्या दिसा ताका व्यायाम करपाक अदीक उमेद येताली.

सुरेश व्यायाम करता आसतना मुखावयले घराचे गच्चेर रिना येवन उबी रावता. रिना पासयो मारता आनी आपणाक पळयता म्हणपाचें आदीं ताका खबर लेगीत नासलें.

एक दीस व्यायाम सोंपोवन सुरेश उदेत्या सूर्याचीं किर्णां पळयतालो. किर्णांच्या धगान विरगळटलें धुकें नियाळटां नियाळटां अचकीत ताची नदर मुखावयले गच्चेचेर गेली. थंय एक आकृती उबी आसा म्हणपाचें ताणे पळयलें. धुकें विरत रावलें तशें ती रिना म्हणपाचें ताणे पारखिलें. ताकतिकेन कुशीक आशिल्लो तुवालो उखलून आपल्या उकत्या आंगाचेर घेतलो. पूण तितल्या बोवाळांत रिना सकयल देंवलें.

त्या दिसाच्यान व्यायाम करता आसतना आपणाक कोण तरी पळयता म्हणपाचें भान सुरेशाक सदांच उरूंक लागलें आनी तागेली नदर लेगीत भोवन भोवन मुखावयले गच्चेर वचूंक लागली.

आयज सुरेश व्यायाम करूंक गच्चेर आयलो आनी ताणे पयलीं नदर मुखावयले गच्चेर व्हेली. थंय रिना उबी आसली. कुशीक आशिल्ले उदकाचे टांकये फाटल्यान वचून सुरेश तिका पळयत रावलो. आयज धुकें नासलें. मळबांतल्यान एकाद्री परी सकयल देंवल्या असो त्या अंदूक उजवाडांत ताका भास जालो. मानेवयले मेकळे केंस पळयतकच ती घडये न्हावन वयर आयिल्ली आसुंये अशें ताका दिसलें.

टांकये फाटल्यान उबो राविल्लेकडेन आपूण व्यायाम करूंक आयलां म्हणपाचें सुरेश पुराय विसरून गेल्लो. सामकार उबो रावन रिनाक पळोवपाचें धाडस ताका जायना आसलें. लिपचोरयां तो तिका नियाळटालो. दोळे तिजेर थिराविल्ले आनी मन तिजोच विचार करतालें.

अचकीत ताचें काळीज धडधडूंक लागलें. तो एक नवोच अणभव. आपणे ते गच्चेर वचचें आनी रिना फाटल्यान उबो रावन ताज्या केसांचो वास घेवचो असो एक विचार ताज्या मनांत आयलो आनी काळजांत उमाळ्यांची ल्हारां नाचूंक लागलीं. गोड

कातकुतल्यो कोण तरी आपणाक करता अशें ताका दिसलें.

दोन गच्यांमदीं अंतर आसून आसत पांच मिटरांचें. एकाद्र्या सिनेमांत असो प्रसंग दाखयल्लो जाल्यार नायक मारुतीवरी उडी घेवन नायिकेसरीं पावतलो आसलो. पूण आपणाक तशी उडी मारूंक जमची ना हें सुरेशाक खबर आसलें. उडी मारप जमिल्लें तरी आपल्या आनी रिनाच्या मनामदीं जें पांच वर्साचें अंतर आयलां तें कशें भरून् काडपाचें?

... उदेंतेकडेन सुर्याचीं किर्णां वयर सरलीं आनी आतां रिनाचो तोंडावळो निवळ दिसूंक लागलो. कसलो हुस्को रिनाच्या मनाक रोंबता काय! ताका तिचो तोंडावळो खंती दिसलो. पांच वर्सांआदीं आसली तशीच ती आजय आसा. पांच वर्सां!...

इतल्या लांब काळा मजगती पांच खेपे पावसाळो आयलो आनी गेलो. गिमान ताप दिलो आनी शिंयान आंगां आंखडलीं. पूण ताचो रिनाचेर कांयच परिणाम जांवक नासलो.

रिनाची नदर घडये ताकाच सोदताली आसूंये. तागेल्या घरावटच्यान तोंड करून ती पळयत उबी आसली आनी ती पळयता देखून टांकयेफाटल्यान लिपिल्ल्या सुरेशाक मुखार येवपाचो धीर जायना आसलो. उजवाड वाडलो. आतां ताका घरांत वचूंकच जाय. आज तागेल्या इश्टाचें लग्न. त्या लग्नाक वेळार पावंक जाय. फाटल्या वटेच्यान नदर मारली जाल्यार लग्नाचो हॉल दिसतालो आनी थंय वाजतले शेनायेचे मंद सूर आयकूंक येताले.

सुरेश सोपणां देवंक लागलो. पूण तागेली नदर रिनाचेर थिराविल्ली. मन लेगीत गच्चेरच रावंक सोदतालें.

कितल्या अजापाची गजाल! पांच वर्सां जालीं ताच्या लग्नाक, पूण पांच मिणटांपरस चड वेळ बायलेच्या तोंडाकडेन तो पळयत रावलो ना. आतां येदो वेळ तो रिना कडेन पळयत कसो रावलों?

बाथरुमांत गेल्लेकडेन सगळयो यादी जाग्यो जाल्यो.

ताका अजून तो दीस याद आसा. रिना नांवाचे एके अनवळखी चलयेक पळोवंक तो मुंबय गेल्लो. गेल्लो म्हणचेपरस घरच्यांनी ताका धाडिल्लो म्हणप सारकें जातलें. ताणे निकतीच सी. ए. ची परिक्षा दिल्ली आनी लग्नापरस परिक्षेच्या रिझल्टाचो ताका चड हुस्को आसलो. लग्न लांबणेर उडोवचें म्हणून ताणे यत्न केले नात अशें न्हय. पूण आवयन म्हणिल्लें, 'चली पळोवंक अडचण कसली? तुका नाका जाल्यार तूं इतले बेगीन लग्न करूं नाका. पूण एक खेपे चली पळोवन यो.'

त्या वेळार तागेली मावशी मुंबय आसताली. तिणेच ती सोयरीक हाडिल्ली. मावशेन फोण्ण घालें. म्हळें, 'म्हाका जाल्यार बाबा दिसता तुका इतली बरी चली सोपेपणान मेळची ना. तशी ती आमकां परकी न्हय. पयसुल्ल्या नात्यांतलीच. हांवेच तिगेले आवयक तुजें नांव सुचयलें.... तिका एकल्यान मागणी लेगीत घाल्ली आसा.'

मुंबयचो तो प्रवास एक नवो अणभव दिवपी थारलो. कितलेशेच खेपे तो मुंबय

गेल्लो. पूण ते खेपे भोवतणचो वाठार ताका वेगळोच दिसलो. नवे गांव आनी नवें सैम पळयतां पळयतां तो सी. ए. च्या रिझल्टाची गजाल विसरून गेलो. बस ज्या वेगान धांवताली त्यायपरस चड वेगान ताजें मन धांवतालें.

फांतोडेर तो दादर देंवलो आनी टॅक्सी करून थेट रिनाल्या घरा गेलो. त्याआदीं तो रिनागेर केन्नाच वचूंक नासलो. पूण त्या घरच्या लोकांक तो आयकून वळखतालो आनी ते लोकय सुरेशाक वळखताले.

फ्लॅटाचें दार रिनाच्या भावान उकतें केलें आनी एकदम ताजें नांव घेवन ताका येवकार दिलो. ताजेखातीर एक कूड तयार आसली.

रिनाची आवय येवन खबर घेवन गेली. रिनाचो बापूय ऑफीसांत गेल्लो. पूण रिना खंय दिसलें ना. रिनाक ताणे केन्नाच पळोवंक ना. घरांत कोणय आंकवार चली आसली जाल्यार ती रिना अशें तो मानीत आसलो. पूण विचारतलो कसो?

न्हावन धुवन तो भायर आयलो आनी रिनाचे आवयन दिल्ली च्या घेतली. तितले म्हणसर रिनाचो भाव न्हेसून तयार जावन ताजेसरीं आयलो आनी म्हळें, 'हांव ऑफीसाक वतां. सांजवेळां बेगीन येतां. तुका जाय जाल्यार तूं सुसेग घे. भोवन येतलो जाल्यार यो. संकोच करूं नाका.'

रिनाची वासपूस करची अशें ताका खूब दिसलें. पूण ताणे कांय विचारलें ना.

रिनाचो भाव भायर वचना फुडें रिनाचेच आवयन ताका म्हळें, 'रातीं जागरण जालां. आतां न्हिदतलो जाल्यार न्हीद. जेवणाआदीं रिना येतलेंच.'

भितरले कुडींत तो वचून आड पडलो आनी कल्पनेतल्या रिनाचें सपन पळयतां पळयतां केन्ना दोळो लागलो तें कळ्ळेंच ना

कुडीच्या दाराचेर कोणेतरी मारलें आनी ताका जाग आयली. दोळयांत अजून न्हीद आसली. आपूण मुंबय रिनाच्या घरा आसा म्हणपाचें भान जायसर दोन खीण गेले. जेन्ना भान जालें तेन्ना ताणे उठून कुडीचें दार उकतें केलें.

दारांत एक चली उबी.

नदरेक नदर भेटली तेन्ना तिगेली नदर जमनीकडेन झुकली.

'जेवन घे आनी मागीर न्हीद.' ते चलयेन ताका सांगलें आनी ती गोड हांसली.

तो तिका पळयत आसलो. ताणे कल्पना केल्ली ताचेपरस सोबीत.

'तूं रिना?' ताणे दारांतल्यान फाटीं सरत विचारलें आनी तिचे जापेची वाट पळयनासतना म्हळें, 'यो बस.'

रिना भितर आयलें आनी उबेंच रावलें. कुडींत कदेल नासलें. आसली ती एक कॉट.

'उबें कित्याक? बस.' ताणे म्हळें.

संकोचून रिना खाटीच्या एका कोनशाक बसलें.

'खरें म्हळयार म्हजें काम सोंपलें.' खोशयेच्या उमाळयाभरशीं सुरेशान म्हळें.

'कसलें काम?' रिनान तटस्थपणान विचारलें.

'हांव हांगा कित्याक आयलां तें तूं नकळ?'

'जाणा.' हांशिल्ले भाशेन करून रिनान जाप दिली आनी परत ताणे तोंड गंभीर केलें.

'हय, तुका पळयलें आनी तूं म्हाका आवडलें.' सुरेश हुतहुतेपणान उलयलो.

'तुजें काम जालें. पूण म्हजें काम उरलां.' मान सकयल घालून आनी पांयाचो आंगठो जमनीचेर दोडून रिनान म्हळें.

'कसलोच संकोच करूं नाका. तूं जें कितें विचारूंक जाय तें विचार. सांगूंक जाय तें सांग.'

रिनान खांकिल्ले भाशेन केलें. घडये कशें सांगचे हें तें येवजितालें आसूंये. दोन मोने खीण तें जमनीकडेन पळयत रावलें आनी सुरेश आपले नदरेन रिनाचे रूप तोखेत रावलो.

'रागार जावं नाका.' मोठ्या कश्टान रिनाच्या तोंडांतल्यान उतरां भायर सल्लीं, '... तुजेविशीं म्हजी भावना हांव तुका कशी सांगूं?'

रिना कितें सांगूक सोदता हें सुरेशाक समजलें ना. तो तिका पळयत रावलो.

'म्हजो दुसऱ्याचेर मोग आसा. तूं शिकिल्लो सवरिल्लो. तूं म्हजें मन वळखतलो अशें हांव मानतां. म्हजेर एक उपकार कर. तूं नकार दी... म्हाका आशिर्वाद दी.'

आनी दोनय हातांनी आपले तोंड धांपून रिना हुडक्या हुडक्यांनी रडूंक लागलें.

कितें करचें हें सुरेशाक समजलें ना. तो रिनासरीं गेलो आनी ताज्या माथ्याचेर हात दवरलो. त्या स्पर्शासरशीं रिना उठून उबें रावलें आनी कुडींतल्यान भायर सरून गेलें.

त्याच दिसा दनपारची बस घेवन सुरेश घरा परतलो. चली पसंत ना इतलेंच ताणे आवयक सांगलें.

आनी रिझल्टाची वाट पळयनासतना आयिल्ली पयली सोयरीक कबूल करून तो लग्न जालो.

पांच वर्सां उलगलीं.

रिना लग्न करून कांय दीस मुंबयच आसलें. उपरांत ताज्या घोवाची सुरेशाल्या गांवांत बदली जाली. सुरेशानच ताका फ्लॅट मेळोवन दिलो.

केदो वेळ तो शॉवराचेर न्हायत आसलो देवाक खबर! भायल्यान बायलेन आवाज दिलो, 'तुजें न्हाण उलगतासर ते वटच्यान लग्नाचो आक्त सोंपचो ना मूं?'

आनी तो भानार आयलो. बेगिबेगीन शॉवर बंद करून ताणे तुवाल्याक हात घालो आनी आंगावयलें उदक पुसतां पुसतां पोरण्यो यादी विसरपाचो यत्न केलो.



१७

# नर्तकी

दीस अस्तंतेकडेन देंवलो आनी तळयाचे देगेवयल्या झाडांच्यो सांवळयो आनीकय ल़ांब जाल्यो. केदो वेळमेरेन एक म्हस तळयांतल्या खदळ उदकांत आपलें आंग बुडोवन राविल्ली. उबाळाच्या ह्या दिसांनी उदकाची आनी रेब्याची शीतळसाण तिका सुखायताली.

मदींच एक काळी शिळा आसची तसो तिजे फाटीचो वयलो भाग उदकावयर दिसतालो. थंय दोन कावळे बसल्यात आनी म्हशीच्या आंगावयल्यो हुलको आपले चोंचीन उखलून खातात. म्हशीन उठपाचें येवजिलें आनी शेंपडी हालयली तशे दोनय कावळे उडून गेले. सवण्याचीं भिरीं चिंवचिंवत घोंटेरांत परतूंक लागिल्लीं.

म्हस थंडसाणेन उठून उबी रावली आनी एकाद्रे राणयेसारकी एक एक खूर उखलून तळयाभायर आयली. सगळें आंग आनी तकली हालोवन तिणे उरिल्लें उदक झडयलें आनी आंगार

अणभवली. दिशाले हुमेच्या परमळाची! बसतल्या मुसांक आमूडपाखातीर पर्थून एक फावट आपली शेपडी आनी शिंगां वावुडलीं. चोशीं पळोवन ती हांबेली आनी उपरांत संथ चालीन वचूंक गेली.

तळयाचे धडेर येवन बसल्यार ताका अर्द वर जालें. पुराय वातावरण प्रसन्न आसलें. मनमेकळेपणान वावुरतल्या सवण्या सावदांची हालचाल पळोवप ताका आवडटा. सैमाचे बदलते रंग, खिणांत नदरेंत भरता तें नवें रूप पळयतना आपणाक तो विसरून वता. पुण आयज नदरेसामकार सैमाचो हांसो आनी नाच दिश्टी पडटा आसतनाय ताजें अशांत मन थीर जायना आसलें. एके तरेची अस्वस्थताय ताज्या मनांत दाटून आयिल्ली.

तिनसांजची ती देवळांत येवपाची आस़ा. तो तिगेली वाट पळयतालो. कान आनी दोळे तिजेच वाटेकडेन लावन बशिल्लो. वाऱ्याच्या झोतासरशीं मदींच झाडांचीं पानां सळसळटालीं. ती आयली अशें दिसून तो परत परत नदर फाटलेवाटेन घुंवडायतालो.

आतांय ताणे नदर घुंवडायली. नागमोडी पांयवाट सोंपता थंय निर्जन डांबरी रस्तो सुरू जाता. झाडांच्या खांचींतल्यान बुडट्या सूर्याचीं निस्तेज किर्णां सांवळेकडेन आपालिपाचो खेळ खेळटालीं. घोंटेरांत परततलीं सवणीं शिळोणी घालतालीं. पूण पुराय रस्तो उकतो.

ताणे एक गुंडो उखल्लो आनी तळयांत उडयलो. "बुडूऽऽक" असो आवाज आयलो आनी ते सरशीं उदकाची फाट चिरून गुंडो तळयाच्या तळाक गेलो. उपरांत आयले चार बुडबुडे आनी वाटकुळे तरंग. एकांतल्यान दुसरो. तरंग विस्तारत

विस्तारत तळयाच्या चारय देगांक आपटले आनी परततना नवे तरंग उदेवंक लागले. तागेल्या मनांतय अशेच तरंग आनी प्रतीतरंग उदेतात.

ती येत काय?

येता अशें तिणें उतर दिलां. दिल्लें उतर ती केन्ना मोडिना, त्याखातीर केदेंय व्हडलें दिव्य करूंक अनमनना, असो ताजो आयज मेरेनचो अणभव. पूण आयची गजाल वेगळी. आयज ताणी दोगांनीय एक निमाणे पावल उखलपाचें थारायलां. वेर्णेचे दोंगुल्ले वयल्या म्हाळशेच्या ह्या निर्जन देवळांत सायबिणीचे साक्षीन तीं दोगांय लग्न जातलीं. दोनय घरांतल्या लोकांचो ह्या लग्नाक विरोध आसा. समाजाक तांचें प्रेम मान्य ना. समजावपाचो, मन बदलपाचो यत्न फसला. ती... ती एका फाकिवंत घराब्यांतली रूपसुंदरी. आनी तो?... तो एका किरकोळ घरचो सामान्य तरुण...

"म्हज्या घरचे लोक विरोध करतात ताजें कारण म्हाका कळटा. म्हज्या आईबाबाक गुणापरस कुळाचो आनी बुद्दीपरस धनाचो आनी मोठेपणाचो आग्रो. हें समजूं येता. पुण तुज्या आईबाबान विरोध कित्याक करचो?" तिणे ताका विचारिल्लें.

तिजें म्हणणे तर्काक धरून आसलें.

ताणे उस्वास सोडलो. म्हळें, "हांव तांचो एकलोच चलो. म्हाका घेवन तूं पळून वचशीत अशी तांकां भिरांत दिसता... त्याभायर नाकापरस मोती जड आसचें न्हय अशें तांचे मत."

ह्याच तळयाच्या शांत नीतळ हारशांत ताणी आपलीं पडबिंबां कितलेशेच फावटीं नियाळ्ळयांत. एके खेपे ती अशीच ताजे कुशीक बशिल्ली. दोगांचींय पडबिंबां नितळ तळयांत निवळ बरीं दिसतालीं. अचकीत ताका एक मस्करी येवजली. ताणे ल्हानसो गुंडो उखल्लो आनी तळयांत मोखलो. ल्हारांचे तरंग उदेले तशीं पडबिंबां हाल्लीं. कातकुतल्यो करपी नाच नाचूंक लागलीं. नाचतां नाचतां एकमेकांत भरसूंक लागलीं.

"तें पळय... आमचें मीलन." ताणे पडबिंबांकडेन तिचें लक्ष व्हेलें.

पूण ती हांसली ना. हरशीं मस्करेन विचारिल्लो प्रस्न आयकनाफुडें ती ताजे कुशींत रिगताली. तशी रिगलीय ना. गंभीर तोंड करून नदर तळयाचेर थिरावन बसली.

"कितें जालें?" ताणे विचाल्लें.

"आमचे देह पळय छिन्नभिन्न जाले तेन्नाच तांचें मीलन जालें... तुवें पळयलें ना?"

आतां तिची वाट पळयत बशिल्ल्या वेळार ताका त्या प्रसंगाचो उगडास जालो.

परत दोळे मार्गाचे दिशेन ताणे घुंवडायले. मैलभर रस्तो नदरेक दिसतालो. आतां सूर्य दर्याचे कुशींत लिपिल्ल्यान संथ पावलां उखलीत काजळी काळोख दाटून येतालो.

ह्या काळखांत हांगा बसून तिची वाट पळोवप समा न्हय. ताणे म्हन्यांत दवरिल्ली पोती उखल्ली. पोतयेंत आसात फुलांच्यो दोन माळो आनी कुकमान भरिल्लो रुप्याचो करंड. देवते सामकार तिज्या गळयांत माळ घालतकच तो तिज्या माथ्याचो भांग ह्या

कुकमान भरतलो...

तो देवळांत आयलो. नवें देऊळ बांदपाचें काम थंडावलां. चुडटांचे खोपींत देवतेची मूर्त आसा. कुशीक एक निरांजन तेंवता. पांयांचें जोतें ताणे भायले वाटेन दवल्लें आनी शेणान सारयिल्ले शीतळ जमनीचेर पांय दवरून तो देवते सामकार आयलो.

देवळांत कोणच नासलो. देवतेकडेन तो पळयत रावलो. मंद पेटतल्या निरांजनातले वातीचे पसयेंत देवतेच्या तोंडावयल्यो कळा बदलतात अशें ताका दिसलें. दोनय हात जोडून तो देवतेक पांयां पडलो आनी थंयच बसकण घेतली...

ताका ते खबरेचो उगडास जालो. नुपूर तळें पळोवंक गेल्ल्या वेळार एका गावड्यान ताका ती सांगिल्ली.

....तळयाचे देगेर एक तरनाटो बसून आसा. इतले मजगतीं थंय एक सोबीतकायेची मूर्त कशी देखणी चली येता. तिच्या हातांत रितो कळसो. पांयांत खुळखुळपी नुपूर. पावलासरशीं संगिताचे मंजूळ सूर वातावरणांत फांकतात. खीणभर ती त्या तरनाट्याकडेन पळोवंक उबी रावता. तो उठना. एक अप्रूप पळयिल्ल्याचें अजाप ताज्या दोळ्यांत भरता. नदर थिरावन तो तिका पळयत रावता. तिगेल्या पावलांचो ठेको चुकता. तरी ती नुपूर खुळखुळायत तळयांत देंवता. हाताच्या पोशांनी आपलें आंग आनी तोंड धुता. पुशिना. रिकामो कळसो उदकांत बुडयतना उदक बुडबुडटा. भरिल्लो कळसो ती हांडीर उखलता आनी एकाद्रे नर्तकीचे लयेंत नुपूर वाजोवन आंग मोडीत वयर येता.

..... अजून तो तरनाटो तिका पळयत आसता. दोळ्यांची पाती हालयना आसतना. पुंगेच्या नादान गुल्ल जाल्ल्या नागासारको तो तिजेर भाळिल्लो.

.... ती भरिल्लो कळसो घेवन ताजेसरीं येता. तरी ताजी नदर तशीच तटास उरता. सपन पळयतल्या भ्रमिष्टासारकी. हाताच्या पोशांत उदक घेवन ती ताज्या तोंडार चप्प करून मारता.

... दोळे धांपून तो तकली हालयता आनी सुध्दीर येवन दोळे उकते कर जाल्यार सामकार कोण नासता. खंय गेली ती?... काय तें एक सपन आसता? ती देवताच न्हय मू?... काय तो भास?

.... येवजितां, येवजितां तो पिसो जाता. रात दीस त्या निर्जन भागांत उकत्या पांयांनी भोंवता. पिशांतरावरी. कळसो हांडीर घेतिल्ले अप्सरेक तो सोदता. ती परत येतली असो ताजो भावार्त ताका सांगता.

खरी काय ही कथा? असल्यो आख्यायिका आनी दंतकथा वचत थंय आयकूंक मेळटात. पूण तो भोळो गावडो फट कित्याक सांगतलो?

"ती कोण अशें तुका दिसता?" ताणे गावड्याक विचारिल्लें.

आनी गावड्यान दुसरी कथा सांगली. चारशें-पांचशें वर्सां आदली कथा. देवळाच्या सभामंडपांत त्या दिसा उत्सव आसलो. देवळाचे नर्तिकेचो नाच जावचेलो आसलो. तिची नामना धा दिशांनी पातळिल्ली. तिच्या शिल्पावरी आंगलोटाचें आनी वेतावरी

हालचालीचें लोक वर्णन करताले. तिगेले सोबीतकायेचो बऱ्या घरच्या बायलांक मत्सर जातालो आनी दादले सगलीं समाजीक बंधनां विसरून तिजे नदरेक नदर दिवंक एकामेकांकडेन सर्त लायताले. नाच करपी चली, पूण देवतेची मोठी भक्त. नाच करचे आदीं ती नुपूर तळयेचेर वचून न्हाताली. कपलार आनी भांगेंत कुकूम भरताली आनी मागीर घरा वचून, न्हेसून नाच करूंक सभामंडपांत येताली. वर्सांतल्यान एक दीस ती जीव ओंतून नाचताली. नाचतां, नाचतां सुद्द वचून भूंय कोसळ मेरेन त्या दिसा ती नाचताली. त्या नाचांत कळेकळेन तिजी कळा, तिजें लावण्य कळयेचें फूल फूलचें तशें फुलत रावतालें.

आनी तो दीस आयलो. उत्सवाचो दीस. तीनसांजचो वेळ. अस्तंतेकडेन सूर्य देंवलो आनी उदेंतेकडेन पुनवेचो चंद्रीम वयर सल्लो तशी ती न्हावंक नुपूर तळयेकडेन आयली. थंय एक तरनाटो बशिल्लो. तिणे एक नदर ताजेर भोंवडायली. नागणीचे नदरेक नदर मेळनाफुडें बेबो जसो निश्चल जाता तसो तो जालो. पूण तिणे ताजी पर्वा केली ना. आपल्या पांयांतले नुपूर वाजयत ती तळयेंत देंवली.

धडेर बसून तो तिका पळयत आसलो. पूण ती खांकडेली ना वा लजेली ना. न्हावन वयर सरतना आंगावयलें ओलें न्हेसण तिगेल्या कोरीव शिल्पाची सोबा वाडयतालें. तो सपन पळोवचें तसो पळयत रावलो. आपली सुद्द तो वगडावन बशिल्लो. न्हावन जातकच तिणे येतना हाडिल्लो तो कळसो तळयेंतल्या उदकान भरून घेतलो. उदक न्हय, तीर्थ तें. कळसो घेवन ती वयर आयली. ताज्यामुखार उबी रावली. ताजी नदर तिजेर थिरावलेली. पूण तो ह्या संवसारांत नासलो. हाताच्या पोशांत इल्लें उदक घेवन तिणे पच्च करून ताज्या तोंडार माल्लें. तेसरशीं तो भानार आयलो. ती हांसली. एक अप्रूप हांसो. पुराय वाठार जोगलावरी चकचकलो. तिणे आपलो मेकळो हात मुखार केलो. ताणे तो आपल्या हातांत घेतलो.

"चल यो." तिणे म्हळें, "आयचो म्हूर्त वगडावं नये. आज नाच सोंपतकच देवतेच्या चौकाचेर सगळ्या सामकार हांव तुजी जातां. यो."

लोहचुंबकान सूय ओडची तसो तो तिचे फाटल्यान चलूंक लागलो.

देवळांत लोकांची गर्दी. सूर्य अस्ताक गेल्लो आनी देवळामुखावयली दीपमाळ पेटिल्ली. नदरेचे इशारतीन तिणे ताका सभामंडपांत बसूंक सांगलें आनी ती नाचाचें न्हेसण न्हेसूंक आपल्या घरा गेली.

नुपुरांचो मंजूळ आवाज वाठारांत झणझणलो आनी सभामंडपांत एक आगळी शांतताय पातळ्ळी.

... तितले मजगती बोबो आनी हुयेली... वाट फुटत थंय लोक धांवंक लागले. कितें जालें ते कोणाकच कळ्ळें ना. एकच आवाज आयकूंक येतालो, "चलात... पळात... ते आयले... फिरंगी आयले."

लोकांच्या हुयेली मदीं लेगीत घोड्यांच्या खुरांचो आवाज आयकूंक येतालो. चारय दिकांनी गुलाल उबोवचो तसो धुल्ल दाटूंक लागलो. पळतल्या लोकांमदीं दादले,

बायलो आनी भुरगीं.

कोण आपटतालो, कोण धोपटतालो. सगळेकडेन किळच्यो, हुयेली.

आनी दुसऱ्याच खिणाक ताज्या दोळ्यांमुखार काळोख दाटून आयलो. काळखाचे खोल घोलींत कोणेतरी ताका धुकल्लो.

तो भानार आयलो तेन्ना थंय कोण नासलो! जमनीभरवण जाल्लें देऊळ आनी धाय दिकांनी शिंपडिल्लीं मडीं. सुणी आनी गीद लेगीत तांच्या लागसार वचना आसलीं.

त्या दिसा सावन तो सद्दां नुपूर तळयेकडेन येता आनी ती ताका दर्शन दिता.

देवळांत बशिल्लेकडेन गावड्यान सांगिल्ली काणी ताका येवजली. आतां आपल्या दोळ्यांसामकार ती घडल्या अशें ताका दिसलें. ताच्या आंगार ल्हंवेन ल्हंव कांटो फुल्लो. ताका कांपरें भल्लें. ताणे देवतेकडेन पळयलें. निरंजन संथ पेटतालें.

अजून ती येवंक नासली.

हांव तो भ्रमिश्ट तरनाटो न्हय मू? आनी ती...? नुपूर घाल्ली नर्तकी?

विचार मनांत आयलो आनी ताजें पुराय आंग हुमेन चिप्प भिजलें. आपणाक घुंवळ येता अशें ताका दिसलें. तशेंच आसतलें. जल्माची ताटातूट आपल्या नशिबांत बरयिल्ली आसतली. पुर्विल्ल्या इतिहासाचो नव्यान अणभव घेवपाखातीर देवान आपणाक वेंचून काडिल्लो आसतलो...

ताणे दोळे धांपून घेतले. दोनय पोशांमदीं आपलें तोंड लिपयलें आनी घरा परतुपाचें येवजून तो उठता... इतले म्हणसर घांट वाजली.

अजापून ताणे दाराकडेन पळयलें. थंय ती उबी आसली... नुपूर नासले, नासलो कळसो!



## १८

# काळोख

तुळशी मुखार निरांजन पेटिल्लें. कुशीक उबी रावन दोळे धांपून एक बायल पांया पडटा.

तीनसांजेचो वेळ. घराचे पडवेर एक ट्यूबलायट पेट्टा. तिजो उजवाड शेणान सारयिल्ल्या आंगणांत चान्नाचे पसये-सारको पातळिल्लो. आंगणाचे भोंवतणी पोरसूं. पोरसाचे वयेंक ल्हान व्हड झाडां. भायले वाटेन तांबडो रस्तो, जो एकेवटच्यान थेट बाजारांत वता आनी मुखेल डांबरी रस्त्याक मेळटा आनी दुसरे वाटेन सुमार शंबर

मीटर फुडें वचून सोंपता. थंय एक व्हाळ आसा, जो शिगम्या आदींच सुकून वता. व्हाळाचे देगेर चिंचेचीं सात आठ झाडां. थंय घडये पांखे आनी घुबडां रावतात आसुंये. गांवचे लोक ताका भूतवाडो म्हणटात.

ह्यो सगल्यो खाणो खुणो बाजारांत एकल्यान सांगिल्ल्यो आनी ताणे शिटकायिल्लो; 'मुर्तीकाराचें घर निमाणें. ताजेफुडें वचूं नाका. भुताच्या वाड्यार पावल्यार तीन कात्रीच्या वेळार नकलामी जाता अशें म्हण्टात.'

हांव चलत त्या रस्त्यान आयलो तेन्ना निमाणे घर कशें वळखुचें असो प्रस्न पडलो. तें काय शार न्हय. शारांत घरां एकामेकाक तेंकून उबी आसतात. गांवचीं घरां विस्कळ विस्कळ आसतात. तरीकय हांवें पयस नदर भोंवडावन अदमास घेतलो. लागसार खंयच उजवाड दिसलो ना. देखून हेंच तें आसुंये असो अदमास करून रस्त्याक तेंकून आशिल्ले वंयेचे कवडेकडेन उबो रावलों.

तेन्ना म्हाका ती दिसली. निरांजनाचो मंद उजवाड तिच्या गोऱ्या तोंडाचेर पातळिल्लो. तिणे जोडिल्ले दोनय हात नाकासकयल ओंठांचेर धरिल्ले. तिचे कोंपर म्हाका दिसनासले. मदीं तुळशीचें वृंदावन आडवें येतालें.

वृंदावनांतलो तुळशीचो रोपो अंधुक काळखी उजवाडांत सुके ताळयेसारको दिसतालो. तातुंतल्यान तिचो गोरो वाटकुळो तोंडावळो चित्रांतल्या चंद्रिमासारको म्हाका दिसलो.

हांव फुडें सल्लों जाल्यार तिचे प्रार्थनेंत विक्षेप येतलो अशें येवजून हांव कवडेच्या दारांत उबो रावलों. आंगणांतली जमीन सारोवन तिकतिकीत केल्ली. वृंदावना भोंवतणी घाल्ली रांगोळी नदरेंत भरताली. पडवेचे वयर पाखेत. पडवेर दुसरो मनीस दिसलो ना.

तिजी प्रार्थना सोंपली. तुळशीच्या वृंदावनाक प्रदक्षिणा घालून ती पडवेचीं सोपणां चडटा म्हणसर हांवें खांकिल्लेभाशेन केलें.

'आयलो तूं गोविंद!' फाट परतून तिणे म्हजे वटच्यान फूड केली आनी म्हळें, 'कितलो वेळ लायलो तुवें? हांव हुस्केल्लें. चल, फाटले वाटेन गोरवां आयल्यांत. तांकां गोठ्यांत बांद आनी दूद काड.'

म्हाका कळळें, तिणें वळखूंक गोंदळ केल्लो. हांवें म्हळें, 'हांव गोविंद न्हय.'

एकदम ती काचाबूल जाली. तिणे आपले साडयेचो पदर सारको केलो आनी उजवो हात धोंपराचेर धरून ती पडवेचीं सोंपणा चडून भितर गेली. उपरांत दाराचे कुशीक उबी रावली आनी म्हाका विचारलें, 'कोण जाय तुमकां?'

'हांगा गणपतीच्यो मुर्ती करतात न्हय?' हांवें विचारलें.

म्हाका मुर्तीकाराचे नांव खबर ना. चवथीक अजून कळाव आसा हें हांव जाणा. पूण म्हाका चिकणमातयेची एक मूर्त जाय आसली. देखून मुर्तीकाराक सोदीत हांव ह्या कुशीच्या गांवात आयिल्लों.

'ह्या दिसांनी आमी मुर्ती करिनात. आशाढ सोंपतकच माती कालयतात.' संथ

आवाजांत तिणे जाप दिली.

तेमेरेन हांव आंगण हुपून पडवेंतल्यान सकयल्या सोपणाकडेन पाविल्लों.

'हांव जाणां.' हांवें म्हळें, 'मुर्ती कोण करता?'

'म्हजो बाबा.' तिणे जाप दिली, 'पूण तो आज घरा ना.'

'रातचो येवचो ना?' हांवें विचाल्लें, 'म्हजें सादें काम. म्हाका गणपतीची एक मूर्त जाय. फुडल्या आठ दिसांभितर'.

कांय वेळ येवजिल्लेभाशेन करून तिणें म्हळें, 'ताकाच विचारचें पडटलें. केदीशी मूर्त जाय?'

'थोडी ल्हान व्हड जाली तरी जाता. पूण आठ दिसां भितर जाय. तितलेचखातीर हांव मुजरत हांगा आयिल्लों.'

'तुमी दोन दिसां उपरांत परत येवशात? बाबा भायल्या गांवांत गेला.' तिणे जाप दिली.

'तुज्यान रकाद दिवंक जावचो ना? हांव येतांच. थोडे ॲडव्हान्स पयशे जाल्यार दवरतां.' हांवें म्हळें.

'ना, ना. तशे आदीं पयशे नाकात. देवाची मूर्त ती. ती व्हरूंक येतना पडभर तांदूळ आनी एक नाल्ल घेवन येवंक जाय. गणपती करप हो म्हज्या बाबाचो धंदो न्हय. घराण्यांत कोणतरी गणपती करतालो. अजून आमी करतात. थारायिल्ल्या घरांनी मूर्ती पावयतात. कोण ऑर्डर दिना आनी एकय मूर्त आमी विकनात.'

म्हाका अजाप इतलेंच दिसलें कि ही बायल मेकळेपणान उलयता; पूण म्हाका भितर यो म्हणिना. हांव कोण, खंयचो तेंय विचारिना. घडये घरांत दुसरो कोण नासुंये. म्हणून संकोच करता आसुंये. म्हजो येवपाचो वेळय चुकिल्लो.

'बरें तर. हांव दोन दिसां उपरांत येतां.' अशें सांगून हांवें तिचो निरोप घेतलो.

'वता आसतना कवडेचें दार मात्शें लावन घेयात आं.' तिणे म्हळें.

हांव कवडेचें दार लायतासर एक जाणटो मानाय थंय आयलो.

'कोणाक सोदता?' ताणे विचारलें.

हांवें ताका हांव मुर्तीकाराक सोदूंक आयलां म्हणपाचें सांगलें.

'आतां ना तो घरा.' ताणें म्हळें, 'तो भायल्या गांवांत आसता. शेनवाराक येतलो. पूण तो चवथ लागीं पावलेबगर मुर्ती करिना'.

'तूं गोविंद ?' हांवें ताका विचारलें.

ताणे एकदम आंग काडलें.

'तुका म्हजें नांव कशें कळ्ळें?' अजापून ताणे उरफाटो प्रस्न केलो.

'ती चली येदोळ तुका उलो मारताली.' हांवें म्हळें.

'तुका ती मेळ्ळी?'

'हय. तिणे म्हाका दोन दिसांनी आपयला. म्हाका गणपतीची एक मूर्त जाय. तीय बी आठ दिसांभितर.' हांवें म्हळें, 'तूं म्हजो रकाद मुर्तीकाराक दिवशीत?'

'रकाद हांव दितां. पूण तुजें काम जायत अशें दिसना. तो विकपा खातीर मुर्ती करिना.'

'हांव दोन दिसांउपरांत येवूं?' हांवें विचारलें.

'आयताराचो यो. आनी दिसाउजवाडाच यो.' ताणे सुचयलें.

कवडी उक्ती करून तो भितर गेलो.

हांव तांबड्या रस्त्यान बाजाराचे दिकेन चलूंक लागलों.

बाजारांत रस्त्याचेर खुबशे लोक पुंजक्यांनी उबे रावन उलयताले. गांवांनी हें दृश्य सदांच पळोवंक मेळटा. दीसभरयाचो वावर सोंपोवन ते परत येतात आनी घरा वचचे आदीं बाजारांत अशे रस्त्याचेरच पुंजक्यांनी उबे रावतात.

म्हाका पळोवन एकलो फुडें आयलो. ताणे विचारलें, 'हेवटेन खंय गेल्लो?'

मुर्तीकाराक मेळूंक गेल्लों अशें हांवें ताका सांगलें.

'मेळ्ळो?'

'ना.'

'बरें म्हणून बरें. तूं भूतवाड्यार पाविल्लो जाल्यार कितें जातलें आशिल्लें जाणा! आतां परत वच आनी त्या वाड्यार मात केन्नाच वचूं नाका.'

'खऱ्यांनीच थंय भुतां आसतात? तुवें पळयल्यांत?' हांवें विचारलें.

'आसात तर! गांवच्या सगल्यांक तीं बादल्यांत. थंय एक आलवांतीण भोंवता. कोण जाणा तूं? त्या मुर्तीकारालीच बायल! चिंचेच्या झाडाचेर रावता आनी आपले कुड्डे धुवेची राखण करता.'

'कुड्डी धूव?' अजापून हांवें विचारलें.

'हय. त्या घरांत रावता ती एक कुड्डी धूव आनी तांचो घरचो चाकर गोविंद. खासा मुर्तीकार लेगीत त्या घरांत रावना. फकत आयताराचो एक दीस येता आनी तीनसांज जावचे आदींच परतता.'

'आनी तो गणपती करिना?'

'तो कितें करतलो? ती कुड्डी धूव गणपती करता. तो फकत रंगयता. पूण त्या दिसांनी लेगीत तो रातीच्या वेळार घरांत रावना.'

बाजाराची गर्दी आनी विजेचो उजवाड आसूनय म्हज्या आंगांत कापरें भल्लें. पणसाच्या झाडामुळांत हांवें मोटार थांबयिल्ली. ती सुरू करतना कित्याक कोण जाणा, म्हजे हात कडकडले.



१९

# कुंदा

तो भायर सल्लो तेन्ना मळबांत कुपां दाटून आयिल्लीं. भायल्या बल्कांवाचेर बसून तागेली बायल भाजी शिनताली. तिणे आपल्या दोळ्यांवयलें चाळीसपत्र सारकें करून ताका पळयलो आनी परत हातांतले सुरयेचेर नदर थिरावन म्हळें, 'भायर सरता जाल्यार सत्री व्हर.'

ताणे बायलेक जाप दिली ना. बायलेन सांगिल्ल्यो खूबश्यो गजाली तो आयकतालो. पूण तशें करतना आपूण आपली मेकळीक वगडायतां अशी एक भावना ताज्या मनांत दाटून येताली. देखून केन्ना केन्नाय तो बायलेचें म्हणणें आयकून आयकनाशिल्ले भाशेन करतालो. आजय ताणे तशेंच केलें. बायलेकडेन पळय नासतनाच तो सडसडीत घराचीं सोपणां देंवलो आनी मुखावयलें आंगण हुपून डांबरी रस्त्याचेर आयलो.

रस्त्याचेर तो खीणभर थांबलो. ताज्या भुरगेपणांत हो रस्तो तांबडे मातयेचो असलो. ताजेरच डांबर घाला. पूण आदलेवरीच अरुंद आनी नागमोडी उल्ला. डांच्या भाटांतल्यान दर एक झाड आनी घर सांबाळून हो रस्तो एके वटच्यान बाजारांत वता आनी थंय मुख्य रस्त्याक मेळटा. जाल्यार दुसरे वटेन तो घुंवत घुंवत ळ्यामेरेन वता.

पयल्याच दिसा तो डांबरी जाला म्हणपाचें ताज्या लक्षांत गेल्लें. कोणाखातीर हो बर काय? फाटल्या तीस वर्सांच्या काळांत गांव व्हडलोसो बदलूंक ना. बाजारांत ोन - चार नवीं घरां आयल्यांत. पूण हेर वाठार तसोच उल्ला. एकाद्री स्कूटर त्या स्त्यान वता म्हणपाचें फाटल्या दोन दिसांत ताणे पळयिल्लें.

बाजाराचे दिकेन एक लांब नदर मारून घेतल्या उपरांत ताणे आपलें तोंड फेरायलें आनी तळयाचे दिकेन पावलां उखलतना अस्तंतेक देंवतल्या सुर्याचीं किरणां ताणे देखलीं.

मनांतल्या मनांत तो हांसलो. मळब तर निवळ आसा. बायलेक ओगीच पावसाचो दुबाव. सत्रेची आडखळ हातांत घेवन पासयेक वचप ताका निखालच मानवना.

सवकासायेन पावलां उखलून तो चलतालो. एक एक पावल मुखार पडटा तशें उगडासाच्या पुस्तकाचें एक एक पान उकतें जातालें. कितल्यो यादी ह्या गांवांत भल्ल्यात. जिविताचीं पंचवीस वर्सां हेच मातयेंत ताणे सारिल्लीं. गांवच्या धरान घराक आनी रूखान रूखाक तो वळखतालो. ज्या तळयाचे दिकेन तो चलतालो, त्या तळयांतल्यान ताणे एक खेपे चवथीच्या दिसा साळकांचो भोरो खुडून हाडिल्लो आनी उपरांत तीं साळकां गांवभर वांटिल्लीं. साळकांचे बोंगे काडून तांतूंतले नाचणे ताणे

खाल्ले. आनीक एक खेपे तर सुमाराभायर नाचणे खाल्ल्यान ताका माणे लागिल्ले. गिमाच्या दिसांनी तळें आटूंक लागलें म्हणटकच तो आनी ताजो इश्ट रघू त्याच तळयांत नुस्तें धरताले...

रघूची याद आयली आनी सगळें भुरगेपण उडयो मारीत सामकार उबें रावलें. रघू ताजो इश्ट. एकेच शाळेंत ते शिकले. गांव सोडटना ताणे रघूक उतर दिल्लें: खंयय गेलों तरी तुका विसरचोना. मुंबय पावतकच सुर्वेचे चार-पांच म्हयने तांचेमदीं पत्रवेव्हार चल्लो. उपरांत तो थांबलो तो सामकोच बंद पडलो.

खंय आसा काय रघू? रघूच्या घराकडेन वतलो जाल्यार तळयाचे पलतडीन पायवाटेन वचचें पडटालें. ही जाली पंचवीस वर्सां आदली गजाल. अजून रघू थंयच रावता काय?

रघू एका भाटकारालो चलो. बाजारांत तांचो एक पसरो आसलो. अजून तो चलता काय? गांवांत येवन दोन दीस जाले, अजून तो बाजारांत पावंक ना; कोणाक मेळूंक ना. घर जाग्यार घालतासर दोन दीस कशे गेले समजलेंच ना.

घरांत ताजो एक व्हडलो भाव आसा. बाकीचे भाव ताजेवरी मुंबय आसतात. भाव आनी भावज. दोनच मनशां त्या व्हडल्या घरांत रावतात. चलयांचीं लग्नां जाल्यांत आनी चले शारांनी पावल्यात. एके धर्मशाळेंत येवन राविल्ल्याची भावना ताज्या मनाक घेरून रावल्या. भाव आनी भावज नासतीं जाल्यार तें घर म्हळयार धर्मशाळाच म्हणची पडटली आसली.

पयलींच्यो चालीरिती अजून चलतात. इतले गांव भोंवलो तरी अजूनय तो व्हडल्या भावाच्या वा भावजयेच्या सामकार उलोवंक धजना. दोन दीस भावान विचाल्लें तितलेंच ताणे सांगलें.

यादींच्या पुस्तकाचीं पानां चाळटां चाळटां तो तळयाचे धडेर पावलो. आतां तळें खूबच ल्हान जालां अशें ताजे नदरेक दिसलें. दोन खीण तो थंय पळयत रावलो. ताजे जागेन धडेवयल्या एका बेब्यान तळयांत उडी माल्ली आनी संथ उदकांत ल्हारां आयलीं. एके कुशीक फुलिल्लीं साळकां अस्तंतेच्या वेळार परत बंद जावंक लागिल्लीं. सूर्य आतां दिसना. पूण अजून उजवाड आसलो. कितल्या वर्सांनी तो असल्या शांत निवांत वळखीच्या वातावरणांत पाविल्लो!

अंचकीत ताजी नदर कुशीच्या झिलांचेर गेली. थंय कागकी मातिल्ल्यो आनी एक हातो फुलिल्लो. हातो पळयतकच एक पोरनी याद चाळवली.

एक दीस तो आनी रघू अशेच तळयांत देंविल्ल्या वेळार धडेर रघूची भयण कुंदा उबी आसली. त्या दिसा पयस एक हातो फुलिल्लो तो आपणाक काडून दी अशें तिणे रघूक सांगलें. तेरा-चौदा वर्सांची कुंदा. रघू तिजेर धेंगसल्लो.

'तुका उमेदी ब-यो आसात.' ताणे म्हणिल्लें, 'पूण जाणा तूं, केगदी मुळांत कोण आसता तें?'

आनी ताणे आपल्या हाताचो फणो करून खुणेनच कुंदाक दाखयिल्लो.

सोरपाचो भंय आनी कवाशाची ओड एकाच वेळार सदान कुंदाल्या तोंडार पळयिल्ली. पूण मनांत येवनय कवासो काडूंक तो धजूंक नासलो.

आयज परत झाडाचेर फुलिल्लो हातो पळयलो. गंधाच्या रंगाचें कणस आनी भांगराच्या रंगाचें पान. त्या पांचव्या कांट्यांमदीं एक सोबा फुलिल्ली.

खंय आसा काय कुंदा? लग्न जावन घोवागेर गेल्ली आसतली. आनी रघू?

पायवाटेन तो फुडें चलूंक लागलो. आयलो तसो रघूलें घर पळोवन येवचें. कोणय मेळ्ळो जाल्यार ताजी खबर घेवची. आतां रघूची याद फाटीं उल्ली आनी कुंदाचें चित्र दोळयांमुखार आयलें. तिजीं साबार रुपां ताका येवजलीं.

ताका घट याद आसा तो दीस, जेन्ना मॅट्रीक पास जातकच तो रघूगेर गेल्लो. दोगय पास जाल्ले. "आतां फुडें कितें करतलो?" ताणे रघूक विचारिल्लें.

"हांव आनीक कितें करतलो? म्हजी वार ह्या गांवांत पुरल्या. घरचो पसरो चलयतलों आनी शेतां-भाटां सांबाळटलों. तुवें कितें थारायलां?"

"फुडल्या सप्तकांत हांव मुंबय वतां." सदान सांगिल्लें, "कॉलेजांत ॲडमिशन घेतलों."

कांकणां वाजिल्ल्याचो आवाज त्या खिणाक ताज्या कानार पडलो. नदर वयर करून ताणे पळयलें. कोण दिसलो ना.

रघूनच उलो माल्लो, "कुंदा..."

पूण जाप आयली ना. तसो रघू उठून भितर गेलो. च्याचे दोन कप घेवन भायर आयलो.

"घरांत कोण ना दिसता?" सदान विचारिल्लें.

"ना कित्याक?" रघून जाप दिल्ली, "आई आनी कुंदा आसात. पूण तें भायर येवंक लजेता."

ताजी ही जाप आयकून तोय लजेल्लो. ताज्या दोळयांसामकारच कुंदा ल्हानाचें व्हड जाल्लें. चलयो केदे बेगीन व्हडल्यो जातात असो ताका प्रस्न पडिल्लो. कुंदा व्हड जालें तशें आबोलेचें फूल जावन बसलें. ताका लजूंक लागलें. ताजेकडेन उलयना जालें.

पूण कुशीक रावन तें नदर चोरून आपणाक पळयता, आंगार नव्यान चडिल्ले साडयेचो पदर सारको करता इतलें तो जाणा आसलो.

त्या दिसा तो मुंबय वचपाच्यो गजाली करतना दारा आड उबें रावन कुंदा ताका पळयता, ताजें उलोवणे आयकता म्हणपाचें भान सदाक आसलें.

चलतां चलतां तो बरोच मुखार पावलो. पूण रघूचें घर दिसलें ना. त्या वाठारांत एकूय घर नासलें वा वाटेर जितो मूस नासलो.

आपूण वाट चुकलों काय रघू दुसरेकडेन रावंक गेलो अशा भ्रमांत आसतनाच अचकीत पावसाची दडक आयली. बायलेन सत्री व्हरूंक शिटकायिल्लो म्हणपाचो ताका उगडास जालो. शारांतलो मनीस खंय धांवतलो? आनी पावसांत तरी कसो

भिजतलो? कुशीक आंब्याचो एक रूख आसा. पयसुल्यान ताणे तो देखलो आनी त्या रूखातळा वचून उबो रावलो.

तोमेरेन दडक थांबली. पूण तो चिप्प भिजिल्लो. ताणे आंगावयलो शर्ट काडून पिळून घेतलो. तो फांफुडलो आनी तसोच परत आंगार चडयतासर मुखावयल्यान सत्री फुलोवन कोण तरी येता म्हणपाचें ताणे पळयलें.

पावस थांबिल्लो. आतां ताका घरा परतुपाची ताकीत आसली. तरी मुखावयल्यान येतल्या मनशाची वळख घेवची, ताजेकडेन रघूची वासपूस करपी अशी उमळशीक उल्ली.

तो थंयच रावलो. मुखावयलो मनीस लागीं पावलो. एक अनवळखी तोंडावळो. आमोरेच्या अंधूक उजवाडांत ताजी वळख मेळ्ळीना.

पूण लागीं पावलो तसो तो मनीस थांबलो. ताणे सत्री पालयली आनी सदासरीं येवन अजापान म्हळें, "आरे, सदा? तूं केन्ना आयलो?"

सदा ताका पळयत रावलो. तो ताका वळखना आसलो. एक म्हाल म्हातारो. माथ्यार वखदाक केंस नासलो. वाडिल्लें खाड आनी भितर गेल्ले दोळे. कपलार मिरयांचें जाळें.

"असो पळयत कितें रावला? वळखलो ना तूं म्हाका?" त्या मनशान सदाक विचाल्लें.

"तूं रघू न्हय?" मात्सो विस्मित जावन सदान प्रस्न केलो.

"न्हय कितें? हयच. हांव रघूच. इतले बेगीन विसल्लो मरे?"

सदाचो दोळ्यांचेर विस्वास बसना जालो. एक गोरो, गुबगुबीत बुकलो कसो तरनाटो खंय आनी हो हाडकुळो म्हातारो खंय? हत्ती भागलो म्हणून घोड्याचे घरवडेंत कसो वतलो?

ताज्या खांदार हात दवरून सदान म्हळें.

"तुगेरच वचूंक भायर सरिल्लों. पुण मदी अचकीत पावस आयलो आनी भिजलों."

"चल या तर." रघून म्हळें, "आतां आदलें घर उरूंक ना. हांवें फाटले शेताधडेर एक चार कुडींची मठी बांदल्या."

"तरी म्हणटां, म्हाका आदलें घर दिसलें ना."

रघू हांसलो. "आतां आदलें कांय उरूंक ना. आनी सदाय आदलों उरूंक ना."

कुंदाची खबर घेवची अशें सदाक दिसलें. पुण मन धजलें ना.

"घरा कोणकोण आसात?" सदान विचाल्लें.

"चल या मरे, तूंच येवन पळय, तुजी वळख जातली."

दोगय रघूच्या घराचे दिशेन वचूंक लागले. रघूच्या तोंडांतल्यान कुंदाची खबर कशी काडची हेंच सदाक समजनासलें. चार पावलां फुडें वतकच ताणे विचाल्लें, "भुरगीं कितलीं तुका?"

"फाटलीं फुडलीं चौगां. व्हडली चली लग्नाची जाल्या. कोणय बरो भुरगो आसल्यार सांग."

सदान जाप दिली ना. ताजे तकलेंत कुंदाचेच विचार घोळटाले.

"एक सांग," ताणे रघूक विचाल्लें, "कुंदागेर कितलीं भुरगीं?"

चलतां चलतां रघू थांबलो. ताणे म्हळें, "कुंदा लग्न जालें ना."

ताजे पांय जड जाले.

रघूक दोन पावलां फुडें पावलो तरी सदा थंयच उबो.

"आतां काळोख जालो. हांव वतां." सदान म्हळें.

"आतां लागीं पावल्यात..."

"आसूं... आसूं. वतां हांव," सदान जाप दिली आनी घराचे दिकेन पावल उखलतना रघूक निमाणो प्रस्न विचाल्लो, "खंय आसता कुंदा आतां?"

"तुका खबर ना? पोरूं तें भायर पडलें......"

रघूलीं फुडलीं उतरा आयकूंक तो रावलो ना.



## २०

# एक आशिल्लो राजा...

वर्गांत बाईन भुरग्यांक पुस्तकां बोटव्यांनी भरूंक सांगलीं तशीं सगळीं भुरगीं थोड्याशा भंयान आनी चडशे उमेदीन सारकीं बसलीं.

आतां काणी सांगपाची. बाई केन्नाय आपणूच सांगताली. केन्नाय भुरग्यांक सांगूंक लायताली. आयज आपणाक काणी सांगूंक लायत ही जण एका भुरग्याच्या मनांतली भिरांत आनी काणी आयकूंक मेळटली ही उमेद...

"चल, उमेश, तूं सांग..." बाईन म्हळें.

सगळ्या भुरग्यांनी "हाय" करून सुस्कार सोडलो. उमेशालें काळीज मात धडधडूंक लागलें. तरी तो उबो रावलो.

"सांग..."

"बाई, म्हाका... कांणी... येना..." कडकडत... थरथरत उमेशान म्हळें.

"इतल्यो आयकल्यो. खंयचीय एक सांग..."

सगळयांच्यो नदरो उमेशाचेर थिरावलेल्यो आनी बाई जनेलाकडेन उबी रावन केन्ना नदर वर्गांत तर केन्ना नदर भायर फिरायताली.

भायली नदर भितर काडून बाईन म्हळें, "चल, कर सुरू."

"एक आशिल्लो राजा...' थरथरत उमेशान काणी सुरू केली.

ताळो सुकून आयिल्लो. आंवडो गिळ्ळो. भुरग्यांवयल्यान नदर भोंवडायली. जनेलांतल्यान भायले वाटेन पळोवन घेतलें.

"फुडें कितें?" भायली नदर भितल्ल्यान घेना आसतनाच बाईन विचाल्लें.

भुरगीं हांसलीं.

"चूप!" बाईन धेंगसो घालो आनी म्हळें, "सांग उमेश..."

"एक आशिल्लो राजा..." उमेश पर्थून आडखळ्ळो. ताज्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. तीं पुसून ताणे म्हळें, "एक आशिल्ली राणी..."

"एकच काय चार रे?" एका बडबड्या भुरग्यान विचाल्लें, "राजाक चार राणयो आसतात..."

"चूप!" बाई धेंगसली, "तूं मदीं उलोवं नाका. सांग रे उमेश, एक आशिल्लो राजा एक आशिल्ली राणी... फुडें कितें जालें?"

"तीं दोगांय लग्न जाल्लीं..."

सगळीं भुरगी व्हडाव्हडान हांसलीं.

"लग्न जालेबगर राणी कशी जातली?" एका धीट भुरग्यालो प्रस्न.

बाई जनेलांतल्यान भायर पळयताली. तिची नदर, कान आनी मन लेगीत भायर आसलें. तिणे कांय आयकलें ना.

"राजा आनी राणी एकठांय रावतालीं." उमेशान काणी फुडें सांगली, "पुण तांचीं मनां एकठांय नासलीं. दोगांय झगडटालीं. तीं कित्याक झगडटालीं हें कोणाकच खबर नासलें... तीं सकाळीं घरांतल्यान भायर सरतालीं आनी सांजवेळां परत येतालीं... केन्ना केन्नाय तांकां परतूंक रात जाताली..."

"खंय वतालीं तर तीं?" एका भुरग्यालो प्रस्न

उमेश गडबडलो.

"बाई..."ताणे उलो माल्लो.

बाई भायर पळयताली; ती भानार आयली.

"काणी सांगतना म्हाका मदींच प्रस्न विचारतात." उमेशान कागाळ केली.

बाईन पट्टी मेजार वाजयली आनी उमेशाक सांगलें, "कर सुरू."

"राणी भायर वतकच राजाक विसरताली. एक दीस भायर भोवंक गेल्लेकडेन राणयेक एक... मनीस... न्हय... राजकुंवर मेळ्ळो. राणयेन रस्त्यार उबी रावन ताका पळयलो. तोय उबो रावन राणयेक पळोवंक लागलो. नदरेक नदर मेळ्ळी. दोगांय हांसलीं... राणयेन लजून तकली सकयल घाली... दोगांय आपले आपले वाटेन गेलीं..."

"बाई..." एका भुरग्यान उबो रावन उलो माल्लो.

भायल्या वाठाराचेर थिराविल्लें बाईलें मन वर्गांत आयलें. उबो राविल्लो भुरगो उजव्या हाताची मूठ धांपून किरंगळीचें बोट वयर काडून दाखयतालो.

"बस." बाईन फर्मायलें. तो बसलो..

"चल उमेश, फुडें सांग... वेळ सोंपत येता... सडसडीत सांग." बाईन म्हळें.

"... दुसऱ्या दिसाय राणी त्याच रस्त्यान गेली. परत राजकुंवर मेळ्ळो. तिज्या मुखार येवन उबो रावलो... दोगांय हांसलीं... राणी लजेली. तो राणयेक पळयत रावलो... राणयेन मान सकयल घाली आनी ती फुडें चलूंक लागली... अशीं तीं दिसपट्टीं एकामेकांक रस्त्यार मेळत रावलीं... मेळप... दोळेभर पळोवप.. राणयेन लजेवप.. अशें चलतालें..."

"राणी कितें करता तें कोणेच राजाक सांगलें ना?" मदींच एकल्यालो प्रस्न.

"बाई, पळय..." उमेशाली कागाळ.

पुण बाईचें लक्ष थंय ना.

उमेश फुडली काणी सांगूंक लागलोः

"एक दीस राजकुंवरान राणयेक एक वस्त दिली. ती पळोवन राणी खुशालभरीत जाली... मागीर ती राजाकडेन झगडली... राजा तिजेकडेन झगडलो... दोगांय झगडत रावलीं..."

"राजाक राजकुंवराचो राग आयलो आसतलो..." एके चलयेन तोंड उकतें केलें.

बाईन हें निमाणें वाक्य आयकलें...

"तूं ओगी राव... तुका येता? जाल्यार तूं फाल्यां काणी सांग." बाईन म्हळें.

उमेश सांगूंक लागलोः

"एक दीस राजकुंवर राणयेल्या घराकडेन आयलो... राणी भुरकुटून गेली. कितें करूं, कितें नाका अशें तिका जालें... राजकुंवर खूब वेळ बसलो. दोगांनीय पोटभर गजाली केल्यो. तो वचूंक उठलो तेन्ना राणयेन ताका रस्त्यामेरेन पावयलो..."

"बरी काणी आं... सिनेमासारकी. मागीर कितें जालें?" एकल्या भुरग्यान विचाल्लें.

सगळीं भुरगीं हांसलीं. तेसरशीं भायल्या वाठाराचेर नदर थिरावन बशिल्ली बाई भानार आयली.

"मदीं हांसूं नाकात... आनी उमेश, तूं मदीं थांबूं नाका..." बाईन म्हळें.

"आतां राजकुंवर सद्दां येवंक लागलो... तो येतालो... वर... दोन वरां बसतालो आनी वतालो... एक दीस राजकुंवर आयलो तेन्ना राजा घरा परतलो. घराचें दार बंद आसलें. भितर कोण तरी उलयता... हांसता... राजान दाराक कान लायले. अर्दमर्द आयकून रागान तांबडो जालो.

ताणे दारार माल्लें.

भितल्ल्यान कोणे तरी विचाल्लें, "कोण?"...

आपल्या घरांत आपणाक कोण काय म्हणून विचारता हें पळोवन राजाक राग आयलो... "हांव राजा." ताणे जाप दिली... भीतर बोवाळ जालो... उपरां किण्ण... दार उकतें जावंक कळाव लागलो."

"मुखार कितें जालें?" बाईनच विचाल्लें.

उमेश थरथरलो.

"सांग मुखार कितें जालें... तूं कित्याक सांगिना?" बाईन पर्थून विचाल्लें आनी ती उमेशाक पळयत रावली. बाईली नुरा पळोवन उमेश भियेलो.

ल्हवू ल्हवू बाईली नदर उमेशावयली कुशीक सरली... जनेलांतल्यान भायर गेली आनी एक उस्वास सोडून शाळेचे गेटीसरीं वचून थिरावली.

"मागीर दार उकतें जालें काय ना?" एका भुरग्यान विचाल्लें.

बाईन ताका विचाल्लें, "काणी सोंपली?"

"ना बाई... आतांच सुरू जाता." उमेशान जाप दिली.

शाळा सुटिल्ल्याची बेल वाजली आनी बाई तुरतुरीत शाळेचे गेटीचे दिशेन चलूंक लागली.

उमेश बाईल्या घरा सामकारच रावतां, तो बाईफाटल्यान धांवलो.



## २१

# बस येतली

आयताराची सकाळ. खूब दिसां उपरांत फांतोडेर दंव झडला आनी भोंवतणच्या वाठारांत दाट धुकें पातळ्ळां.

दंवाचे थर रस्त्याचे कुशीन आशिल्ल्या झाडांच्या पानांचेर जमल्यात आनी एक एक थेंब करून ते झडटात. त्या निवांत वेळार एकाद्र्या गायकाक रसिक आयकुप्यान ठेको दिवचेखातीर आपलो बूट घाल्लो पांय जमनीचेर वाजोवचो तसो टप..... टप.... असो आवाज आयकूंक येता.

हातभर फुडलें कांय दिसना. रस्त्यावयल्यान एकाद्री मोटार वा स्कूटर दिवो पेटोवन येता तेन्ना ती पयसुल्ल्यान काजुल्यावरी दिसता. रस्तो ओलसार जाला. पावस पडिल्ल्याचो भ्रम निर्मुपी ओलसाण. थोडीशी निसरड. दोन पावलां निसरलीं आनी हांव सावचित जालों. ल्हवू ल्हवू पावलां उखलीत वचूंक जाय अशें मनांतल्या मनांत थारायलें.

रस्त्यावयली येरादार तशी सुरू जाल्या. इगर्जेंत मिसाक वचपी लोकांच्यो रांगो धुक्यांत बुडिल्ल्यो आसल्यो तरी पुंजक्या-पुंजक्यांनी वतल्यो बायलो आनी दादले आपलेमदीं उलयतात ताजो आवाज आयकूंक येता.

इगर्ज फाटीं उल्ली आनी रस्त्याचेर पयल्या मिसाक वचपाचे ताकतिकेन भायर

सरून मात्सो उसरां पाविल्लो एकाद्रो मनीस दिसतालो. एकाकी रस्तो निर्जन जालो.

धुकें अजून दाट आसा आनी शाराभायर वता तितली धुक्याची दाटसाण गच्च जाता. पांयांपोंदची वाट दिसना, मुखावयलो मनीस दिसना.कुशीच्या तळयांतल्यान वयर सरिल्लें एकाद्रें जिवाणे पायांपोंदा पडत अशी भिरांत मनांत वळवळून वता. पयसुल्ल्या वाडावयलें एकाद्रें सुणे लागीं येता तेन्ना तें आंगार उडी घेवन घांस काडीत म्हणपाचो हुस्को मन कोरांतता. दिवो पेटयनासतना भायर सरिल्ली एकाद्री स्कूटर वा सायकल फाटल्यान वा फुडल्यान येवन म्हाका आपटत म्हणपाचो विचारय सादूर करता. भोंगूं ती पासय. घरा परतुंया अशें येवजून हांव खीणभर रस्त्यारच उबो रावलों. म्युनिसिपालटीचे दिवे ह्या बांदामेरेन पावंक नात. ताका लागून उजवाडांतल्यान काळखाकडेन वचपाच्या प्रवासाक भायर सरिल्ल्याची भावना मनांत दाटून येता आनी हांव परततां.

एक पावल उखल्लां मात, कोणे तरी उलो मारिल्ल्याचो आवाज. हांव चोंयवशीन नदर भोंवडायतां. दोळयांमुखार धरिल्लें बोट दिसना थय पयसुल्ल्यान उलो मारतलो मनीस कसो दिसतलो? काय तो निखटो भास?

पावलां परत उखलपाचो विचार करतासर दुसरो उलो. हे खेपे इल्लो स्पश्ट. ल्हान भुरग्याचो आसुंये, नाजाल्यार एकाद्रे बायलेचो.

'आतां बस येतली?' स्पश्ट आवाज.

आकाशवाणी जाल्लेभाशेन हो आवाज खंयच्यान आयलो? हांव आवाजाचे दिशेन पावलां उखलतां आनी म्हाका याद जाता. रस्त्याचे कुशीक एक बस स्टॉप आसा. ह्या वेळाचेर कोणय तरी बायल बसीची वाट पळयत रावल्या आसतली आनी ती आतां बस येतली काय कितें म्हणपाची वासपूस करता आसतली.

स्टॉपाच्या लागीं पावलों तेन्ना आकृती दिसली.

'तूं बसीक रावता?' हांवें विचारलें.

'हय. पयले बसीक. आयज आयतार. बस येतली?'

हांव तिच्या म्हन्यांत वचून पळयलें. एक चली. ते अंधुक पसयेंत तिजी पिराय सांगूंक जावची ना. पूण शाळेंत वा कॉलेजांत वचपी आसूंक जाय. आंगार धवो ड्रेस. आनी रिबिनान केंस बांदल्यात. रिबिनाचो रंग काळसार दिसता. घडये तो दुसरो कसलोय आसुंये.

'तूं खंय वता?' हांवें तिका विचाल्लें.

'हांव खंयच वचना. म्हजी भयण येवपाची आसा. तिका व्हरूंक आयलां!'

'खंयसून येवपाची आसा तुजी भयण? आनी ह्या वेळार ती कशी येतली?' हांवें विचाल्लें.

'मंगलुराक सावन. तुका कांय खबर ना दिसता! मंगळूरची बस सकाळच्या पांचांक पावता. ह्या स्टॉपाचेर ती देंवतली आनी मागीर आमी सांगातान घरा वतलीं.'

'ह्या रस्त्यावयल्यान मंगळूरची बस येना.' हांवें म्हळें.

'हो बस स्टॉप न्हय तर?' तिजो प्रस्न.

'हय. बस स्टॉप खरो. ह्या रस्त्यान येतल्यो-वतल्यो बसी हांगा थांबतात. मंगळूरची बस ह्या रस्त्यान वचना.'

'खरें सांगता? काय हांव भुरगें म्हणून म्हाका फटयता?' आपल्या मनांतलो दुबाव ती चली उलोवन गेली.

धुक्याचो सराव जालो म्हणून आसुंये वा तें पातळ जाल्ल्यान आसुंये, आतां ते चलयेचें रूप सारकें दिसतालें. ती १३-१४ वर्सांची आसुंये. तोंडार हुशारी दिसताली. विचारिल्ल्या प्रस्नाक ती जापो दिताली आनी परतो प्रस्नय विचारताली.

हांवें म्हळें, 'तू म्हज्या सांगातान यो. ह्या बांधान वतकच दुसरो रस्तो लागता. त्या रस्त्याचेरय बस स्टॉप आसा. मंगळूरच्यो बसी त्याच रस्त्यान येतात. घडये तुजी भयण थंय देंवतली. यो हांव तुका पावयतां.'

एक पावल फुडें उखलून रोखडीच ती फ़ाटीं सल्ली आनी तिणे म्हळें, 'हांव तुका वळखना. तुज्या सांगातान कशें येवं?'

म्हाका तागेले जापेची लक्तुबाय दिसली.

हांवें म्हळें, 'तुका म्हजो भंय दिसता जाल्यार तूं एकलेंच वच. नाजाल्यार तूं घरा परत वच. मंगळूरची बस ह्या रस्त्यान येना.'

खीणभर ती चली येवजूंक लागली. उपरांत तिणे म्हाका विचाल्लें, 'आमचें घर हे दिशेन. आमचो स्टॉप हांगाच. त्या स्टॉपार म्हजी भयण कित्याक येतली?'

म्हाका तिगेले शिटूकसाणेची तोखणाय दिसली. पूण ह्या वेळार एक ल्हान चली एकलीच बसीची वाट पळयता आनी ती बस येवपाची ना अशे परिस्थितींत हांवें कितें करचेलें?

हांवें म्हळें, 'बस आयलीय जाल्यार येवन गेली जातली. तूं घरा वच. येन्ना तुजी भयण घरा पाविल्ली आसतली.'

'निकतोच तूं बस हांगा येवचीना म्हण्टालो न्हय? आनी आतां आयली म्हण्टा? हांव भुरगें न्हय आनी पिशेंय न्हय.'

'बरें.' अशें म्हणून हांव परतुच्या बदला तेच वाटेन फुडें गेलों. धुकें पातळ जाल्लें. उदेंतेकडल्या क्षितिजाचेर तांबशें उदेल्लें आनी उजवाडय निवळ जाल्लो.

परतीचे वाटेर त्या स्टॉपालागसार एक रिक्शा थांबल्या म्हणपाचें हांवें पयसुल्ल्यानच पळयलें. हांव लागीं पावचे आदीं रिक्शा म्हज्या म्हऱ्यांतल्यान गेली. त्या रिक्शांत ती चली आसली. आपलो माणकुलो हात भायर काडून तिणे हालयलो आनी म्हळें, 'आयली म्हजी भयण.'

हांव लक्तुबायेन हांसलों.

ती जिची वाट पळयताली ती भयण स्टँडाचेर देंवन रिक्शान आयिल्ली आसुंये. पूण ते चलयेक मात म्हजेविशीं दुबाव उरतलो हो हुस्को म्हजें मन कोरांतूंक लागलो.

# २२

# सांवळी

तिका हांवें देखली आनी हांवेंच तिका सांवळी हें नांव दवल्लें. सांवळ्या रंगाची ती चली तरतरीत आसली. नुस्त्यासारके दोन चकचकीत दोळे आनी हांसतना चकचकताले ते धवेफुल्ल दांत. तिका पळयना फुडें नदरेंत भल्लें. लांब काळे केंस तिणे फाटीचेर मेकळे सोडिल्ले आनी त्या केंसांत अधांतरी हुमकळची तशी एक मोगरेची फांती खोयिल्ली. आंगार धवी साडी आनी धवो ब्लावज. शिसवी लाकडाचे शिल्प कोरचें तसो तिचो आंगलोट. धव्या आनी काळ्या रंगांच्या विरोधी उठावान ती नदरेंत भरताली.

"कोण ती?" हांवें इश्टाक विचाल्लें.

इश्टान फाटींफुडें पळयना आसतना तिका उलो माल्लो, "शुभ्रा."

नांव आयकना फुडें हांव मनांतल्या मनांत हांसलों. पुण कांय उलयलों ना. उलो कानार पडलो तशी शुभ्रा आमचे सरीं आयली. इश्टान वळख करून दिली.

हांव गोंदळ्ळों. म्हाका तिजेकडेन कसलेंच काम नासलें. पयसुल्यान हांव तिका पळयतालों. काळ्या रंगाचें एक सोबीत शिल्प तोखेतालों. पुण ती जेन्ना म्हज्यांत आयली तेन्ना नदर वयर करून तिका पळोवपाचो धीर जालो ना.

"कित्याक आपयलें?" शुभ्रान इश्टाक विचाल्लें.

इश्टान म्हज्या तोंडाकडेन पळयलें. हांवें गोंदळून मान सकयल घाली.

"हाणेच म्हाका विचाल्लें, तूं कोण काय म्हणून. देखून तुका आपयलें, वळख करून दिवंक." इश्टान मखलाशी केली.

"वचूं हांव?" मानेक एक नाजूक बाग घालून शुभ्रान आपले केंस खांद्यावयल्यान फुडें घेतले आनी मोगरेची हळी सोडोवन हातांत घेतली. परत एकवेळ आपल्या वेध घेवपी दोळ्यांनी म्हाका खीणभर निरखिलो. तोंडभर हांसो फुलोवन मोतयां पर्जळायलीं आनी शुभ्रा वचूंक गेली

लग्नाच्या हॉलांतली ही गजाल. शुभ्रा गेली पुण वतना म्हज्या काळजाचो इल्लो कुडको घेवन गेली. म्हज्या प्रस्नाक अजून जाप मेळूंक नासली. शुभ्रा हे नांव तिका सोबना अशें म्हाका दिसलें आनी तिका पळयना फुडें मनांतल्या मनांत दवरिल्लें सांवळी हें नांव तिका फावता अशें हांवें थारायलें. लोक तिका शुभ्रा म्हणूं, हांव तिका सांवळी म्हणटलों.

तिचेविशीं चड समजून घेवपाची इत्सा आसली. पुण इश्टाक विचारपाची माणसुकी नासली. हॉलांतले फाटले रांगेंत हांव बशिल्लों आनी एक धा वीस रांगो फुडें ती बशिल्ली. मदीं केन्नाय ती फाटीं नदर करताली तेन्ना म्हजी नदर आपणाचेर थिरावल्या

म्हणपाचें तिका भान जातालें. नदरेक खीणभर नदर दिताली आनी मंद हांसो फुलयताली.

तरणे पिरायेचेर एके चलयेची अदीक वासपूस करप म्हळयार केदें व्हडलें दिव्य हें समाजाच्या बंधनांत वाडिल्ल्या तरनाट्याकच खबर. त्या दिसा लग्नाच्या हॉलांतल्यान घरा आयलों तरी म्हजें मन तिच्या रुपान भरिल्लें उल्लें. रावन रावन तिजी मूर्त..... सांवळो रंग..... तेजीश्ट दोळे..... धवे फुल्ल दांत..... धवीच मोगरेची हळी..... धवो भेस..... दोळयांमुखार येतालो. खरेंच तिका सांवळी हें नांव फावता. पुण शुभ्रा ह्या नांवाचें सार्थक करपाखातीर ती धवो रंग पांगुरताली आसुंये.

सामान्यतायेन तरणे पिरायेंत एकाद्री चली चार दीस काळीज भरून रावता। पुण दुसरी चली दिसतकच आदले चलयेची मूर्त विरून वता. पुण सांवळी म्हज्या मनांत खूब दीस उल्ली. परत एक खेपे तिका मेळचें, तिचेकडेन दोन उतरां उलोवचीं, तिचे विशी इल्लें चड समजून घेवचें अशी उमळशीक लागून रावली.

एक दीस सांवळी भर दनपारच्या वता कडार अचकीत मेळ्ळी. हांव ऑफिसांतल्यान दनपारचें जेवण घेवंक हॉटेलांत वतालों. सांवळी मुखावयल्यान येताली. हांव रस्त्याचेर मदींच उबो रावलों, ती लागीं येवपाची वाट पळयत. लागीं पावली तशी सांवळेची मूर्त.... मूर्त! कसली? शिल्प..... हांव दोळे भरून पळयत रावलों.

तिणेय म्हाका पळयलो. पयसुल्यानच ती हांसली. मोरान पांखांचो आयणो फुलोवचो तसो सोबीत हांसो तिज्या तोंडार फुल्लो. त्या दिसा भाशेन तिणे आपली कैंसांची विणी भुजावयल्यान छातयेर घेतली. हे खेपे कैंस मेकळे नासले. आनी विणयेंत मोगरीं नासलीं. हांव पळयत आसलों. ती लागीं आयली आनी उबी रावली.

"वळखता?" तिणे विचाल्लें.

"वळखतां तर!" हांवें जाप दिली, "त्या दिसा लग्नाच्या हॉलांत आमी मेळिल्लीं."

"हय," तिणे म्हळें आनी ती कैंसांमदीं आपलीं बोटां खेळोवंक लागली.

तिका खुबशें विचारचें आनी तिजेकडेन उलयत रावचें अशें म्हाका दिसतालें. पुण म्हाका कांयच सुचलें ना. खीण दोन खीण आमी एकमेकां सामकार उबीं आसलीं. म्हजे नदरेचो रोख सोसूंक नज जावन तिणे मान सकयल घाली. तशी म्हजी नदर तिचे सांवळेचेर पडली. दनपारच्या कडार काळी सांवळी तिज्या पायापोंदा आसली.

कितेंय तरी उलोवंक जाय म्हणून हांवें म्हळें, "सांवळी पांयापोंदा चिड्डोवन तोंडार हांसो फुलोवपाची कला तुका बरी सादल्या."

ती लजेली. मात्शी चुळबुळ्ळी आनी "येतां हांव" म्हणून निरोप घेवंक लागली.

"खंय वता तूं?" हांवें विचारल्लें.

"घरा. बस चुकतली." तिणे जाप दिली आनी ती कुशीक सल्ली.

तिका जेवणाक आपोवचें अशें म्हाका खूब दिसलें; पुण तोंडांतल्यान उतर फुटलें ना. ती दोन पावलां फुडें वतकच हांवें मान फिरायली आनी उलो मा़ल्लो, "सांवळी...."

उलो तिच्या कनावर पडलो. तिणेय मान फार्टी करून पळयलें आनी विचाल्लें, "म्हाका उलो मारिल्लो?"

"हय." म्हणत हांव तिजेसरीं गेलो.

"म्हजें नांव सांवळी न्हय." ती हांसली.

म्हजी चूक म्हाका समजली. हांवें म्हळें, "जाणा हांव. तुजें नांव शुभ्रा. पुण तुका देखली तेन्ना म्हज्या मनान तुका सांवळी हें नांव दवल्लें. तें नांव मतींत घोळत उल्लें. तेंच तोंडार आयलें."

"नांत आवडलें." ती परत हांसली.

"आतां परत केन्ना मेळपाचें?" "धीर करून हांवें विचाल्लें.

"कित्याक विचारता?" तिणे मात्शी गंभीर जावन प्रस्न केलो.

म्हजें विचारप चुकिल्लें. हांव गोंदळ्ळों. म्हाका जाप येवजली ना. आडखळत हांवें म्हळें, "हरशींच,"

तिजी फाट नदरेआड जायसर हांव तिका पळयत रावलों. आनी जेन्ना ती दिसना जाली तेन्ना जड पावलां उखलीत हांव जेविनासतना परत ऑफिसांत आयलों.

तिजी सांवळी त्या दिसा म्हज्या मनांत घर करून रावली. आनी ते काळे सांवळेंत तिजें काळें शिल्प भरसून गेलें.

सांजचें ऑफिस सुटलें आनी घराचे दिशेन चलत वतना दनपरां पळयिल्ली शुभ्रा नदरेमुखार आयली. आपली सांवळी आपल्या पांयापोंदां चिड्डून दवरिल्ली. सांवळी..... अचकीत म्हजी नदर म्हजे सांवळेचेर गेली. सूर्य अस्तंतेक देंवतालो आनी पांयापोंदा चिड्डल्ली सांवळी लांबत वताली. लांबत लांबत उदेंतेकडल्यान माजराच्या पावलांनी येतल्या काळखांत विरगळटाली. विरगळटां, विरगळटां ती राकेसावरी म्हाका चाळयताली.

